# पावला कणकणी

(जीवितांतले कांय प्रसंग आनी नदर )


शंकर भांडारी









गोवा कोंकणी अकादेमी

पावला कणकणीं
लेख संग्रह

शंकर भांडारी

प्रकाशन क्र. 68



पयली आवृत्ती:
2006

उजवाडावपी:
श्री. गोपाळकृष्ण पाडगांवकार
सचिव,
गोवा कोंकणी अकादेमी
243, पाटो कॉलनी,
पणजी, गोंय.

छापपी:
ब्ल्यू क्यूब प्रिंट ॲण्ड पॅक
प्रा. लि.,
दिवचली गोंय.

मुखचित्र :
शंकू रेगे

मोल : रु. 80/-

Pawla Kankanim
Articles

Shankar Bhandari

Publication No. 68



**Frist Edition :**
2006

**Publisher :**
Shri. Gopalkrishna Padgaonkar
Secretary,
Goa Konkani Akademi
243, Patto Colony
Panaji - Goa.

**Printer :**
Blue Cube Print & Pack
Pvt. Ltd. ,
Bicholim - Goa

**Cover :**
Shanku Rege

**Price:** Rs. 80/-

मुंबै शारांत आसताना
जाणी म्हाका
कोंकणीची जाग हाडली, त्या
भौ. दोतोर श्रीपाद रा. नगर्शेकार
हांकां हें पुस्तक ओंपतां.

शंकर भांडारी

# अकादेमीचे वतीन

सर्गेस्त शंकर भांडारी हांच्या कवितांचो संग्रह शंकराचीं फुलां अकादेमीन 2005 वर्सा उजवाडा हाडलो. शकरबाबांच्यो कविता छापपाच्यो थारायल्यो तेन्नाच तांगेलो 'पावला कणकणीं' ह्या लेख–निबंद संग्रहाची सुधारीत आवृत्ती काडपाचें थारायलें. 'पावला कणकणीं' हें पुस्तक शंकरबाब आसताना ताणींच तें अस्मिताय प्रकाशन (कुमारजुवें) च्या नांवान प्रकाशित केल्लें. ताचेर उजवाडावणेची तारीखूय नाशिल्ली. पुस्तकांत छापणावळिच्यो बऱ्योच चुको उरिल्ल्यो. तांचो खास उल्लेख पुस्तकाचे प्रस्तावनेंत श्री. रविन्द्रबाब केळेकारांनीय केल्लो. हे आवृत्तींत पुस्तकांतले शुद्धलेखनाचे आनी छापणावळींतले भौतेक दोश पयस सारपाचो यत्न केला.

आदले आवृत्तींतलें लेखकाचें 'जनोगत' माथाळयाखालचें 'मनोगत' संपादीत केलां तशेंच रविन्द्रबाब केळेकार हांची मुळ प्रस्तावना नवो माथाळो दिवन तशाक तशी छापल्या. मात ते प्रस्तावनेंतलो आदले आवृत्तींतलो दोशांचो उल्लेख गाळ्ळा.

ह्या पुस्तकाचे निर्मणेखातीर ॲड्. उल्हास पै रायकार हांचो आदार लाबलो. तेखातीर अकादेमी तांचे उपकार आठयता.

'पावला कणकणीं' आनी 'शंकराची फुलां' हीं दोनूय पुस्तकां वाचतकूच सर्गेस्त शंकर भांडारी हांचें पुराय व्यक्तिमत्व दोळयांमुखार उबें जाल्याबगर रावना.

ह्या दोनूय पुस्तकांच्या रुपान गोवा कोंकणी अकादेमीची शंकरबाबाक मानवंदना !

**पुंडलीक ना. नायक**
अध्यक्ष

# मांडावळ

# जनोगत

खंयच्याय एका पुस्तकांतली मनोभूमिका खासा बरोवप्यान चार चौगांत ती मांडप हे गजालीक 'मनोगत' अशें म्हण्टात. म्हजे – विशी सांगचे जाल्यार अशें मनातलें सांगपासारकें कांय ना. कितेंय बरोवपापरस चार – चौगांत हांव चड उलयलां. बरोवंक बसपाक जी मनाची थंडसाण आनी सोशिकसाण लागता, ती म्हजे लागीं ना. हांव वरांची वरां उलयन – पूण जेन्ना बरोवपाची सक्ती जाता, तेन्ना निरुपायान लिखणी हातात घेवची पडटा.

आकाशवाणीचेर कितेंय उलयतलो जाल्यार तें बरोवचेंच पडटा. त्या भायर हेर मासिकां, खास अंक, हांचेखातीर हांवे कितेंय पूण विनोदी बरोवचें असो आग्रो जाता, तेन्नाय घडये चुकून कितेंय पूण प्रसवता. तूर्ताच्या पुस्तकांत जे कितें प्रसिद्ध केलां, तें खंय ना खंय ह्या आदीं प्रसिद्ध वा जाहीर जालां.

पूण पुस्तक रुपान म्हजे अशें एकूय प्रसिद्ध पुस्तक जालें ना. हेंच पयलें. ताजीं कारणां दोन एक म्हणजे संवसारांत वेग – वेगळ्या भासांनी येदे तोला – मोलाचे प्रतिभावन संवेदक साहित्यीक जावन गेल्यात, कितें वाचचें सोडून आपणें बरोवप म्हळ्यार 'मस घ्या' म्हण आपुण जावन लोकांचेर लादिल्लेवरी दिसता. दुसरे कारण म्हळ्यार, हांव पिंडाचो आळशी.

कशेंय आसूं हे पुस्तक उजवाडाक येवपा फाटल्यान एक विजमीत घडलां. गोंयांत आदल्यावरी कोंकणी मराठी वाद ना. त्या वादाचे रुपांतर संवादांत जाला पूण राजभाशेचो प्रस्न येता तेन्ना दोन गट जातात. एका गटाचे म्हणजे आमची कोंकणी ही एकच राजभास आसची. दुसऱ्या गटाचे सांगणें 'मराठीची' हेळसाण करुन

उपकरना. कोंकणी बराबर मराठीचोय मान तोच राखूंक जाय. म्हणजेच एक गट एक भाषिक आनी दुसरो गट द्विभाशीक. अदीं – मदीं संघर्ष जाता. पूण कोंकणीत आमी जे गजालीक 'बारदेसकारांल्यो वंयो' म्हण्टात, तसलो.

म्हजी भूमिका गोंयांत जायत्या जाणांक खबर आसा. पूण द्विभाशीक गटांत म्हगेले चड इश्ट. हांतले चडशें बहुजन समाजांतले. ताणींच आग्रो धरलो. आनी पुस्तकाच्या खर्चाचो आंकडोय ताणीच उबो केलो. देखून पुस्तकाचें स्रय तांकांच वता. ही तांची तडजोड तत्वाकडेन न्हय. म्हजा इश्टागतीखातीर तपाशिलाकडेन. हेंच तें विजमीत! हांवेंय येवजिलें. 'कुड्डो मागता एक दोळो ! देव दिता दोन' अव्हेर केलो जाल्यार लोक म्हाका मेंतालांत घालतले!

ह्या पुस्तकांत ज्यो त्रुटी उरल्यात त्यो म्हज्यो अशें म्हणचे पडले. आनी जे कितें बरें–भलें दिसता, तें सहकाऱ्याच्या बुदवंतपणाक लागून. कशेंय आसूं, पयल्या पुस्तकाचो बरो–वायट अणभव दुसऱ्या कविता–संग्रहाक उपकरा पडटलोआनी कोंकणी शारदेच्या दरबारांत म्हगेली अल्पशी सेवा रवीन्द्रनाथ टागोराच्या 'शूची करो मन' हे वृत्तीन तुमी गोड मानून घेतले अशी आस्त बाळगितां. देव बरें करुं.

–शंकर




# शंकर : एक फायटर

शंकर भांडारी म्हळ्यार...... शंकर भांडारी.

आनी कोणाय संबंदान उलोवचें बरोवचें जालें जाल्यार, तो खंय जल्मा आयिल्लो, कितें शिकिल्लो, ताणें कितें- कितें केलें तें सांगचें पडटा. शंकराच्या जिवितांत असल्या गजालींक कुस्कूट लेगीत म्हत्त्व ना. ताच्या संबंदान उलयताना- बरयताना आमकां ताच्यो आख्यायिकाच सांगच्यो पडटात वा ताच्या गुणां- अवगुणांची वळेरी वाचची पडटा.

शंकराच्यो गोंयांत जितल्यो आख्यायिका पातळ्ळ्यात तितल्यो हालीं मुस्तींतल्या दुसऱ्या खंयच्याच गोंयकाराच्यो पातळूंक नात. तशींच, ताच्या गुणां- अवगुणांचीं जितलीं वर्णनां आयकूंक मेळटात तितलीं दुसऱ्या कोणाचींच आयकूंक मेळनात. तागेले दुस्मान ताच्या अवगुणांची वळेरी वाचूंक लागतात तेन्ना शिशुपालाच्या अपराधांसारकी एक मोट्टी वळेरीच भरून काडटात. आनी तागेले इश्ट जेन्ना ताच्या गुणांची तूस्त गावंक लागतात तेन्ना श्रीकृष्णाच्या गुणां परस्पूय दुपेटींत वळेरी भरून काडटात.

दुसऱ्यांच्या मनांत तिडकी- ओडीचीं असलीं ल्हारां उठोवपी मनीस ल्हाना- समानांतलो केन्ना आसूंच नज.

हे नदरेन शंकर एक अद्वितीय unique गोंयकार. बुदवंतांत बुदवंत, प्रतिभावंतांत प्रतिभावंत, शाण्यांत शाणो, मस्त्यांत मस्तो. धीट. कोणाचीच पर्वा नाशिल्लो, कसलीच आनी कोणाचीच मुरवत नाशिल्लो. हजरजबाबी, तेजस्वी, बऱ्याक बरो, वायटाक वायट, उप्रदवी. ....

अंत आनी पार नाशिल्ले गुण आनी अवगुण आशिल्लो गोंयकार हो.

'ओपीनियन पोला' वेळार कांय जाणांनी ताका तोखणायेन एक पदवी दिल्ली homem de cabeea sem cabelos-' केंस नाशिल्ले तकले' चो मनीस म्हुण. बाकीच्यांक आमकां सगळ्यांक डॉक्टरेटी मेळटीत, पद्मश्री मेळटीत. आमच्यांतले कोण पद्मभूषण वा पद्मविभूषण जातीत. पुणून म्हाका दिसना, गोंयकारा कडल्यान इतले अपुर्बायेन आनी तोखणायेन 'तकलेचो' मनीस म्हुण पदवी कोणूय केन्ना जोड्डूंक पावत म्हुण.

गोंयकारांनी आयजवेर कोणाक 'फकांड' आनी 'फटींग' सोडून तिसरी पदवी केन्नाच दिवंक ना.

शंकराचेर हांव लुब्ध तो ताच्या एका मोठ्या गुणांक लागून. हो गुण म्हळ्यार तागेली निष्ठा. शंकर कुटुंब – निष्ठ मनीस, मित्र -- निष्ठ मनीस, तत्त्व–निष्ठ मनीस.

होमकणांत घेवची तशी ताणे कोंकणीचे चळवळींत उडी घेतली. ऐन तरणेपणांतलीं सात–आठ वरसां तो हे चळवळींत 'हुलपलो'. परिणाम: ताचो लग्नाचो योग चुकलो. शंकराक बायल ना. भुरगीं नात. ताका 'घर','संवसार' वा'प्रपंच' आसपाचें कारण नाशिल्लें. कित्याक, ताका कसलेच बांदपास नात. फुडाराचो हुस्को ना. आनी ताणे आपल्या आयुश्याक, जिविताक वा करीयरीक केन्ना कसलें म्हत्वूय दिलें ना.

तरी आसताना, शंकराक 'कुटुंब' आसा. ताचें स्वत:चें न्हय, ताच्या भावांचें आसा, भयणींचें आसा. तांच्या सगळ्यांचे 'संवसार' ताका लागता. तांच्यो ल्हान–व्हड अडचणी सरळ करपाक तो आपुण जावन धांवून वता आनी भांवडांय मात कितें जालें म्हणटकूच सल्ल्याक वा आधाराक ताचेसरीं धांवून येतात. शंकरा इतलो 'कुटुंब–वत्सल' मनीस हांवें म्हज्या इश्टांत दुसरो पळोवंक ना. ताची ही कुटुंब–वत्सलता ताचे कुटुंब–निष्ठेंतल्यान आयल्या.

तो मित्र–निष्ठूय तसोच आनी तेदोच. ताच्या मित्रांत श्रीमंत आसात, गरीब आसात. पातिशेर आसात. विद्वान आसात आनी अन्नाडीय आसात. लेखक, कवी, प्रोफेसर आसात आनी शोफेसरूय आसात. फुड्डारी आसात आनी

आजी–माजी पाजी मंत्रीय आसात. 'दिव्यत्वा'ची खंयूय कसलीय 'प्रचीती' येवं (ती खंय आनी कोणांक येत, सांगूं येना)ताका शंकरान आपल्या इश्टांत आसपावन घेतला. सगळ्यांकडेन तो सारको. पूर्ण डेमॉक्राट. तांचे खातीर कितेंय करपाची ताची तयारी, तांचीय ताचे खातीर कितेंय करपाची तयारी. निष्ठा दिले बगर असली जिवाक जीव दिवपी निष्ठा केन्ना कोणाक मेळना.

गोंयच्या रासवळ जिवितांत शंकराच्या कर्तुत्वाचो काळ म्हळ्यार 1962 पसून 1968 मेरेनचो. मुक्ती पसून ओपीनीयन पोला मेरेनचो. ह्या काळांत जायते जाण जिवाचें रान करून वावुरले. कोणें आपल्या भाशणांनी सभा गाजायल्यात, कोणें आपल्या बरपानीं समाज जागयलो.

शंकर ह्या काळांत अक्षरश : 'रस्त्यार आयिल्लो'. ताणें सभा गाजयल्यात, समाजूय जागयला. तांतयां, तोमाटां, फातर खाल्यात. 'खर्रर्र थू:' करून उडयिल्ले निथू झेल्ल्यात. पुलिसांच्यो लाठयो खाल्यात. पदयात्रा काडल्यात, सत्याग्रह केल्यात, कन्वेन्शनां भरल्यांत, बंदखणीची हवाय खाल्या. एक आनी दोन न्हय, कितल्योश्यो 'राटावळी' केल्यात. ह्या काळांत ताणे दनपारची खंयची, रातची न्हीद लेगीत सारकी घेवंक ना. ते मुस्तींत जितल्योय चळवळी चल्ल्यो तातूंत शंकर आघाडीचेरूच रावला.

शंकराक कोणे हीं कामा कर म्हुण सांगूंक नाशिल्लीं. कोणेच ताका तीं नेमून दिवंक नाशिल्लीं. ताणे आपुण जावन तीं आंगार घेतिल्लीं. 'अ' राष्ट्रीय शक्ती ' चिड्ड्न काडपाचें निमित्य काडून त्या काळार गोंयांत कांय 'महाराष्ट्रीय शक्ती वयर सरिल्ल्यो आनी त्यो भारताच्या नश्र्शा वयलें गोंयचें नांवनिशाण लेगीत पुसून उडोवपाक वावरूंक लागिल्ल्यो. शंकराक ह्यो 'महाराष्ट्रीय शक्ती 'आसुरी' शक्ती कश्यो दिसल्यो आनी तो अवसर आयिल्ले भाशेन ह्या शक्तीं आड झुजूंक लागलो.

ते मुस्तींतलो शंकरालो अवतार जाणे पळयला तो आयुश्यांत ताका केन्ना विसरपाचो ना.

सांगल्यार कोणाक खरें दिसचें ना–शंकर मराठी भाशेचो एक भक्त. मराठी कविता आनी मराठी नाटक ही ताचीं दोन दुबळीं आगां (दोन 'विकनेसी') गोंयांत

'ग्रंथिक ' मराठी उलोवपी जायते जाण आसात.(चड करून सगळे मराठीवादी.)पुणून चालंत मराठी- पुण्या, मुम्बयच्या 'ब्राह्मणा' भाशेन उलोवपी जे थोडेच आसात तांच्यांतलो शंकर एक. तो मराठी बरोवपीय बऱ्यांपैकी. मराठीचें प्रेम आसले बगर असली चालंत मराठी कोणाक येवची ना. व्याकरणां शिकून भासो येनात. भाशेचेर प्रेम केल्यारूच भास येता. शंकराक मराठी बरी येता. कित्याक, शंकराचें तिचेर प्रेम आसा.

पुणून प्रेम आसा म्हुण ताका मराठी आपली आवय-भास दिसल्या व्हय? ना. शंकराचे तकलेंत घयरांव ना. विचारांत कसलोच गोंदळ ना. मराठी वेगळी आनी कोंकणी वेगळी-दोनूय भाशांचें नादशास्त्र वेगळें, दोनांयची · व्याकरणी वांदावळ वेगळी दोनांचीय मुळावी उतरावळ वेगळी. अशें तो शणै गोंयबाब हातांत पडला ताचे पयलीं पसून मानीत आयला. "मराठी भाशेन कोंकणी मुखार सरली ना, दुबळी उरली-हाचें कारण तिचे पूत तिचे विशिंच्यो आपल्यो लागणुकी विसरले हेंच-अशें म्हणीत आयला. गोंयांत येवच" पयलीं मुम्बय स्लॅटर रोडार, जंय तो रावलो, थंय तागेलें कोंकणीचें एक 'वर्क-शॉप' चलतालें.

मुंबयच्या कॉलेजांनी शिकपी तरणे-ताटे गोंयकार भुरगे हांगा येवन कोंकणी-कार्याची दीक्षा घेताले. कोंकणी बगर आमच्यांत धनीपणाची भावना जागी जावपाचीच ना अशें तो तेन्ना पासून सगळ्यांक सांगीत आयिल्लो. देखूनूच जेन्ना कोणूय ''आमचीं नाटकां मराठींत, आमचीं भजनां मराठींत, आमचीं किर्तनां मराठींत, आमी वाचतात मराठी, शिकतात मराठी." अशें मोठ्या अभिमानान सांगतालो तेन्ना शंकराक ताची भिरभिरी मारताली आनी तो उसळून ताका विचारतालो, ''सभाग्या, आपणाक भास ना, आपणाक साहित्य ना, आपणाक इतिहास ना हाची लज दिसपा वांट्याचो तुका ताचो अभिमान दिसता? जीव दी रे वचून बांयंत! आपुण षंढ म्हुण सांगपाक कसलो अभिमान रे तुका?''

स्वतंत्र गोंयात ताका हो 'षंढत्वाचो अभिमान' वचत थंय- चड करून हिन्दू समाजांत- दिश्टी पडपाक लागलो. मराठी ह्या अभिमानाक पोसवण दिवपाक लागली तेन्ना शंकराक मराठीचीय तिडक मारपाक लागली. तो खोलायेंत देंवलो. (शंकराचें हें वैशिष्ठय ध्यानांत धरपा सारकें) तो ह्या' अभिमानाचीं' कारणां सोदपाक

लागलो आनी ताका एक सोद लागलो. पुर्तुगेजांनी आमची कुडूच बंदिस्त केल्ली. मराठीन आमचो आत्मोच बंदिस्त केला. आपुण गुलाम म्हणपाची जाणवीक लेगीत आमकां जावंक दिना ही मराठीची गुलामी, देखून ती भंयकर. राजकी बंदेपणा परस सांस्कृतिक बंदेपण भयांकृत, तें आमचें सत्वूच नाकारता.

आनी शंकर मराठीच्या सांस्कृतिक वसाहतवादांतल्यान गोंयकारांक सोडोवपाक पोट तिडकीन कोंकणीचे चळवळींत पडलो.

शंकराक मराठीवादी गोंयकार मात लेगीत सोंसना. ताका ताची घाण मारता. मागीर तो दांतवोंठ चाबून ताका जेन्ना आडवो-उबो चिरपाक लागता तेन्ना, तो वयाची लेगीत मुरवत धरीना.

शंकरान आपल्या आयुश्याकडेन गंभीरपणान केन्नाच पळोवंक ना. तो आयुश्याकडेन फकत खेळ्ळो. पुणून आयुश्यांत गंभीरपणान आनी पोटातिडकीन ताणे खंयचेय एक काम केलां जायत जाल्यार, तें हेंच- मराठीवादी गोंयकारांक दया-माया धरी नासताना आडवे-उबे चिरपाचें.

कोंकणी बरपावळीच्या इतिहासांतली शंकराची सुवात खंयची तें सांगूंक नकळ. शंकराचीच न्हय, तर कोणाचीच सुवात खंयची तें सांगूंक नकळ. बरपावळीच्या इतिहासांत काळ नांवाचो एक बुलडोझर काम करता. तो व्हडल्या व्हडल्यांक मातये-भरवण करता. हाका लागून आयज जाका आमी व्हडलो लेखतात तो फाल्यां व्हडलो उरतलोच काय कितें, सांगूं येना. पुणून कोंकणी 'चळवळीचो' इतिहास जेन्ना कोणूय बरयतलो तेन्ना तातूंत '' कोंकणी खातीर पोटतिडकीन झुजपी-एक फायटर'' ह्या नात्यान शंकराक एक मानाची सुवात मेळटली हे विशीं म्हाका कसलोच दुबाव ना. शणै गोंयबाब उपरांत जीं चार झुजाऱ्यांचीं नावां येतलीं, तातूंत शंकराचें एक नांव खातरीन आसतलें.

आमी एक गजाल विसरूंक फावना: साहित्यीक आनी सांस्कृतिक मळार जी सुवात आयज कोंकणीं जोडूंक पावल्या, ती साहित्य अकादमींत पावल्या तशी मराठीवादी गोंयकारांच्या metro polis तल्या मुंबय विश्वविद्यालयांतूय पावल्या. ती कोंकणींतल्या निखट्या लेखकांनी-रायटर्सांनी तिका जोडून दिवंक

ना तर, फायटर्सांनी जोडून दिल्या.

कोंकणींक रायटर्सां इतलीच वा म्हणुंया, रायटर्सां परस चड फायटर्सांचीच अजून गरज आसा. कित्याक, कोंकणी अजून आठवे वळेरेंत पावूंक ना. गोंयची कूड भारतीय संविधानान आपल्या गोपांत घेतली, गोंयचो आत्मो अजून घेवंक ना. कोंकणी आपल्या निजाच्या प्रदेशांत लेगीत अजून राजभाशेचो पाट जोडूंक पावूंक ना. 'आमी षंढ' म्हुण मोट्या अभिमानान सांगतल्यांत धनीपणाची भावना आमी अजून निर्माण करूंक पावूंक नात 'कोंकणी ही मराठीची बोली आहे' म्हणटल्यांची तोंडां अजून बंद जावंक नात. कोंकणीक अजून जायती वाट चलपाची आसा.

जे मेरेन ही वाट आमकां चलची आसा ते मेरेन आमकां फायटर्सांचीच चड गरज उरतली.

आनी ते मेरेन आमी सगळे शंकराकडेन मोटे आशेन पळेत रावतले.

'स्त्रियश्चरित्रम्' आनी 'पुरूषस्य भाग्यम्' केन्ना कशें कितें रूप घेत, हें देवांक लेगीत खंय सारकें सांगूक येना. मागीर, शंकरा सारश्र्या कर्तुत्वी, तेजस्वी, प्रतिभांवत मनशाच्या भाग्यांत कितें बरयल्लें आसा, तें कोण सांगतलो? ओपीनियन पोला उपरांत सावन काल पयर मेरेनच्या काळांत शंकर आपली वाट विसरील्लो. दुसरेच छंद आपणांक लावन घेवन दुसरेच वाटेन चालतालो. हे वाटेन चलत चलत तो पयर सर्गाच्या दारा मेरेन वचून आयलो. थंय पाविल्ल्यांतले खूब थोडे लोक परततात. शंकर परतला. घडये कोंकणीच्या मळावेलें ताचें 'अवतार–कार्य' अजून सोंपूंक ना जातलें. ताचें बऱ्यांतलें बरें झूज the last and the best - अजून उरलां जातलें, तें हातांत घेवपाची ताका प्रेरणा जावची आनी ह्या झुजांत जैतवंत जावपाक ताका फावतें आरोग्य आनी आयुश्य मेळचें इतलेंच हांव ह्या पुस्तकाच्या प्रकाशनाच्या निमित्यान इश्वराकडेन मागता.

साहित्यांत कोणाक कितें रूचत, सांगूंक येना.सौंदर्य शास्त्रांत एक नेम सांगला De Gustibus non est disputandum. तुका आमकेंच कित्याक आवडटा म्हुण कोणाकूय विचारल्यार, तो सारकी जाप दिवंक पावना 'आवडटा म्हुण आवडटा, अशीच जाप दितलो. जण एकल्याची रूच वेगळी.

ह्या पुस्तकांत जे लेख आयल्यात ते हाचे पयलीं पणजी आकाशवाणी वेल्यान वितरायिल्ले लोकांनी आयकल्ले. जायत्या जाणांक ते आवडलेले. तशी पावतीय तांणी दिल्ली. हांवेंय आयकल्ले. त्या वेळार म्हज्या तोंडांतल्यान उतरां फुटिल्लीं: 'शंकरान साहित्याकडेन मात्शें गंभीरपणान पळोवंक जाय आशिल्लें.... कितलें बरें जातलें आशिल्लें!' खासा शंकराकूय ते आवडल्यात जांवक जाय. ना जाल्यार पुस्तका -रूपान तो ते छापुंक दिवचोच नाशिल्लो. लेखक हो लेखकूय आसता आनी आपल्या बरपाचो पयलो वाचकूय आसता. ताच्यांतल्यान ह्या वाचकाक जें आवडटा तेंच तो छापपाक दिता. शंकराचे हे लेख वाचतात तो बहुश्रुत म्हणपाचें कळटा आनी प्रतिभावंत म्हणचेंय जाणवता.

**रवींद केळेकार**

प्रियोळ

25-12-85

1.

# पावलां आनी पायतणां

मनशाक उबो दवरपाचें, हालचाल करपाचें आनी तोल सांबाळपाचें एकलें एकसुरें बांदकाम म्हळ्यार पावल. ताका भायले खंयचेय दुखीपासून सांबाळूंक आनी तें विकृत जांवचे न्हय म्हणून चडांत चड सूख आनी पालव दिवपासारकीं पायतणां आसूंक जाय.

मनीस पावला इतलें सोबीत आनी स्थापत्य कळेन भरिल्लें दुसरें कितेंच ना. सैमान केल्लो तो कळेचो एक आविश्कार. उबो रावपाक, गती दिवपाक , तोल सांबाळपाक आनी मनशाचें वजन सगळ्या वाटांनी सारकें वाटून घालपाक पावल हें एक यंत्र. मनशाचे कुडिच्या सगळ्या वांगड्या मजगतीं चडांत चड काम करपी वांगडी म्हळ्यार पावल. सैमाचें काम करपी यंत्राचो तो एक चड बरो नमुनो. पावला इतलें काम घडये दुसऱ्या खंयच्याय अवयवाक पडना जातलें! स्नायू, शिरो आनी मासांन एके अवस्थेंत एकठांय धरिल्लीं 26 हाडां–सट् करून लक्ष ओडटा.

भुरग्याचें पावल एकूच हाड दाखयता तें खोटेचें, आनी जशें जशें भुरगें वाडटा तशीं तशीं बाकीचीं हाडांय वाडटात. हीं 26 हाडां तीन तरांची आसतात. टार्झल, मेटा– टार्झल आनी फालां. हांचीं कामां एकमेका संबदींत आसलीं तरी वेग–वेगळीं, पावलाचीं हाडां लांबोड्या आनी सपाटशा आर्कांनी बांदलेलीं आसतात. भायलें आर्क शरिराचें वजन घेता आनी भितरलें आर्क चलताना कुडीक मुखार धुकलता. त्या भायर खंयचोय धश्र्को सोंसता. मदलें आडवें आर्क कुडीचें वजन वांटून घालता आनी तोल सांबाळटा.

भुरगे पयलेंच चलता आसताना ताचीं पावलां सपाट आसतात. अजून मेरेन आर्कां जाल्लीं नासता. वयान जशें जशें तें वाडटा तशें तशें जांठ्यावरी ताच्या पावलांक खोलाय येता आनी आर्कां वाडतात. एक पावल दुसऱ्या पावलाक पूरक आसता. मदलें आडव्या हाडाचें अर्द उजव्या पावलाच्या अर्दाक लागून, जाल्यार दुसरें अर्द दाव्या पावलाक लागून तयार जाल्लें आसता. दोनूय पावलां एकामेकाचे कुशींत उरतात, तेन्नाच घूड तयार जाता. म्हणजेच मनीस एका घट्ट हाडाचेर उबो रावंचो सोडून दोन आर्कांचेर उबो आसता. एखाद्रे उंचायेवेल्यान उडी मारली जाल्यार हीं आर्कां पावलांचो कितलो भाग वजन पेलता हें सगळें आर्कांचे बागीचेर अवलंबून आसा. कुडीचें चड वजन घेवपाचें काम खोटेचें. मेटा- टार्झल हाडाची तकली आनी सव्या मेटाटार्झल हाडाची Shape ही खरी वजन पेलपाची तरा. ज्या मनशाक दीसभर उबें रावचें पडटा आनी तेंय एकेच रीतीन, तागेल्या पायांच्या स्नायुकूय पुरो जाता आनी आर्कांय सपाट जातात.

येवजणुकीन बांदिल्लो असो पावलांचो दुसरो वांटो म्हळ्यार स्नायू. पावलांचो स्नायु निमाणें आपल्या धनयाक जाय तेवटेनूच उबारून व्हरतात आनी ताका लागून मनशांचें चलप म्हळ्यार एक खास तरा जाता. ही पध्दत यशस्वी करपाक स्नायून हातभार लायिल्लो आसता. आनी ताका लागुनूच मनशाक आपलो तोल पावलांचेर घालपाक जमता. एका फाटल्यान दुसरें अशें लयबध्द पावल घाल्ल्यान मनशाचें नाक जमनीर पडून फुटना आनी तो बरे तरेन चलूंक शकता.

सर्वसादारण मनीस आपल्या जिवितांत पृथ्वीच्यो दोन प्रदक्षणा काडप इतलो भोंवता. एक मैल चलप म्हळ्यार 50,000 पौंडाचें वजन आपल्या पायांचेर घाल्लेवरी जाता , अशें म्हणटात. आनी चड करून हे म्हणणेंत सत्यताय आसूंक फाव. एक एक पावल दिसांतल्यान सुमार हजारभर तरी कोनीक बदल घेता. म्हुण पावलांची लांब हाडां म्हळ्यार लीव्हर्सावरी आनी ल्हान हाडाचें काम मात वाटकुळीं घुंवपाचें.

हाडांत 33 टक्के organic matter आसलें जाल्यार 66 टक्के खनीज वा inorganic पदार्थ आसतात. जल्मावेळार हाडांत organic पदार्थच आसतात. पावल मोव आनी लवचीक आसता. वय जाता जाता inorganic मीठां चड करून

calcium phosphet बी हांडानी सांचतात आनी हाडां घट्ट करतात. 15/16 वर्सां पिराय जायसर हाडां घट्ट जायनात. चड करून आंगठ्याचें हाड. देखून भुरगेपणापासून 15-16 वर्सामिरेन पायतणांक लागुन भुरग्याच्या आंगठ्याक विकृताय येवं येता. ही विकृताय चड करून पायतणां सारकी पायांक बसतात तसलीं नासली जाल्यार वा घालपी मनशाक त्रास जाय सारके घट्ट आसली जाल्यार जांव येता.

हात आनी तोंडावळे तितलींच तरांतरांची पावलां आसतात. पूण कूड रचणुकेचे (anatomy) नदरेन सगळीं पावलां मात्सो किरकोळ बदल सोडलो जाल्यार सारकींच. खंयचींय दोन जोड पावलां सारकीं आसनात. इतलेंच न्हय तर एका जोडा पावलांतलीं दोन पावलां अशी सारखीं आसनात. त्या भायर एका पावलाचें मापूय बी संदाच सारकें उरना. पावलाचेर वजन पडटा तेन्ना ताचें माप एक आनी वजन वा बेकार आसताना दुसरें माप. सकाळचें एक दनपारचें मात्शें व्हड.शिंयांचें एक जाल्यार उबाळांचें तिसरेंच!

आंगठे हेरशी बेकार आसताना एकामेकांक खेटून आसतात. पूण मात्शें वजन घेतांच ते वेगळे तरेन वागतात. आंगठ्यांचे खरें काम म्हळ्यार आवळून घरप. ह्या तांगेल्या सभाविक कामांत कितेंय आडखळ आयली जाल्यार तोल सांबाळप कठीण. पावल आनी आंगठ्यांचें काम इतलें अजापाचें, केदीय आडखळ वा खंयचेय परिस्थितीकडेन समरस जावपाची तांकां एक आगळीच शक्त आयल्या . हाचो अर्थ असो न्हय , तांचेर फाव ताचे परस चड वजन घालप.

सैमान जरी पावलां भायले दुखीपासून वा खंयच्याय अपघातापासून राखल्यां तरी पायतणां कसलीं हाचेर चड अवलंबून आसा. पायतणां पांयाक सारकीं जायत जाल्यार चलपाक एक वेगळीच टांक येता. पायांतली सारकीं नासून पावलांचेर नाका थंय भार पडलो जाल्यार वेग – वेगळीं वायटां जावन नाकटांचीय पीडा जांव येता. Hard cont, soft cont, lazy toes, hallow valgas असल्यो पीडा जांव येता. पूण पायांतलीं म्हणटात तीं आयचे पिळगेक इतलीं सर्रास जाल्यांत, तांचें वापरप चड तितलें येवजप थोडें जालां.

पांयातलें म्हळ्यार पायांक राखण आनी पांय धांपप. पूण आमी पायांतलीं फॅशन म्हणून घालीनात, तर पावलां बरे तरेन उरचीं आनी तीं दुखचीं न्हय म्हणून आमी तीं घालतां, हें जायत्या जाणांक खबर नासता. पावलांची भलायकी पांयात आसता.

पायतणां वापरपाची उण्यांत उणी गरज भागोवप म्हळ्यार –

(अ) बेगीन बेगीन चलपाक वा धांवतना पावलां खंयच आपटूचीं न्हय वा तांकां कसलीच दुखापत जावंची न्हय देखून तांकां सांबाळप.

(ब) वत, शीं आनी ओलसाण हांचेंपासून पावलां सांबाळप.

(क) पावलांची सभाविक चाल सांबाळप आनी तांतूत आडखळ हाडप ना आनी ती पावलां ज्युस्ता ज्युस्त बसप.

(ड) पावलांची वायट खोड बदलूंक जाय आनी तीं सारकी घालूंक लांवक जाय.

□□□□

2.

# फॅशनीचे जुलूम

खंयचेय एके गजालीचो उगम केन्ना जालो हें निश्चित सांगप कठीण. हीच गजाल फॅशनीची. मनीस जेन्ना पयलेच फावट आपलें आंग लिपोवपाखातीर झाडाफाटल्यान लिपलो, तेन्ना फॅशनीचो उगम जालो जावंक जाय म्हणपाचो अदमास. मनशाक पयलेच फावट समजल्ली ती आंगस्तराची तरा आसूंये. सैमाच्या साद्या उपद्रवांपासून नागड्या मनशाची राखण करपाचो तांचो हेतू आसतालो. मनीस जो फॅशनीचो निर्मिणार ताणे प्रसंगानुसार सहजतायेन निर्माण केल्ली फॅशन मुखार सबंद समाजाक पिडटली म्हणपाचें ताणें येवजिल्लें काय?

मनशाच्या निजान आनी तागेल्या लिपिल्ल्या गर्विश्ट सभावान फॅशनीक अचळय उंचेल्या आसनार बसयली . देखून आयज तिचेंच चलता आनी अख्ख्या समाजाचेर ती निश्कळंक शेक चलयता. आर्विल्ले'फॅशनी'नूच हो मनशाचेर डाव परतिला अशें न्हय तर स्वेच्छेन बायलांनी आपले कुडीचेर फॅशनीचे बलात्कार करून घेतल्यात अशें कितलेशेच दाखले इतिहासांत आसात.

आंत्मछळाच्यो ज्यो कितल्योशोच चिनी काणयो आसात तातूंत आंकवार चलयांचीं पावलां अराटून –तराटून बांदून दवरपाचीय पध्दत पुर्विल्ले चिनी फॅशनींत मोडटा. पावलां नाजूक दिसून त्यो चलयो बाबड्यो उजवतल्यो म्हुण ताणीं कितले हाल सोंसले काय? तांकां निश्कळंक चलपाची लेगीत मेकळीक आसचीना!

आफ्रिकेंतले आदीवासी खांपरी हे सुंदरकायेचे पिशे. सकलो ओंठ लांब जावन गळचो म्हुण ताणीं थोडे उपाय घेतल्यात? लाकडांचे कुडके वा तरां तरांची वजनां ते ओंठाक बांदताले. आंकवार चलयांचे तर खाण–जेवण लेगीत बंद. पातळ पदार्थांचेर

जियेवप आनी मोजकेंच उलोवप. आयज तिनूय त्रिकाळ भरभरपी बायलां भोंवतणी पळेतकच दिसता ही फॅशन चालू उरिल्ली जाल्यार कितलें बरें जावपाचें! ब्रम्हदेशांतल्या बायलांक लांब गोमट्यो जाय आसल्यो. म्हण्टकच ताणी गळ्याक चडांत चड पितळेचे वाळे घालचे. कांय बायलां तर 20 ते 24 लेगीत वाळे घालतालीं. बदकांवरी लांब गोमट्यो जातकच त्यो बायलो कितल्यो सोबीत दिसतल्यो विचारूंकच नाकात. आयज मान कणल्या म्हण कुयथ्याचें तोंड कशें रबर फोमाचें कुंवाडें गोमटेक घालून भोंवपी नव-गिरेस्त पळेतकच त्या ब्रम्हदेशांतल्या सुंदरींचो उगडास जाता. आनी केन्ना केन्ना पेजे निवळा आशेन पारपोळ सुण्याक बुडकुल्यांत घाल्लें तोंड भायर काडूंक मेळना जातकच बुडकुलो फोडचो पडटा आनी बुडकुल्याचो कांठ तितलोच सुप्याचे गोमटेक उरता, तोय प्रसंग आठवता.

सतराव्या शेंकड्यांत जियेवपी Joseph Addison, त्यावेळच्या इंग्लंडांतले फॅशनीचेर सदांच उलयतालो. शारांतले लोक आनी खेडेगांवांतले लोक हांच्यांत भास-भेसांत सदांच फरक आसतालो. शारांतलीं बायलां केंस वळोवपांत तरा तरा करून , तेंपा पोर्माणे माथ्यार कुरपोणें दवरताली Juvenal नांवाचो एक लातीं बरपी, तांगेले तकलेचेर दवरलेले मुकुट पळोवन म्हण्टा.

with curls on curls they build their heads before
and mouth it with formidable tower
A giantess she seems but look behind
and then she dwindles to a pigmy kind

केसांच्यो मुदयो करून विणयांची कोडबाळी

मुदयाळ्याचे तकलेर ल्हानशी दोंगुल्ली

पकदस्त बायल ती नाचघरांत सोबली.

साज देंवय जाल्यार मात आसली हुंदल्ली

ब्रिटीश बायलो तर दांसांक वचपाचे तयारेक लागून केंसाक आनी ड्रेसाक दिसांतलो चडसो वेळ वगडायताल्यो. तांगेल्यो इश्टीणी वा दुस्वासान भरिल्ल्यो सुंदरी हांचेलागीं सर्तीन वा मत्सरान हुलपून तरा - तरांच्यो फॅशनी करताल्यो.

परिणामी दर एकल्याच्या माथ्यार केसांचो घूड त्रिकोनी, पांचकोनी, शटकोनी– विणयांनी रेवडायल्लो वल्ल्यो, कुरपाणे, पांटुले, यिल्ली बी गोंयकारानी पळेल्लीं जाल्यार तांकां घडीभर आपुण मडगांवच्या बाजारांत पावलो आनी तांबड्या पांचव्या भाडेलांचेर ब्रिटीशांनी फॅशनीच्या नांवाखाला वसाहतवादाचीं ओजीं उबारल्यांत म्हणपाचो भास जातलो आशिल्लों! माथ्यार येदीं ओजीं घेवन हांसो हाडून नाचपांत जें सोशिकपण ब्रिटीश बायलेन दाखयलां तें पळेतकच, देड आनी अडेच वर रातीर लकत लकत घरांत येवन ' वाड राणे' अशें म्हणपी बेबद्या घोवाक, 'तोंडातल्यान ब्र काडी नासताना' आसा तें पानार घालपी, 'भारतीय पतिव्रता' भंगली अशेंच म्हणचें प डटलें.

नवगिरेस्त बायलां मोतयां आनी  जमीन झाडपी लांबरूंद झग्यांच्यो सर्ती करतालीं. कितलीशींच बांयलां Ladies in vogue म्हळ्यार ' फॅशनेबल लेडीज' अशें मानून घेवपाक जाय म्हुण खाकनावाळ जातालीं. आनी मदल्या वर्गांतलीं बायलां नव–गिरेस्तांच्या फॅशनीक लागून मदलेमदीं चिड्डतालीं. तांगेलीं सुती कापडां,सॅटिना आनी सिल्काच्या झगझगाटान चडूच उठून दिसतालीं. तांकां सांबाळपाक आनी जाता ती उधळपट्टी थांबोवपाक कायदे लेगीत करचे पड. फॅशनीचे भकीक दादलेय पडटाले. शेक्सपियरच्या इंग्लंडात तर फॅशनीची कमाल. 'फॉल्ग' म्हळ्यार सदळशीं खोमसां. तांकां बरी नाजुकशी बॉर्द, जड बूट, धोंपरामेरेन बकलांसयत सिल्क स्टॉकिगम् (waistcoats) फुग्याचे सैटिन quickerbochers, आनी फॅशनीचो सांगात  म्हळ्यार तकलेवेल्या चेप्याचीं तरातरांचीं पिसां. ह्या काळांत गोमाद गोलांक लागून दादल्यांच्यो मानो ताठ उरताल्यो. तकल्यो हे वाटेन वा ते वाटेन हालोवंक मेळनाशिल्ल्यो. घडये 'इंग्लीश मनीस' कडक आनी मितभाशणी असो जालो तो ह्याच काळांत घडलो आसूंये. सर्वसादारण मनशालागीं ताच्याच मताच्या म्हालवाजार वेंचून आयिल्लो भारतांतलो मंत्री जेन्ना तायट रावता, तेन्ना ताच्या बरेपणाचो दुबाव घेवपाची गरज ना. जोदपुरी कोटाच्या गोमाद गोलाक लागून ताची मान तायट उरता  आनी तकली न्हय थंय बागवना. हाचे उपरांत इंग्लंडांत विग म्हळ्यार केसांची चेंपीं घालपाचें युग आयलें. विलियम राजाच्या वेळार तर ह्या युगाची इतली भरभराट,  लंडनवासी बॉब विग घालून तांकांच काळ्या सेदाच्यो

पोतयो लांबयताले restoration युगांत हे फॅशनींन परमोच्य शीम गांठली. आदीं तीं विगां खांद्यामेरेन पावतालीं. मागीर इल्लो इल्लो तांचो आकार ल्हान जायत वचून निमाणे एक दीस तीं नाच जालीं. हांगासर विसाव्या शेकड्यांत तसलीं पूण मात्शीं वेगळे तरेचीं विगां आतां केंस नाशिल्ल्या तकल्यांचेर आसात.

पिडापीड करपी फॅशनीचें जल्मस्थळ म्हळ्यार फ्रांस. थंय सतराव्या शेंकड्यांत एक आगळीच फॅशन आसली. फ्रांसाच्या न्यायालयांत अत्यंत कठीण उतरां घालून ती नाका थंय वापरप आनी तीय अयोग्य अशा संदर्भात अशी फॅशन आयली. जंय साद्या उतरांनी काम भागता थंय नाका आशिल्ल्या उतारांनी उलोवपाची फॅशन सुरू जाली. देखून फ्रांसेज बायलो दातांक तोंडाक मोबिल समजूं लागल्यो. आनी हारशांत नाजुकसाण तोखेवपी जीनस मानूंक लागल्यो. फ्रांसाक जें काम उतरांनी घडटालें तें इंग्लंडाक कर्तुबांनी घड. शूर आनी धाडसी मोग्यांचें तें युग आसलें. chivalrons धाडसी सरदारांनी त्या वेळार युरोप काबीज केलें. सांचो पांझा आनी दो किवसोत हीं पात्रां सेर्वातीन घालून त्यावेळार लॉर्डांच्यो भगल्यो मारिल्ल्यो.

आर्विल्ल्या काळांत भोव करून फॅशनीच्यो कल्पना फिल्मी दुनियेंतल्यान भायर सरतात. फिल्मी नायक–नायिकांच्या नाका आशिल्लया भेसांत तरणांटे पिसावतात आनी तांची देख घेतात. वेग वेगळ्या शारांनी फॅशनीची भूक भागोवपाखातीर 'फॅशन शो' जातात. हांकां खर्चुय अतोनात जाता. हाँगकाँगाक जाल्लो हालींचो फॅशन शो जाचें नांव 'पांच पायांच्या देवचाराच्यो चार चाली' अशें दिल्लें. ताणे न्यूयॉर्क, पॅरिस आनी लंडन शारां गाजयलीं आनी तांकां चकित करून सोडलीं. अमेरिकेक हो शो तीन लाख डॉलर्सांक पडलो.

मनीस सबावांत वेगळेपणा विशींची ओड आसता. आनी जाका लागून जीवित मसालेदार घडटा, जंय दर एक गजाल नित्य बदलत वता. फॅशनची जी झुंडी पडटा तिका लागून ॲडिसनाक उद्‌गार आयले,' लोक जर एकेच तरेन वा पध्दतीन चलत रावले तर ती पध्दत केन्ना केन्ना तांकां सोडून दितली. जे परी बंद पडिल्ली घड्याळ बारा वरांत केन्ना तरी नक्की वेळ दाखयता.'

खंयच्याय देशाचो वेपार उद्योग फॅशनीक लागून तरतरता. पूण उदेंत युरोपाचो अणभव वेगळो. निळ्या झिनाची, अस्तंतेची ओड इतली वाडल्या,

युगोस्लेवियांत काळो बाजार वाडला. हालींच थंय कितल्या प्रमाणांत स्मगलींग चल्लां हें अधिकाऱ्यांचे नदरेक आयलां. इटली आनी युगोस्लोविया हांचे मर्दी व्हांवते न्हंयचेर घाल्ले धाञ्ज हीं जीनां धरलीं.

फॅशनीक बळी पडिल्ल्या समाजाकडसून फॅशन पुराय मोल फारीक करून घेता. लोक त्याग, अस्वस्थताय आनी पैसो फॅशनीक लागून मेजतात. फॅशनीच्यो समस्या उंचाय आनी वजन. उंचाय वाडची म्हुण दादल्या बायलांची सर्त. बायलांनी उंच तळाचे. बूट घालून हो प्रस्न सोडयलो. हे सर्तींत वांटो घेवपाक कितल्याशाच चलचित्रांनी देख दिल्या. हांतलीं चडशीं जाहिरातबाजी करून पैसो उकळटात ही वेगळी गजाल.

एकशिवडी बायल मनीस ही आयची फॅशन जाल्ल्यान कितल्याशाच बायलांक सुमाराभायर त्रास भोगतात. तीं बाबडीं डायेटच्या नांवार वेळार जेवी–खायनात आनी हाका लागून कमर बारीक जावंचे बदला तीं आपलीं भलायकी वगडावन बसल्यांत. बरीं बरीं पक्वान्नां खांवचीं सोडून तीं मोजक्या आहाराचेर रावतात. ही संन्याशाक लेगीत परवडापाची गजाल न्ही. तेराव्या शेंकड्यांत जेन्ना ही प्रथा आयली तेन्ना बायलो कमराक लांकडी सांचे घालून भोवूंक लागल्यो. हाडां चिड्डुल्ल्यान, त्या बाबड्यानी कितले सोंसलें कोण जाणा! फॅशन ही जशी एकाच जाग्यार कांय काळा उप्रांत घुवून पर्थुन येता, तशी ती एकेच सुवातेवेल्यान दुसरे सुवातीर वता. देखीक आमच्या बायलांची न्हेसणां णव वारीं कास घाल्लीं कापडां वचून स वारी साडयो येतसर मिनी मॅक्सीचोय पर्व काळ आमकांच पळोवंक मेळ्ळो. महाभारत रामायणांतल्या वेळावयल्योय बायलो साडयोच रेवडायतल्यो आसूंये., खणाच्यो चोळयो आमच्यो जाण्टेल्यो वापरताल्यो. आयज खणाची चोळी अत्यंत मॉडर्न चलयेक उठून दिसता आनी ती घडीभर फॅशन थरता. केन्ना केन्ना simplicity, साधेपण हीय फॅशन जाता. एकाच हाताक सगळीं कांकणा घालून दुसरो हात सुळसुळीत दवरप हीय फॅशन जांव येता. Beauty when most unclothed is clothed best. अशें Phineus fletcher म्हणटा. गोंयकार हिंदूनी तरांतरांच्यो तोपयो आनी किरिस्तावांनी तरांतरांचीं चेपीं पळेलीं आनी आयज उत्ती

मार्थी दवरचेलीय फॅशन रूढ जाल्या वा माथ्यार केंस नाशिल्ल्याच्या खडख्यार विगांय आयल्यांत.

Which is the not new and followed
yet we know
that what was worn
some twenty years ago
comes in to grace again.

Beumont आनी Fletcher prologue to the Noble gentleman हातूंत म्हण्टा, वीस वर्सांफाटीं पोन्नी जावन भायर मारिल्ली गजाल आयज पर्थून फॅशन म्हुण मिरयता.

कशेंय आसूं, खंयचीय फॅशन रूढ करपाक वा समाजांत घोळणुकेंत हाडपाक दादल्यांपरस बायलांचोच वांटो चड आसता हें मान्य करचेंच पडटलें. Mrs. Hellen Bell नांवाची लेखिका म्हण्टा,' बायलेक बरो भेस करतकच जी आत्मशांती मेळटा ती शांती तिका खंयचोच धर्म लेगीत दिवंक शकना.'

आतां खंयचो भेस कोणाक सोबता हें सांगप कठीण. कारण Beauty lies in the eyes of beholder सोबितकाय खंय पळेतल्याच्या दोळ्यांत आसता. पूण म्हगेले साठी हुंपलेले शेजान्नीक टायट झीन्स घालतकच म्हाका Ben Johnsonचो Apes Are Apes Though Clothed In Scarlet ह्या उतरांची  याद येता वा साद्या चेलीच्या चौकटीच्या व्हिस्तिदांत गोरें चली पळेल्लो बापोल आजो तसल्याच व्हिस्तीदांत आमच्यो चलयो पळेतकच 'हीं पयलीं जातीचींच माकडां' म्हुण तांच्यो भगल्यो मारतालो, ती याद जाता. देखून खंयचीय नवीन फॅशन थळकाळप्रमाण वातावरणांत योग्य अशीच  आसूंक जाय . गोंयचे सारकिल्ले हवेंत गीमाच्या रखरखीत उबाळांत, लग्नाच्या माटवांत जशे सुटबूटांत घामाच्यो दोडी व्हावोंवपी व्होंवळे सोबनात तशेंच फॅशनीच्या नांवार नखशिखांत भांगरान भरिल्ली सुशिक्षीत बायलमनीस दोळ्यांक खटकता आनी Aristotle च्या  orlando farioso ची याद करता.

□□□□

3.

# हातच्या कांकणाक हारसो नाका ?

हालींचीच खबर. नवीनच लग्न जाल्लो म्हगेलो सोयरो हनिमुनाक कन्याकुमारी गेल्लो. येतना वाटेर बँगलूर लागसर तांची बस लुटमारपी टोळयेन आडायली. ड्रायवराक पिस्तोल दाखोवन ते भितर घुसले आनी बसींत बशिल्ल्या बायलांच्यो आंगा खांदावेल्यो सगळ्यो वस्ती ताणी काडून घेतल्यो. म्हगेल्या सोयऱ्याचे बायलेचें तर मंगळसूत्र लेगीत काडलें. बसींतले एक बायलेन हातांतली कांकणां काडटना बरेच आडेवेडे घेतले खंय. तेदेवेळार त्या लुटारून तिका सुरी दाखयली. घोव बाबडे घळसणले आनी ताणी आपआपले लक्षीमीक गौरी करपाक मान्यता दिली. जीव आसल्यार सगळ्यो खबरो! लूट मारपी सगळे बुचाटून रानांतल्यान फरारी. उप्रांत पुलीस कंप्लेंट बी लोकशायींतले सगळे विधी जाले. पूण अजून फरारीय सांपडूंक ना आनी लुटिल्लें भांगारूय ना. नागवल्ल्यांक त्या राज्यांतल्या पुलीस स्टेशनार मर्दी मर्दी पावटी मारच्यो पडटात ही वेगळी गजाल.

पूण प्रश्न पडटा तो असो , हो प्रकार घडलो कित्याक? बायलांक जो हिसपाभायर भांगरा वस्तींचो सोंस असता, ताका लागून बायलां आनी अलंकार हांकां दोशी करूं नजो. इडलीं सांबारा भशेन इडलेक सांबार वा चटणी जायच. एकाचें दुसऱ्याबगर जायच ना. एकल्याच्यान दुसऱ्याबगर कशेंच रावूं नज. कांय बायलां आपलो घोव लेगीत दीत पूण वस्ती वा भांगर कशेंच सोडचींनात. दर अलंकार त्या दिसाची वाट पळेत आसता. ज्या दिसा तो खयंचे तरी बायलेक कानांत, नाकांत, गळ्यांत, नाच जाल्यार केसांत वचून तिका सजोवंचेली वाट पळेत आसता. Beauty unadorned is adorned most अशी इंग्लेशीत एक म्हणणी

आसा. बायलमनीस जितली उणी  शृंगार करता तितली ती चड सोबित दिसता खंय. पूण हे म्हणणे वेळार ग्रॅज्युएट बायलेक लेगीत इंग्लेज कळना. ही म्हणणी कोणा तरी प्रेमविरान जाका मोगान भरिल्लें काळीज आशिल्लें, पूण बॉल्स  रिकामे, अशा ब्रिटीश प्रेमविरान घडयिल्ली आसूंक जाय. बायलांक तूंच म्हजें भांगर, वा `तूं सोडून म्हाका दुसरें वज्र नाका' अशे दादल्यान  म्हणल्यार बरें दिसता पूण पोक्या उतरांपरस तांकां भरीव अशें  कितें तरी जायच. वस्ती आंगार घालतकच तांच्या घोवांचो वा तांच्या प्रियकरांचो क्रॅडिट वाडटा. तांचेखातीर तांकां ते अलंकार नाका. पूण तांच्या घोवाखातीर  वा प्रियकराखातीर जाय .

एक फावट नखशिखांत वस्तींनी भरिल्ले बायलेक पळोवन दुसरेन म्हळें.' खरें सांगूं, तू आज सुंदर दिसता खरी, पूण वज्राच्यो वेडी म्हणटात त्यो दिसाच्यो घालीनात'. हे आयकून तितल्याच   आर्जवान तिणे जाप दिली. ' म्हजे लाग्गीं नाशिल्ल्यो तेन्ना म्हाकाय तशेंच दिसतालें'. सगळ्याच बायलांक भांगर आवडटा अशें न्हय अवघींच आसात जांकां भांगर आवडना. तांकां वज्रां आवडटात. भांगर वा जडजवाहर आमच्या रगतांतूच आसा. आमचे वेद, उपनिशदां, कथा, काणयो, राजे-राजवाडे हांतूंत सगळे कडेन जडजवाहारांची तरेकवार वर्णनां वाचूंक मेळटात. सांकेतिक नदरेनूय वेद- उपनिशदांतआमकां भांगराच्योच खबरो मेळटात. आत्मज्ञान लेगीत भांगाराच्या कंरडांत धापिल्लें आसता खंय. 'हिरण्यमय पात्रेंन'- पूण हें सगळें वाचूंक गेल्यार भांगर जोडूंक वा चोरूंक वेळ मेळना म्हुण आमी तें वाचीनात. देखुनूच दादलो निर्बुंध्द  लेगीत आसल्यार जाता. पूण ताणे बायलेक नखशिखांत भांगरान भरली म्हण्टकच तिकाय 'आत्मज्ञान' प्राप्त जाता.

एक फावट एके ड्रायव्हर बायलमनशेन, बायल आनी 'ड्रायव्हर' म्हळ्यार कानाक कितेंशेंच दिसता. पूण तांका जाय आशिल्लो जिनस घरांत हाडलोना जाल्यार तीं घोवांक जाय थंय ड्रायव्हर म्हण धांवडायनात? पूण हागां ड्रायव्हर म्हळ्यार ती तसली बायल न्हय.

धाकटी मोटार चलोवपी एके बायलमनशेन एकदां दुसरे एके बायलेक रस्त्यार उड्यली आनी तिका थंयच सोडून पळ्ळी. पुलीस आयले आनी ताणीं तिचेकडेन वासपूस केली. तुवें ते मोटाराची नंबर प्लेट पळेल्या? आवय देवा करीत

बायलेन जाप दिली. 'ना. पूण ती बायलमनीस पांचवी साडी न्हेशिल्ली, मॅचिंग ब्लावज घाल्लो, कानाक वज्रावेंडी, आनी गळ्यांत एकोडी सरपळी आशिल्ली. ती दिसली जाल्यार आपुण तिका वळखूंक शकता.' अशें तिणें मुखार म्हळें. पुलीस चकीत जाले. बायलांक इतली शृंगाराची ओड.

गोंयचे मुक्ती आदीं आमचीं दारां तिनूय त्रिकाळ उक्तीं आसतालीं. जनेलांक ग्रिलस् वा वारांव नासताले. भाडेल्याच्या माथ्यार एखादी पोटली दिल्यार, दिवपी निर्धास्त आसतालो. पूण भाडेल तांका स्टँडार सोदीत भोंवतालें.

आयज गोंय बदलता. बँकाचे लॉकर्स वाडल्या. भांगर वा अंलकार दवरपाखातीर नव्यो सुवाती जाल्या. देखून लग्ना–कारणांक बायलांनी आंगार वस्ती घालच्यो कांय ना हें थारावंक बायलां समर्थ आसात.

□□□□

4.

# तितलेच सोंशिकसाणेन

आमच्या जिवितांत आमकां जाय जांव नाका जांव, खिणाखिणांक अपमान सोंसचे पडटात. देखीक तिकेट काडून बसीन भोंवतल्यांक, पणजे सारकिल्या सुदारलेल्या शारांत लेगीत निष्कारण कंडक्टराकडसून नाका आशिल्ले थोमणे आनी धेंगशे आयकुंचे पडटात. दोनूय दारांतल्यान पॅसेंजर भितर सरतात आनी दर स्टॉपार पावतकच, 'फुडें सर फाटीं सर ' हें पालुपद चालूच असता. कंडक्टराच्या धेंगशाक प्रवाशाकडसून जाय तसो प्रतिसाद मेळ्ळोना जाल्यार ताचो भेस , ताची पिराय, तागेलें समाजांतलें स्थान, कितेंय आसूं ताका, 'आरे तुरे' चे भाशेन कसलोय कळींद्री किलिंडर कडकडायता. तें पळेत जाल्यार ' खंय म्हुण झगडत बसतलों? ' अशें सोंशिक गोंयकाराक दिसलेबगर रावना.

कांय वेळार अपमानाक कारण आसूं येता. तें कारण मागीर खरें आसूं वा नासूं.कालचीच खबर . आमच्या ऑफिसातलें सदांच ऑफिसकामांत म्हाका केद्याय वेळार सहकार्य दिवपी चली, हावें एक किरकोळ गजाल सांगली जाल्यार, म्हाका आतां फावना म्हणूंकलागलें. तें सांगतना ताची नुराय बदलेलेली आनी राग ताच्या नाकार दिसतालो. वासपूस केल्याअंती हांवे ताचेविशीं वरिश्टांक तक्रार केल्या म्हणपाचो ताचो गैरसमज जाल्लो. तो गैरसमज काडूंक अजून मेरेन हांव पावूंकना ही वेगळी गजाल. हो अपमान हावें सोंसलो पूण मनांत मात विलक्षण बेचैनी जाल्ली. पूण आज हांव उलोवंक सोदतां तो असल्या अपमानाविशीं न्हय. अपमान करपाची वा तो झेलपाची एक कला आसता. इंग्लेजींत अपमान म्हळ्यार Insult हें उतर लॅटिन' insultair ' ह्या उतरावेल्यान आयलां. हाचो अर्थ सट करून स्प्रिंग

सुट्टा तशी कोणाचेर वा कोणाकडें सुटप. आमी असल्या जंगली लोकांविशीं उलयनात. आमी तांकां मनीस जातींतल्यान  घडीभर कुशीक दवरूंया. आमची जिज्ञासा, समाजिक देवघेव चलताना, बुदवंत  मनीस कशे तरेन चिमटे काडटात वा कुटले मारतात आनी मर्मिक मनीस ते कशे सहज झेलतात वा परतीतात ते पळोवपाचें. Methodist चो  प्रवर्तक चार्लिश व्हेसले,एका  फुटपाथाचेर गर्गेत दुसऱ्या एका मनशाक मेळ्ळो आनी वाट काडूंक लागलो. ताणे म्हळें, 'मुर्खाक हांव वाट दिना' व्हेसलेन तितल्याच थंडपणान सांगलें' हय, पूण हांव दितां न्हय? तुमच्यां नी वचूं येता'.

एक खेपे एके बागेंत फिरूंक वतना एका  जाड्या मनशाकडेन बाबागाडयेंत एक भुरगें आशिल्लें. ताका पळोवन एकल्यान विचारलें 'हें भुरगें तुगेलें? ' ताणे जाप दिली. 'ना शेजाऱ्यालें  उश्णें हाडलां.' रोखडोच ताणे थोमणो  मारलो. ' कितलें कुरूप न्हय?' जाण्टेलो शेळेलो, आनी दांत ओठ चाबीत चलूंक लागलो.

केन्ना केन्नाय आमी उलयताना आमचे जिबेक सुवाद उरना. एकदां एक बापूय आपली धूव घरा परतूंकना म्हुण रागान फणफणटालो. इतल्यान धूव घरा आयली. बापायन म्हळें, 'ये  देवचाराचे धुवे, तूं खंय गेल्लीं?' तिणें  म्हळें  'sorry father  पापा माफ कर'. बापाक खंय खबर आपुणूच देंवचार म्हुण. Lady Nancy Astor हिची जीब ल्हाय कशी चाळवली. एक दीस Vinston Churchil बरोबर कॉफी घेतना  तिणे म्हळें, ' तूं जर म्हजो घोव जाल्लो, तर हे कॉफयेंत तुका वीख घालून दिवपाचीं'. चर्चिलान रोखडीच थंडसाणेन जाप दिली,' नेन्सी हांव तुजो घोव आशिल्लों जाल्यार तें वीख म्हाका घेवचेंच पडटलें आशिल्लें' उप्रांत Lady Nancy फार्मासीत गेली काय कितें तें खबर ना.

तिडकीक लागूनच अस्वस्थताय येता अशें न्हय. अंहकाराक लागुनूय ती येवं येता. William Wordsworth एके सांजे Charles Lamb कडेन झगडटालो. तो म्हणूक लागलो. If I had a mind, I could write like Shakespear. हावें येवजिल्ले जाल्यार  शेक्सपीयरावरींच हांव बरयतलों आशिल्लों',  'हय येवजुपाचोच अभाव तो',  लँबान  तिडकिन  जाप दिली. हे गजालींत Lamb फक्त आपलीच

defence करीनासलो पूण Wordsworth आनी Lamb ह्या दोगांय लेखकांपरस व्हड आशिल्ल्या बरप्याची नामना सांबाळटालो.

साहित्यिकांविशीं उलयतलों जाल्यार ऑसेर वायल्ड हो केवळ विनोदीच न्हय तर बरोच अंहकारी आशिल्लो. अमेरिकेंत गेल्लेकडेन ताका कस्टमाचेर विचारलें 'तुजेलागीं कस्टम पडसारकें कितें आसा?' 'म्हजो genius, म्हळ्यार म्हजी बुदवंतकाय सोडून कितेंच ना', अशी सणसणीत जाप वायल्डान दिली. वायल्डाचे विरोधक तो लोकांचे विनोद चोरता म्हणटाले. एका प्रंसगार कोणे एकल्यान ताचेर कोटी करतकच ही कोटी हावेंशी करूंक जाय आसली अशे उद्गार काडले. Games Wistler ह्या चित्रकारान वायल्डाक धीर दिलो आनी म्हळें. 'Oscar तुजेकडसून जातली आं असली कोटी'. Sidney Smith हाणें एकदां एक मुद्दो मांडून एकल्याक शेणयलो. तो शेणिल्लो मनीस तापलो आनी म्हणूं लागलो, 'म्हगेर मूर्ख पूत आशिल्लो जाल्यार हांव ताका मनीस करपाचो. पूण तुजो बापूय वेगळ्या मताचो आशिल्लो `Sidney Smith न` आपल्याचेर आयिल्लें परतिलें.

फ्रँच तत्वज्ञानी voltair हाणें एकदां आपल्या मित्राची तुस्त केली. आयकतल्यान म्हळें, 'तुजें व्हडपण. तो हरशी तुजें तासता. अशें आसून तूं ताची तुस्त करता?' ' घडये आमी दोगूय चुकता जांवक जाय, ' व्होल्तेरान जाप दिली.

□□□□

5.

# द्रश्टो गोंयकार

**फाटीं** भारताच्यो प्रधानमंत्री श्रीमती इंदिरा गांधी गोंयांत दोन दिसांची भेट दिवन गेल्यो. ती येतली, येतली म्हणपाचें पयली गाजिल्लें. अकस्मात रशियाचो नेतो ब्रेझनेव्ह संवसाराक अंतरलो. म्हण्टकच तिका रशियाक वचचें पडलें. थंय पावतकच भारतांतलो संतश्रेश्ट विनोबा भावे हाणीं आपली संवसारिक कूड सोडली म्हुण तिका कळटकच रशियाचो दौरो अर्धार उडोवन ती थेट पवनार पावली.

गोंयांत ती खरेपणीं कित्याक आयिल्ली हें तिका सोडून हेरशीं कोणाकूच खबर नाशिल्लें. गोंयच्या सरकाराक लेगीत सारकें खबर नाशिल्लें अशेंच म्हणचें पडटा. आपुण सरकारी कामाक आयल्यां म्हणपाचे उद्‌गार तिणें जाहीर सभेंत काडले.

सरकाराक लेगीत सारकें कळूंक नाशिल्लें म्हणपाक कारण आसा. म्हादय प्रकल्पाचो बुन्यादी फातर तिचे हस्तुकीं जांवचो आसलो आनी ते खातीर सरकारान आमंत्रणांय दिल्लीं. पूण ऐन त्यावेळार तोय बेत रद्द जालो. दुसरें, प्रेस कॉन्फरन्स आदीं थारूंक नासलें. तेंय आयत्या वेळार जालें . ती पोन्न्या गोंयां वताली म्हणपाचेंय आमकां खबर नाशिल्लें.

कशेंय आसूं, ती येवन वतकच म्हाका मेळिल्ल्या गोंयकाराक ती कित्याक आयिल्ली ही खबर म्हयनोभर पयलीं कळिल्ली खंय. दुसऱ्या वर्सा राष्टकुलांतले साबार देशांतले फुडारी येवंचे आसले. तांकां आलाशिऱ्याची एक सुवात जाय आनी ती गोंयचें नंदनवन जांव येता. ही सुवात कितली सोयिस्कर हें प्रत्यक्ष पळोवन अणभव घेवपाक प्रधानमंत्री आयिल्ली म्हणपाची सुलूस म्हज्या गोंयकार इश्टाक तिचेय पयलीं लागिल्ली अशें सांगल्यार इल्लीय अतिताय जांवची ना.

खंयचीय गजाल घडल्याउप्रांत ती म्हाका पयलींच खबर आशिल्ली वा हांव तें जाणाच आशिल्लों वा हावें तुका सांगू नाशिल्लें? असले प्रस्न विचारपी आमच्यांत जायते जाण आसात. घडये चडशा गोंयकारांचो तो एक सभावविशेश. गोंयचे मुक्ती वेळार भारत सरकारान गोंयचे सरादी भोंवतणी गोंयच्या आड घाल्ली नाकेबंदी म्हळ्यार एके तरेचे बळग्याचो देखाव show of strength. पूण सैन्य गोंयात भितर केन्ना सरतलें म्हणपाचें मात कोणाक खबर नाशिल्लें. खासा पंतप्रधान जवाहरलाल नेहरूंक लेगीत. त्या वेळार संरक्षण मंत्री कृष्ण मेनन हांकां एकल्याकूच खबर आशिल्लें. त्या प्रमाण ताणीं सैन्याक आदेश दिलो आनी नेहरूंची भेट घेतली. थंयच तांकां Galbreith अमेरिकेचे अंबेसेडर मेळले. गॅल्ब्रेथ हाणी नेहरूंची मानधरणी केली आनी गोंयचो प्रस्न अमेरिकेचे मध्यस्थीन सामंजस्यान सुटटा जाल्यार पळोवया म्हुण खटपट केली. कृष्ण मेनन हाणीं गॅल्ब्रेथाक सांगले, 'You are late Mr. Galbreith-गॅल्ब्रेथ तुमकां मात्सो उशीर जालो. भारतीय सैन्य गोंयांत घुसलें'. नेहरूंक लेगीत अजाप जालें जांवक जाय. आनी आमी सगळे मुक्तीचे नारे आयकूंक आतूर जाले.

पूण मुंबयंतल्या खंयच्याय गोंयकार फुडाऱ्याक विचारल्यार 'हांव जाणाच आशिल्लों सतरा डिसेंमबराक रातीकडेन सैन्य घुसतलें म्हणून,' वा ' हांवें तुका सांगू नाशिल्लें?' वा' हांवे नेहरूकय सांगिल्लेंच.' जशें काय हो सांगता तितलेंय नेहरू आयकतालो.

गोंयकारांचो हो सभावविशेश नेहरूकूय खबर आशिल्लो जांवक जाय. देखून ताणे म्हळ्ळें ' अजीब है ये गोवा के लोग ! ' खऱ्यानीच गोंयकार अजापाचे ! पूण गोंयकारासारको भारतीय दुसरे कडेन खंय आसा काय?

□□□□

## 6.

# बंदिस्त देव

हांव पुजेक बशिल्लों. गंधफूल निकतेंच घाल्लें. इतल्यान देवाऱ्या फाटल्यान अकस्मात एका बुकल्यात उडी मारली आनी एका हुंदरा पिलाक धरलें.पुजेंत मग्न आसतानाच ही साक्षात हत्या म्हाका पळोंवची पडली. आनी देवाचे कुडींत घडटा तितलेंय अनवाळें म्हणपाचें समाधान हांवें मानून घेतलें. कोनशाक एका भाणांत अनवाळी आमटाण आशिल्ली. ती कोणे कल्लायली देवाक खबर! पूण देवाचे कुडींत दवरतकच ती अनवाळी उरता असो जाण्टयांचो समज. हांवे बुकल्याक थंयसून धांवडायला पूण हे घडणुके उप्रांत म्हज्या चित्ताची एकाग्रता भंगली. आनी ' देवळां मेकळी करात' ही हालींच गोयांत जी चळवळ चल्ल्या, ते चळवळींकडे लक्ष खेंचलें.

तशें पळोंवक गेल्यार देवळां मेकळींच आसता. देव मात देवाऱ्यांत बंदिस्त आसतात. अशेंय आसून तांचें दर्शन घेतल्या भाविकांक आडखळ ना. पूण हे चळवळी फाटलो हेतू म्हळ्यार देवळाच्या प्रशासनांत जांकां आतामेरेन अधिकार ना तांकां मेळोवन दिवपाचो . तशेंच जाती भेदाक लागून जांका जातीन देवकृत्य करूंक जाय अशें दिसता तांकां तो मेळोवन दिवपाचो.

हेतू शुध्द आसा. चळवळीक रूप येतलें तसो तसो हेतू स्पष्ट जातलो. गोयांत जी देवळां आसात , तीं काय देवळां केवळ ग्रामस्थांची म्हळ्यार गांवात रावतल्या हिन्दूंचीं. दुसरीं देवळां विशिष्ट जातींची आनी अशींय आसूं येता, जांच्या प्रशासनात ग्रामस्थ येतात आनी त्या भायर विशिष्ट जातीचे वा गोत्राचे लोक आसतात. शांतादुर्गेचें देवूळ मूळ कुमारजुवेंचें . हें तूर्ताक माशेंलात आसा.

ही ग्रामदेवी शिगम्याक दर वर्सा आपल्या गांवांत वता. चारपांच दीस व्हडा उमेदीन उत्सव जाता आनी गांवचो सगळो लोक तिका आपापल्या घरांत व्हरून भेट घेवन सांगणे बी करतात. पूण ह्या देवळाचे घटनेंत एक त्रुटी आसा. ही घटना घडल्या त्या वेळार घडीभर परिस्थितीय तशी आशिल्ली जांव येता. पूण आज काळ बदलला आनी कालानुरूप घटनेंत बदल करपाची तयारी थंयच्या ग्रामस्थ म्हाजनानी दाखयल्या, ही उचित गजाल. हे गजालीक लागून गांवात सामंजस्य वाडटलें. उत्सवाक उमेद येतली आनी सामाजीक संघर्ष उणो जातलो अशें दिसता. गावांत एक तरेचें नवें चैतन्य फुलतलें म्हणपाची आस्त. अर्थात हें सगळें सुरळीत जातलें अशेंच म्हणू नजो. थोडे भोव ह्या मताच्या विरूध्दय आसतले पूण खंयचेय बरे गजालीक इल्लोसो विरोधय जाय.

बुदवतांनी एक गजाल मतींत धरूक जाय, ती म्हळ्यार तांटात शेणलें कितें, आनी वाटयेंत शेणलें कितें, निमाणे पोटांत वचपाचेंच . बुदवंतांनी कृष्णार्पण म्हणून मेकळे जावपाचे. त्या भायर धर्माकडेन पळोवपाची आयची नदर वेगळी. आयज धर्म व्यक्तिनिष्ट जाला. घोव हिंदू , बायल किरिस्तांव जाल्यार भुरगीं बुध्द जांव येता. आदल्या काळांत अशें नाशिल्लें. वर्णाश्रमान हिंदू धर्म बांदिल्लो. वर्णाश्रमाच्यो भगल्यो जातीवादांत जाल्यो आनी आमी हरिजनांक सामकेच कुशींन उडयले. परिणामी तेय बुध्द जाले.

आमकां जाती लागतात. पूण देवाची जात खंयची हें अजून कळूंक ना. आमचो देव आमचे वरीच आसूं जाय. Etheopian Gods have Etheopian lips while Greek Gods have Greek cheeks. येथिओपियांच्या देवांचे येथिओपियांवरीच ओंठ आनी ग्रेंगांच्या देवांचें पोलेय ग्रेग लोकांवरीच. देखून आमी आमच्या देवांकूच जातीवादाच्या बंदवासांतल्यान सोडोवंया आनी टागोरानी म्हणिल्लेवरीं, 'शूचि करो मन' हे श्रध्देन शुध्दमनान आमी देवळांनी वचूंया.

□□□□

# 7.

# नरसोबाची वाडी

**म्ह**जो बापोलयो भायर पडलो त्या वेळार गोयांभायर भारतांत भोविल्लों असो घरांत हांवूच . म्हण्टकच तांगेल्या अस्थि विसर्जनाचें काम म्हजेर पडलें. थारिल्ल्या दिसा त्या अस्तींचो तांबयो घेवन हांव नरसोबावाडी गेलों. आमच्या पुरयतान म्हाका मंत्र बरोवन दिल्लो आनी थंयच्या कोणा एका भटाचो पालव घेंवक सांगिल्लें.

हांव नरसोबावाडी बस स्टँडार पावलां मात, म्हाका कितल्याशाच भटांनी गराडो घालो. तांतलो एकलो चड लापीट. ताणे म्हजें नाव विचारलें, गोत्र विचारलें. हांवें सांगलें, हांव भांडारी, गोंयचो, भारव्दाज गोत्री . ताणे म्हळें आपुणूच तुमचो पुरयत, इतलेंच न्हय तर तुमचो गोंयचो मुखेलमंत्री लेगीत आमचोच म्हाजन. इतलेंच न्हय, हालींच तो येवन गेला म्हणपाची पुश्टी जोडली. हांवे मनांत म्हळें तोच आमचो खरो पुरयत, कित्याक तर 'गोंयचें आनी गोंयकारांचें' हीत ताच्याच हातांत आशिल्लें. हांव त्या भटाक सामको वळखल्लों. देखून आडेवेडे घेनासताना हांवे म्हजो येवपाचो उद्देश सांगलो आनी तांकां म्हळें, 'हांव दनपारां, जेवण तुगेरूच जेवतलों. दक्षणा सांग. '

'जेवण घेतलो जाल्यार पंचवीस, जेवचो ना जाल्यार वीस', ताणे म्हळें. 'बरें आसा' अशें म्हणून हांव ताच्या फाटोफाट न्हंयेंत देवलों. हांवे हाडिल्लो तांबयो तो सांगता थंय न्हंयेत बुडोवन, न्हावन धुवन वयर सरलों आनी देवाक नमस्कार केलो.

त्या भटान सांगिल्ल्याप्रमाण आपले घरचे पडवेंत म्हाका वाडलो आनी जेवण जातकच म्हज्या मुखार शेण हाडून उडयलें. सुरवेक हांव मात्सो गडबडलों. उप्रांत

उठलों, आंवलो आनी ताका विचारलें, 'हें  कितें?' ताणे सांगलें, ' हें शेण– तुवें तुजें उश्टे काडचें म्हुण दवरलां. ' हांवे विचारलें – 'तूं आमचो पुरयत न्हय गा?  त्या भायर हांव उश्टें काडूंक लजना. पूण तुवें जेवण विकलां.म्हण्टकच उश्टें काडपाची  सोय तुवेंच करूंक जाय. ' तो मात्सो हिरमुसलो. पूण म्हजेकडसून दक्षणा पडपाची आशिल्ल्यान ताचो निरूपाय जालो.

हांव परतताना मात म्हजें विचारचक्र सुरू जालें. आमी आमच्या घरांत अशेंच वागताले. ऑर्डर दिवपाच्यो कुरवो तशेंच कोपांय वेगळीं असतालीं. एक च्या सफेत वा एक फॅन्सी अशी मनीस पळोवन ऑर्डर दिताले. आयज काळ बदलला. गोंय मुक्त जालां. भारतीय सर्वधर्म समभावी संविधान आमी मानून घेतलां. आनी संविधानान आमकां बांदून घेतल्या . पूण आमच्या काळजांतलो जातीभेद गेलो व्हय तर? गोंयांतूच कित्याक? हेर भारतांत लेगीत  कितें घडटा?  उज्या–गाडयेंत भोंवतले तिकेट  आशिल्ले प्रवासी  संडासाकडे पायणीत गजमुड्डी  करून उबे रावतात. अशा वेळार सुटांबुटांतले बिनतिकेट प्रवासी सामान दवरपाच्या बर्थाचेर सुस्त घोरेल्ले आमी पळेतात. आमचें दायज  खूब व्हडलें  आनी धर्माविशीं उलयत तितलें थोडें. पूण मनशाची प्रतिष्ठा आमी सांबाळ्ळ्या?

□□□□

## 8.

# बंडलां

**आ**पलें उणेपण लिपोवन, आत्मविश्वासाचो देखाव करून फटवप वा फटोवंक सोदप म्हळ्यार बंडल मारप. कोंकणीत हे कळेक जायतीं उतरां आसात. तेफळां मारप वा फटास फोडप, बोकडे मारप वा पटे वांवडप, अशेय वाक्प्रचार आमी वापरतात. बंडल मारपी बंडलीस्त खडबडीत आनी उक्तें उलोवपी म्हळ्यार स्पष्टवक्तोय आसूं येता.

हांव भुरगेपणांत बंडलां मारीनासलों. त्या तेपार अवघेच जाण बंडलां मारताले. ते दीस सादेपणान रावून उण्यांत उणे येवजुचेलें आसताले. तेदेवेळार ही कला हांव नकळों अशिल्ल्यान म्हाकाय ताचें मोल दिवचें पडलां. पूण फाटल्या चाळीस वर्सांक हांवे म्हगेल्या इश्टांक पळेल्या आनी तांचेचवरी हांव लेगीत तरा तरांची स्टायल काडून बंडलां मारूंक शिकलां. म्हाका पयलेच खेपेची याद जाता. हावें एके गजालीचें वर्णन करताना पध्दतशीर कसो पटो मारलो तो. त्या वेळार म्हाकाच तें भौन भौन खांवक लागलें. पूण मागीर बंडलां इतलीं आंगवळणी पडटात, ताचो सुवेर–सुतक उरना. देखून बंडल स्वेच्छेन मारलें कितें वा परिस्थितीनुसार मारलें कितें, भेरावल्ले कुडीक तें व्हडलेशें बादना.

म्हज्या जिवीताचो चडसो वांटो गोंयाभायर मुंबै, पुणे, कलकत्ता बी असल्या शारांत गेलो. त्या शारांनी हांवे एक गजाल पळेली ती म्हळ्यार ही बंडलाची कला थंय बरीच फुलल्या. तिचें तंत्रज्ञान वाडलां . क्वचित कोणूय खरें उलयता. खंयच्याय ऑफिसांत हाचो दिसपट्टों नमुनो म्हळ्यार 'सायब अशें अशें सांगता' करून सुरवात जावप. अर्थांत खरें फट विचारूंक सायबाकडेन सगळेच पावनात. बंडल मारपीय पाविल्लो नासता ही वेगळी गजाल.

एकदां एका कॉलेजच्या गॅदरिंगाक एक नाटक चलतालें. हांव त्या नाटकाक अर्धार पावलों म्हजींच कांय वाक्यां म्हज्या कानार पडलीं. नाटकुलें हांवेच एका इंग्लेज नाटकाचें कोंकणींत adaptation केल्लें म्हणपाची याद जाली. उप्रांत पळेतां पळेतां सामकी खात्री जाली. नाटकाचे सुरवेक कितें announcement जाल्लो तो हांव नकळ पूण काबार जातकच चक्क पैकीं ..... सगळ्या पात्रांची बी नांवा सांगून जातकच, ह्या नाटकाचो लेखक तेच कॉलेजींतलो प्रॉफेसर अमको तमको म्हुण आयकूंक आयलें. नाटक सोंपतकच स्टेजीर वचून त्या प्रोफेसराचो हात हालोवन हांवें ताका परबीं दिलीं. तो नव्हर्स जाल्लो. पूण नर्व्हसनेस लिपोवपाची नाट ताका सांपडलेली.

आतां कोणूय त्या नाटकाची प्रत म्हजेलागीं मागुंक आयल्यार हांव मागतल्याक थेट त्या प्रोफेसरागेर धाडटां. प्रोफेसराकूय दोन फितां चडटा आनी भुरग्यांचेंय काम जाता.

आयज जिवीत चड घुस्पागोंदळाचें जालां देखून खरें उलोवप घडये म्हारग पडूं येता. वेळ मारून व्हरपाक थोडीशी प्रौढीच मारची पडटा, पूण सर्वसादारण बंडलीस्त आपूण आसा ताचेपरस मात्सो व्हड दाखोवपाचोच यत्न करता. आनी ताचे कालेती प्रमाण तो बंडल मारता. देखीक – 'ताणे धाव्या वर्साचेर मॅट्रीक केली वा पुस्तक वाचीनासताना परिक्षेक बसलो आनी फर्स्ट क्लासांत आयलो'. काय जाणांक अशें घडचे शें दिसता. पूण तशें वेव्हांरात घडना. नेमकें तेंच ते विळख्या विळख्यांनी सांगत आसतात.

हालींच हांव म्हज्या एका इश्टागेर गेल्लों. ताणे च्या आनी चिवडो दिलो. चिवडो खावपाक ताणें आग्रो केलो आनी म्हळें, 'हो चिवडो आमश्र्याचे बायलेन केला. तागेलो हो अमको एक मिनेर'. आतां मिनेराचे बायलेन चिवडो करून हाका धाडला म्हण्टकच बशिल्ले बसकेर हाचेंआनी मिनेराचें नातें आसचें पडलें ना? आनी तेंय घरगुती. पूण इतल्यान तागेलें ल्हान चली आयलें आनी सांगूंक लागले, 'बाबा, हो तो न्हय, हो काल पणजेसून हाडिल्लो !' जालेंना, सगळे मुसळ कोयरांत.

भुरग्यांक बंडल लेगीत मारूंक कळना.फटी उलोवंक तर येचना. बंडल मारप आनी फटी उलोवप एक न्हय. थोड्यांक फटी उलोवपाक कारण लेगीत लागना. पूण

खरें उलयत जाल्यार न्हीद लेगीत पडना. Conveying a wrong perceived impression is not bluffing; But conveying an impression wrongly is bluffing.

आमच्या मनाचेर जो चुकीचो परिणाम जाल्लो आसता तो सांगप म्हळ्यार बंडल न्हय. परिणाम चुकोवन सांगप. म्हळ्यार बंडल मारतल्याक बंडलांची सवंय इतली जाता, तांतलो खंयचो वांटो खरो आनी खंयचो फट हें ताचे ताकाच कळना. घडये अत्यंत सुदारिल्ल्या अशा Electronic data processing system हांतूंत बी तें साध्य जायत.

एकदां हांव म्हज्या इश्टागेर गेल्लों. रातचे तांगेले घरकान्नीच्या पोटांत जांवक लांगलें. हांवे आरमार सोदली आनी म्हाकाय medicine कळटा अशें दाखोवपाक तिका टॉनिकाची एक गुळी दिली. तिणे भावार्थान ती घेतली आनी तिगेल्या पोटांतलें थांबलें. दुसऱ्या दिसा च्या घेवंक बशिल्लेकडेन आमच्यो दोतोरांचेरूच खबरो जाल्यो. हांवें रातीं ताचे घरकान्नीक कशें बंडल मारलें तेंय सांगलें. तीय म्हजेपरस चलाख. ती रोखडीच गेली आनी गुठालावन तशा तशी दवरलेली ती गुळी हाडून आपणे ती घेवंकना, वेल्यान म्हाकाच फटयलो म्हणपाचें सिध्द केलें.

कशेंय आसूं, बंडलां जातलीं जाल्यार तीं Indian penal code त घालचीं पडटलीं आनी तांच्यो जाती करच्यो पडटल्यो.

□□□□

9.

# दूरदर्शन

**नो**वेंबराचे 19 तारखेसान गोंयांत दूरदर्शन सुरू जालें आनी दिल्लींत चालू अशिल्लो आशियाई खेळ गोंयकारांक पळोवंक मेळ्ळो. दूरदर्शन वा टेलेव्हीजनच्या मळार भोव करून रंगीत दूरदर्शनाची फाटल्या तीस-चाळीस वर्सांत बरीच प्रगती जाल्या आनी म्हायती प्रसारणांत नवी दिशा मेळ्ळया.

ह्या संबंधान मात्शी इतिहासाचेर नदर मारूंक जाय आनी तंत्रज्ञान आमकां खंय पावयता तें पळोंवक जाय. जानेर 1884 वर्सा Paul Nibkow नांवाच्या जर्मन मनशान पेटंट न. 30105 सोदून काडलो आनी ताका Electrica telescope अशें नांव दिलें. चाळीस वर्सां उप्रांत ह्या पेटंटावरवीं आयच्या दूरदर्शनाचो विकास जालो. 1911 त Swinton नांवाच्या शास्त्रज्ञान पयलेच फावट Complete Electonic Telivision दाखयलें. पूण 1934 वर्सा 1 एप्रिलाक ,जर्मन पोस्ट ऑफिसांत 180 लायन्, 25 चित्रां 0.5 MHZ. band चे दूरदर्शन प्रत्यक्ष दाखयलें. तेन्ना ताका High Definition Television म्हण्टाले. बर्लिन शारांत जाल्लो Olympic खेळ 1136 त पयलो 180 लायन्स 25 पिक्चरचो दूरदर्शन प्रयोग जालो.

त्या उप्रांत अमेरिका आनी युरोपांत ह्या प्रयोगांचो पध्दतशीर विकास जावन Black and white ट्रान्समीशनाक राष्ट्रीय स्टॅन्डर्ड्स प्राप्त जालें. देखीक ब्रिटीश शारांत तेदेवेळार सगळ्या सुवातीनी रंगीत दूरदर्शनाक सुरवात जाली. फ्रांसाक आनी जर्मनीक 1963 त सुरवात जाली. ह्या वेगवेगळ्या पध्दतींक SECAM म्हणटात जाल्यार जर्मन पध्दतीक PAL अशे नांव आसा. Federal Republic of

Germany न आपलें रंगीत Transmission 25 ऑगस्ट 1963 वर्सा बर्लिन शारांत जाल्ल्या International Radio प्रदर्शनांत सुरू केलें. भारतांत एक मात्शीशी विचित्र गजाल घडल्या. ती म्हळ्यार आमी Black and white telivision सुरू करतां तेन्ना युरोप अमेरिकेंत ही पध्दत काळाभायली जाता, आनी आमी जेन्ना रंगीत दूरदर्शंन पध्दतीक हात घालतां, तेन्ना विकसीत राष्ट्रां आपापले पध्दतींत तशेंच Transmission प्रयोगांत पुराय बदल घडोवंक सोदतात.

रंगीत दूरदर्शनांत मुखेल रंग म्हळ्यार तांबडो, पांचवो आनी निळो. कांय तज्ञांच्या मनांत धा वर्सां फाटीं ह्या colour combination क अर्दवर लागतालें, तर आयज तंत्रज्ञानांत भरपूर वाड जाल्ल्यान दोन वा तीन मिनटां पुरो. ह्या वर्सांनी colour compatible Equipment म्हळ्यार रंगसंगतीच्या साधनांतुय भर पडल्या. देखीक Video tape recorders, video cassette recorders, video discs, Large screen display systems, video game systems, T.V Cameras.

तूर्ताच्या अदमासाप्रमाण ह्या सगळ्यांचो खप सुमार शंबर दशलक्ष डॉलर्सांचो आसा. हाचेवेल्यान ह्या सगळ्या जिनसांच्या उत्पादनांत कितली वाड जाल्या हाचो अंदाज करूं येता. जागतिक व्यापार वाडत आसा आनी हांतूत जपानाचो नंबर बरोच वयर लागला. फाटल्या वीस वर्सांत दूरदर्शन तंत्रज्ञानांत प्रयोग जायत आसा आनी विश्वमान्य असो Standard आमचो म्हणपाचे प्रयत्न चल्ल्यात. Television signal generation आनी transmission strength हातूंत सर्वमसामान्य असो standard जातलो म्हणपाची आस्त आसा. High Defination Television 1125 lines, 60 fields. वा 2125 lines 60 field on digital formats हेच भशेन Television Receiver सेटस् आर्विल्ल्या घरांक फाव सारके सोब सारके, आसचे म्हणपाकडेनूय भर आसा. फुडाराक हांका Video Terminal अशेंय नांव पडत. हाका लागून राष्ट्रीय तशेंच अंतर्राष्ट्रीय प्रोग्राम, Stock Market म्हायती, चालू घडामोडी, रेल्वेचें वा विमानाचें Reservation फिल्मां, नाटकां, concerts घरांत वा क्लबांत बशिल्लेकडेन पळोवंक मेळटले म्हणपाची आस्त आसा. आनी आमच्या सारकिल्या विकसनशील राष्ट्राक हाचो बरोच फायदो जातलो.

□□□□

## 10.

# रेल्वे प्रवास

मनीस जीवितांची दोन वैशिश्टां म्हळ्यार हालचाल आनी विविधताय. आमी सगळे जीवीताच्या रस्त्यावेले मुशाफीर. घरा आनी घराभायर हे भोवतणेंत वेगवेगळे अवस्थेंतल्यान गेल्यात. खंयच्या एका घराच्या सालाचेर वा दुकानाचेर वा रेस्टोरंटाचेर नदर मार आनी पळे. कितें तरी नाविन्य नदरेंत भरतलें. आनी एके विशिश्ट सुवातीचेर तर मनीस जीवित आनीकूय ओडलायणे. ती सुवात आमकां एद्या व्हडल्या अफाट संवसारांत हो यक:श्चित मनीस खंय आसा हाचो उगडास करता. रेल्वेचो डबो म्हळ्यार अशीच एक सुवात.

रेल्वेच्या डब्यांत भितर सरचेपयलीं दर एका प्रवाश्याक एके तरेचो suspense भोगचो पडटा. रेल्वे गाडी वेळार येत मू? आयली जाल्यार आपुण रावला थंय येतलो डबो रावत मू? बरोबर आशिल्ली सगळी मंडळी त्याच डब्यांत शिरत मू? भितर घुसलींच जाल्यार तांचे जागे तांकां मेळत मूं? एक आनी दोन प्रस्न?

A.G Garden चो निबंद on catching a train हाचेयपरस आमकां चड भेश्टायता. सगळे तरेची काचाबुलसाण सोसून मागीर गाडी धरप म्हळ्यार कितलें सूऽ जावंक फाव ! वाऽ डब्यांत भितर सरून एक फावट बैठक मारली म्हणटकच विचारूंच नाका. आमकां जर J. B Priestley ची नदर वा रवींद्रनाथाची काव्यशक्त आसत तर एक बऱ्यांतलो बरो निबंद वा रूचिक कविता पाजरले बगर रावचीना.

रेल्वेच्या डब्यांत खरें आकर्षण आसता तें मनशांचें. खरेंच तेन्ना शेक्सपियरच्या उतरांची याद जाता. ' मनीस म्हळ्यार अप्रुपाचें कर्तुत्व'! कांय प्रवाशी आपल्या बराबर इतलें फालतू सामान हाडटात तें पळोवन जे. बी. प्रिस्टले वाजेलो जाल्यार

अजाप  कसलें! कांय  प्रवाशी दर स्टेशनार देंवतात आनी गाडी सुटसर, प्लॅटफॉर्माचें हें तोंक तें दुसरे तोंक मेरेन पासयो मारीत रावतात.थोडे इतले खादाड आसतात, गाडी सुटली रे सुटली ते आपलें फोलीण वा डबो उक्तो करून खायत रावतात. गाडी ब्रेक मारतात तेन्ना तांगेले खावडीक ब्रेक बसता आनी ते कच्च करून आंग काडटात. थोडे गाडी चलताना खायनात. स्टेशन येतकच प्लेटफॉर्मार कितें मेळटात तितलेंय तांकां चलता.

हांवें एक पॅसेंजर असो पळेला तो पयल्या स्टेशनार ' गरम चाय! म्हळ्यार सकाळच्यान शिजयिल्लो कसाय' पियेलो आनी पांच मिनिटांच्या अंतराचेर दुसऱ्याच स्टेशनार ताणे थंडगार ' आयस्क्रीम'  खालें.

थोडे प्रवाशी न्हीदेक अशे वखवखिल्ले आसतात,  तांकां उजवाड, बोवाळ, हांतुळण, भिकूण, जळार, घाण बी न्हिदेमुखार कोयरासमान. केदोय हलकल्लोळ वा बोबो जरी डब्यांत जाल्यो तरी न्हिदताना 'आवयचो घोव ' म्हुण ते न्हिदतात आनी अजाप म्हळ्यार पाडा पडिल्ले आपलें  स्टेशन  येता म्हळ्यार जिस्त जागे जातात.

दर प्रवाशांची  वेगवेगळी जात. ही जात म्हळ्यार आमी जाती– कती मानतात वा ना करूंक सोदतात तांतली न्हय. ही जात म्हळ्यार 'कालेत'.  ताची प्रकृती वा ताचे वा तिचो स्वभाव विशेष. थोडे  त्राशिक  आसतात. ते भितर सरल्या मात तांचें खाक्–थूक सुरु.  मिनटाक स खेपे मुतूंक जाता. संख साकडे गर्दी लेगीत आसली जाल्यार तांचो प्रोग्रम सारको जावंक जाय. थोडे मावोड्या गेल्ल्यावरी आंगांतलें बी सगळें काडून मेळटा त्या खुट्याळ्याक लावन आंगस्तर वा लुंगी रेवडावन पासयो मारतात. कांय जाणाचें उद्दीश्ट कोणूच वाचीना तसली पुस्तकां आपुण वाचतां हें, पूण तें डब्यांतल्या  कोणेय पूण जाणा जावंचे हाचेर आसता. थोड्या पॅसेंजरांक कितेंय विकतें घेंवचे जाल्यार ते गाडी सुटचेल्या वेळार मागतात आनी मागीर पयशे दिवचेल्या वेळार मोडचे पैशे नाशिल्ल्यान तो विकपी बाबडो गाडी सुटली तरी बरोच वेळ डब्याक गोळोव मारता. थोड्या प्रवाशांक रेल्वेचो प्रवास म्हळ्यार बारा भुजां बळ ! ते सगलो डबो आपल्याच माथ्यार घेतात.  बायलां भुरग्यांक कितें जाय नाका हाचोय पत्कर  तेच घेतात. घोवूय  उबगल्ले  आसतात. प्रवासांत फुके सवाय हे मानाय मेळ्ळ्यात. तीय रेल्वेचीच 'सेवा' अशा अर्थान ते स्वीकारतात.

गोंयचे मुक्ती आदीं रेल्वेक गोंयचे सरदींत कुळ्यां म्हणजे आतां भारत सरकार जातकच जाचें ' कोलंब'केलां ते आनी दुसरें भारतीय (तेदेवेळार) हद्दींत कॅसलरॉक हांगां अशीं दोन कस्टमां आमकां लागतालीं. ह्या दोन स्टेशनांचेर सामान देंवोवप चडोवप म्हळ्यार भारी कश्टांचें. देखून आमी गोंयकार भोव करून जाण्टे-नेण्टे, बायलां-भुरगीं गचमुड्डी करून पोटली 'डायरेक्ट डब्यांत' घालताले. हो डबो गाडयेपासून मेकळो करून पयस उडयताले. आनी फुडली गाडी येतकच तिका जोडटाले.

अशा एका डब्यांत पांच स खेपे प्रवास करपाची संद म्हाका मेळ्ळ्या. निमाणे खेपे मात म्हजे दुर्दशेक पारावार उरली ना. त्या डब्यांत आमच्या किरिस्तांव भावा-भयणीची गर्दी चड आसताली. आनी तीं बिराडकारी जाल्ल्यान, सान्न, सूप धरून दातें आनी वान लेगीत वांगडा व्हरतालीं. चड तेंपान गोंया आयल्यां म्हण्टकच आंबे-पणस, साठां, भिकणां (पणसाची , तींय मातयेंत लोळयल्लीं) खारें( हातूंत, बांगडे, वेल्ल्यो, कापसाळीं, सुंगटां धरून मोरी लेगीत आयली) त्या भायर काजू फेणी, माड आनी व्हिनाग्र चोरिसां वांगडा नासलीं जाल्यार गोंयसान आपुण आयलां म्हणपाची गवाय कितें?

दिरेत !(Direct), दिरेत हें पोर्तुगेज उतर आनी तें वापरल्या बगर तुमकां तेदेवेळेचें चित्र कळचें ना. दिरेत कॉंपार्तमेंतांत अख्खें गोंय आसलें!( दामांव आनी दीव सोडून) तेन्नाचो हो डबो गोंयचे मुक्ती उप्रांत सो जर आसता, तर गोंयचे सगळे राजकीय पक्ष त्याच डब्यांत कायम रावपाचे आनी येताना वताना आपलो वेंचणूक प्रचार करपाचे! पूण तें भाग्य तांका ना. तें आमी पळेले तितलेंच.

तर कितें सांगतालो हांव? विशय बेश्टोच बदललो. आ ऽ याद जाली. निमाणे खेपे हांव ह्या डब्यांत बसलों. लोंड्यार पावतकच डबो कच्च करून सुटलो.एक दांत्याची पाव, व्हिनाग्रीचे बाटलेचेर आपटली. तातूंत चोरिसां बुडलीं, लायट ना. संडासाचीं उक्तीं दारां. तीन इरमांव स मानांक तेंकून बसलेले, तांचीं कांतांरा आनी तातूंत जाण्टेल्यांचीं विडयेचीं पोतेरां- हे तरांतरांचे वास. जाय जांव, नाका जांव एकदम म्हज्या नाकांत गेल्याबरोबर, खंय दिसता थंयसून Emergency point शें

धरून हांवे रूळार उडी मारली. आनी स्टेशनार म्हजो जीव घालो. जीव घुंवळटालो म्हुण सोद घेतले. तेंय ओंकून गेलें.

वरा–देडा वरान दुसरी गाडी स्टेशनार आयली, हो डबो तिका परतो जोडलो. ती संद सोदून हांवें म्हजें सामान घेवन, डब्यांत केदीय गर्दी आसल्यार जाता,बसूंक मेळ्ळें ना जाल्यार कोंता येता. सगळे प्रवासी मोवाली लेगीत आसल्यार कामा येता, पूण अथःपर 'दिरेत डब्यांत' बसचोंना म्हणपाचो सोपूत घेवन मुखावलो प्रवास पुण्यामेरेन दुसऱ्या डब्यांतल्यान केलो.

कशेय आसूं रेल्वे प्रवांसात बरे–वायट प्रसंग म्हजेर जायते आयल्यात. चडशे मजेशीर पूण हांव R.L Stevenson च्या म्हणण्यालागीं सहमत आसां. To travel hopefully is better thing than to arrive उर्बेभरीत काळजान भोंवप हें मुक्कामाक पावचेपरस बरें देखून हांव रावतां.

□□□□

11.

# करंजाळचे वेळेर

एके सांजेवेळा करंजाळचे वेळेर गेल्लों. सूर्याचो तांबडो गुंज गुळो दर्यांत बुडटालो. कुपां खिणांत आपलीं रंगरूपां बदलतालीं. घटकेंत घोडो, खिणांत हती, खिणांत हातांत धनू घेवन घोड्यार बशिल्लो सरदार अशीं तरेकवार चित्रां आनी तरां तरांचे रंगीत नकाशे पळोवन त्या अप्रुप चित्रकराची तोखणाय मनांत घोळतानाच म्हजी नदर एका जोडप्याचेर गेली. एके आडसायेक तरूण आनी ताची प्रिया वेळेर बसून ल्हारांलागी चाळे करतालीं. ती तरणी चली प्रियाराधनेंत बुडून गेल्ली. घडीभर आपणाक विसरलेली. पूण प्रियकराचें लक्ष म्हजेर गेलें आनी तो सगळोच गोंदळ्ळो. तसोच उठून तो कूस मारचेलो प्रयत्न करतालो. पूण ताका म्हजी नदर चुकोवप जमलेंना. तो म्हज्या एका हिंदू इश्टाचो पुत. आनी ती एक कॅथलिक आंकवार चली. दिसूंक विलक्षण सुंदर. दोगांय एकामेकांच्या मोगांत घुस्पल्यार मांडवीचें कितलें उदक व्हांवलां जायत काळाक खबर! तिका पळेल्याबरोबर म्हाका कवी अनिल देशपांड्च्या दोन ओळींची याद जाली. ''मादकता जाते मर्दवी विरून. सौंदर्य सोज्वला आड दडतें. सोलीव सुखाचे स्वप्न एक जीवाला जागतेपणी पडे. ''

सोबीत पोर तें. हांव तिचो चेरो कसोच विसरचोना. सौदर्याक सोबीत कायेचो पड्डो कसो आसूं येता, तें आयज कळ्ळें. जसते निव्वळ गामांची चारूता त्याहून असते अधिक कांहीं–अनिलाची याद जावपाक आनी एक कारण म्हळ्यार हालींच कवी अनील भायर पडलो. नागपूराक 'पर्तेव्हा' ह्या ताच्या सग्रहांतली मदन आनी पेरीनाचेर प्रेम जीवन ही ती मुक्तछंदातलीय कविता. खासा अनिलाच्या तोंडांतल्यान म्हाका आयकुपाची संद मेळिल्ली. तांच्यो कविता तांच्याच तोंडातल्यान

आयकुपाक एक आगळीच गोडी आसली. तांची एक खास वाचनशैली आशिल्ली. मुक्तछंदातली कविता ते विशिश्ट ढंगान वाचताले आनी ती तशीच वाचूंक जाय म्हणपाचो तांचो आग्रो. 'प्रेम आणि जीवन' हे कवितेंत अनिलांचें प्रेमाविशींचें विशिश्ट तत्वज्ञान आसलें . पयलींच्या आनी उप्रांतच्या कितल्याशाच कवितांचें तें अधिष्ठान त्याभायर मुक्तछन्दांतली ही तांची पयली कविता.

'तुमकां मुक्तछंद कसो सुचलो?' काय तांकां विचारल्यार ते वासुदेव बळवंत पटवर्धन हांचे संस्कार, अशी ताणी जाप दिली. अनिलांचेर केशवसूत हांचेय संस्कार जाल्ले. संस्कृत आनी उर्दु काव्यूय ताणी भरपूर वाचिल्लें. त्या भायर शेक्सपीयर ,सपर्ट ब्रुक, संत वाङ्मय हाणीय तांकां प्रभावित केल्लें. 'एका पढीचे आत्मकथन 'ह्या पुस्तकांत ताणी तांचेर जाल्ल्या विशिश्ट संस्कारांचो उल्लेख केला.

एके सत्य घटनेचेर आधारिल्ली वर्ध्याची खबर. मदन हिंदू आनी पेरीना पारशी. दोगांचेंय एकामेकांचेर उत्कट प्रेम. घरच्यांचो लग्नाक विरोध. दोगांनीय निश्चेव केलो जीव दिवपाचो. एकामेकांक वेंग मारून न्हंयेत जीव दिलो. दोगांचींय प्रेतां सापडलीं तीं वेंग मारिल्ले अवस्थेंत. पूण दोगांय जीवांच्या निश्ठूर आवयबापायनी प्रेतां कापलीं आनी आपापल्या धर्माप्रमाण तांचे अंत्यसंस्कार केले. ही घटना कवी अनिलान प्रेमती कवितेंत काळीज हालता अशे शैलींत मांडल्या. हांवे करंजाळे पळेल्ल्या जोडप्याकूय घरचो विरोध आसूंक जाय. देखून ताच्या मोगाचो फुडार कितें ह्या प्रश्नाची जाप आमचो समाज कितलो सुदारला हाचेर थारतलो!

□□□□

12.

# पुनव काय उमास

सर्गेस्त काकासाहेब कालेलकर, दिल्लींत राजघाटार सन्निधींत रावताले. केन्ना केन्नाय दिल्लीक गेल्लेकडेन म्हाकाय तांचें सान्निध्य वा सांगात मेळ्ळा. सकाळफुडें प्रार्थना जाताली आनी त्या उप्रांत एकलो पन्नास पंचावन वर्सां पिरायेचो खादीधारी सद्गृहस्थ पूज्य काकासायबांचे पांय चेपतालो.

हांव दिल्लींत ते खेपे पंदरा वीस दीस उरलों. म्हाकाय प्रार्थनेची संवय जाली. त्या सद्गृइस्थाची वळख जावंची म्हुण उमळशीक लागली. पूण संद मेळनासली. एक दीस संद सादून हांवे प्रार्थने उप्रांत त्या गृहस्थाक आडायलो आनी तांची वळख करून घेतली. ताणी म्हाका आपलें नांव सांगून दिल्लींतलो आपलो पत्तो दिलो आनी जेवणाक आमंत्रण दिलें.

ताचें नांव आसलें कालरा आनी तागेलीं तीन कांय चार कपड्याचीं दुकानां आशिल्लीं. म्हज्या अदमासान तो दिल्लींतलो एक कोट्याधीश. जाच्यान आपणाले पांय चेपून घेवपाक सहज अर्द डझन सेवक सेवेकार दवरूंयेता. पूण ताच्या घरांत रगळी प्राचुरताय आसूनूय अत्यंत सादे रांवप. म्हजें आतिथ्य बरें जालें. तागेले सगळे पूत आनी सुनो एकठांय रावताले. घडीभर हांव भांबावलों आनी मनात दिसलें, आमच्या गोंयच्या श्रीमंतांक हाडून हो देखदिणो घराबो दोखोंवचो. उप्रांत हांवे कालराक विचारलें-'सन्निधींत' येवन तुकां प्रार्थने इतकेंच समाधान,भक्तिभावान असल्या मनाशाचे पांय चेपपान मेळटात. सुरवेक काकासायबा विशींच्या म्हज्या समाधाना आड येवप ताकाय परवडलेंना. आनी ताणी म्हाका एक गजाल सांगली. ती म्हळ्यार गांधी युगांतले कांय उत्तम मनीस जे

उरल्यात तांतले एक काकासायब... असले मनीस आतां दुर्मिळ जायत चल्ल्यात... खयूंय आसले जाल्यार तांकां लापयांव घेवन सोदचे पडटले. असल्या मनशाविर्शीचो भोवमान तांच्या दोळ्यांत दिसतालो. म्हाका ताचें म्हणणे पटलें.

हालींच जेन्ना काकासायब भायर पडले तेन्ना म्हाका कालरांच्या उतरांची याद जाली. खऱ्यांनीच जेन्ना रासवळ जिवीताचेर आमी नदर मारतांव तेन्ना गांधी, टिळक, गोखले, आगरकर, लाला लजपतराय, पंडित मदन मोहन मालवीय, आचार्य कृपलानी, जयप्रकाश नारायण, डॉ. राम मनोहर लोहिया सारकिलीं एकापरस एक अशीं तेजस्वी नक्षत्रां आमकां दिसतात. म्हजेसारकिलेच किरकोळ मनीस वचत त्या मळार 'मी' म्हुण मिरयतात. अशा वेळार विनोबांनी सांगिल्ल्या एका विचाराचेर मनन करचें पडटा.

विनोबांक एकदां एका शिष्यान विचारलें–विनोबाजी, तुमकां पिठासारके धवेफुल्ल शितळ चान्ने दिवपी पुनव आवडटा काय काळो किट्ट काळोख संवसारार घालपी उमास आवडटा. विनोबान जाप दिली 'म्हाका उमास पुनवेपरस प्रीय.' आयकतल्याक अजाप जालें. विनोबान म्हळें, कारण सांगतां, पुनवें दिसा चंद्रिमाचें चान्ने इतलें आसता, हेर नक्षत्रांक लुकलुकपाची लेगीत संदूच मेळना. उमाशे रातीं हाजे उरफाटें घडटा. मळबांत चंद्रिम नाशिल्ल्यान आंगणांत नक्षत्रांक आपापले तांकी प्रमाण लुकलुकपाची तरी मेकळीक आसा.

केदो गहन विचार हो. आयज रासवळ जिवीतांत महात्मा गांधी सारकिलें भव्य व्यक्तिमत्व ना. देखून सर्वसामान्य मनशाची आपले तांकीप्रमाण चमकुचेली संद वाडल्या. हीच देख आमी घेत जाल्यार राष्ट्ररथ जाय त्या पथार आमी हाडूं येता.

□□□□

13.

# अबला काय प्रबला ?

**आ**मगेर घरकामाच्या आदाराक एक वाडिल्लें चली आशिल्लें. दिसूंक बरें आनी शुचिर्भुत. हांव घरा गेल्लेकडेन ताका पळेतकच पयले फावट आमच्याच नात्यांतलें कोणूय आसूं जाय अशें म्हाका दिसलें. मागीर वासपूस केल्यार अंती ताचें नांव गांव कळ्ळें. घरच्या बायलांक वावर चड पडटालो. तांका आदार मेळ्ळो म्हणून समाधान जालें.

दुसरे खेपे चवथीकडेन घरा गेल्ले कडेन दिसलेंना. तें खंय काय म्हणून विचारल्यार ताची सोयरीक जाल्यान तें सोडून गेलें म्हणपाचें समजलें. तें गेलें म्हणून वायट दिसलें पूण ताची  सोयरीक जावन तें संवसाराक लागलें हें आयकून बरें दिसलें. पूण घराकडेन कोणाचोय तरी आदार जायच आशिल्लो.

हांवे म्हज्या एका बरें मागप्याक ही गजाल सांगली आनी ताच्या होलमाक कोणूय आसलें जाल्यार म्हाका कळय म्हुण ताका फर्मायलें. ताणे ' आ' म्हणून तो गेलो. उपरांत अकस्मात एका शेनवारा तो मनीस थेट म्हज्या ऑफिसांत आयलो आनी म्हजे कुडीची चावी मागूं लागलो. कित्याक काय म्हळ्यार, तुका जाय आशिल्ली चली हांवे हाडल्या आनी ती स्टँडार आसा. ऑफिसांत त्या दिसा म्हाका काम आशिल्लें देखून सकयल येवन ताका मेळून थारावप शक्य नासलें. हांवे चावी दिली आनी ऑफिस सुटल्याउप्रांत हांव सकयल देवलों.

ते चलयेन दार धापिल्लें. हांवे घांट वाजयली. ताणे दार काडलें आनी लजेन मान सकयल घालून तें व्हंकल कशी लजता. हांवे विचारलेल्या प्रस्नाचीय जाप म्हाका मेळना जाली. म्हजो पेंच जालो. ताका थंयच दवरून हांवे परतो मध्यस्ताक

गांठलो आनी ताची पुराय वासपूस केली. ताणे तागेली सगळी खाणा खुणा सांगून म्हाका म्हळें, 'तूं ताका हांगाच तुजे सरेन दवर,' तुकाय रांदून वाडटलें आनी ताकाय आदार जातलो. ताका तागेलो कोणूच ना. हांवे म्हळें म्हाका जाय आशिल्लो तो आदार हांगा न्हय, म्हज्या घराकडेन रासवळ कुटुंबांत. थंय वचपाची ताची तयारी आसल्यार सांग. ताणें मान्यताय दिली. इतले मजगतीं म्हजे कितलेशेच इश्ट म्हाका म्हजे कुडींत सोदूकं आयिल्ले आनी ते चलयेक पळोवन आपणाक जाय तसो तर्क वितर्क करून गेले.

तांचोय अन्याय करूं नज . तें चली देखणे. हांवे म्हळे, आलीया भोगासी. हांव म्हजे कुडींत एकटोच रावतां. म्हज्या शेजाराक एक जाण्टी बायल एकलीच रावता. तिचेकडेन चलयेची वळख केली, आनी ते रातीकडेन ताची न्हिदपाची सोय शेजारा केली.

सकाळीं उठून ताका आमच्या घरा पावयलें तेन्ना जीव सू ऽ ऽ जालो. घराकडेन बायलांनी ताची वासपूस केल्ले अंती आदार नाशिल्ले हे चलयेक ताच्या देखणेपणाक लागून बरींच घरा बदलचीं पडल्या म्हणपाचें समजलें. हांवे म्हळें तुमी ताका घरच्या मनशाभशेन वागयात आनी आठ दिसांनी तुमचो अणभव सांगात...

घरासून परतो येतना हांव ह्या विशयाचेर येवजीत उरलों. आमी बायलांक समान हक्क दिल्या. 'पर कांता ज्या माता रे' अशींच संत वचनां आमच्या पदराक आसता अशेंय आसून बायलांक पळोवंचेली आमची नदरच कशी बदलना.

हांवें हे विशीं म्हज्या इश्टाकडेन चर्चा केली. ताणे पुरातन काळापासून दादल्या बायलांकडेन पळोवपाची जी नदर आसा तिचो नियाळ केलो. बायल म्हण्टात ती उपभोग्य वस्त.

आपणाक ती तशेंच समजत आयल्या. अशो कितल्योशोच नमुनेदार गजाली ताणी सांगल्यो. आनी श्रीकृष्णाचें उदाहरण दिलें. हांवे म्हळें श्रीकृष्णाचो वेगवेगळ्या बायलांकडेन जो संबद आशिल्लो तो सारको नियाळून पळोवंक जाय. गोपीवांगडा तो खेळ्ळो भुरगेपणांत. चवदा वर्सांची पिराय जावचें आदीं. ह्या संबदाकडेन वांकडे नदरेन पळोवपी लोकांची नदरच वांकडी. तागेले सत्यभामा आनी रूक्मिणीकडेन

संबंद घोव बायलेचो. तितलोच दाट संबंद ताचो आनी दोगींकडेन. एक राधा आनी द्रौपदी पूण ह्या संबदांत सेक्साक सुवात नाशिल्ली. राधेंत आवय, धूव, भयण,बायल आनी सखी हे पांचूय संबद एकठांय जाल्ले. द्रौपदी ही निव्वळ सखी. होच संबध घडये खरो. दादलो आनी बायल हांचे मजगती आवयचो, धुवेचो, भयणीचो वा बायलेचोच संबंध कित्याक आसचो?

रगताचेर वा सेक्साचेर आशिल्लो संबंद सोडून आनी एक संबध आसूं येता तो इश्टागतीचो. बायलांकडेन जे नदरेन आयजमेरेन आमी पळेत आयल्या ती नदरच बदलूंक जाय, घडये बायलांनीय आपलेकडेन पळोवपाची नदर बदलूंक जाय, नाजाल्यार ती सबला अबलाच उरतली ह्या निर्णयार हांव पावलों.

□□□□

14.

# भुवनेश्वर

अखिल भारतीय काँग्रेस समीतीचें अधिवेशन भुवनेश्वराक भरपाचें आशिल्लें. मुक्त गोंयच्या फुडाराचो प्रस्न येंवचो आसलो. गोंयचे काँग्रेसींत तीन तरांचे सदस्य आशिल्ले. 1) संघप्रदेश वादी 2) गोंयचे विलीनीकरण महाराष्ट्रांत जांवक जाय म्हणपी 3) गोंयची भास आनी अस्मिताय वेगळी आशिल्ल्यान भारतांतर्गत गोंयचें घटकराज्य जांवक जाय, अशें मानपी.

काँग्रेस महासमितीच्या अधिवेशनाचें म्हत्व लक्षांत घेवन हया तीनूय तरांच्या मतप्रणालींच्या वांगड्यांक केन्ना काय भुवनेश्वराक वचून आपलो जीव घालचो आनी गोयचें प्राक्तन घडोवचें अशें दिस. उदेंत ओरिसाच्या एका तोंकाक आशिल्ल्या भुवनेश्वराक कशें वचचें असो प्रश्न जण एकल्याक पडिल्लो. म्हजो जीव तर उचंबळ जाल्लो. काँग्रेसची अधिकृत अशी बशीची वेवस्था नाशिल्ली. इतल्यान म्हज्या सुदैवान मडगांवचे म्हजे एक इश्ट वकील घटकराज्य वादी हाणी आपुण खाजगी मोटारीन वतलों आनी तातूंत म्हाका जागो आसा म्हणपाचो निरोप धाडलो. भुवनेश्वरचो प्रवास म्हज्या बोल्साक परवडपासारको नाशिल्लो. म्हण्टकच हो निरोप मेळनाफुडें जीव सू ऽ ऽ जालो. पूण रोखडोच विचार आयलो. म्हजे वरीच घटक राज्याच्यो कल्पना काळजांत घेवन आशिल्लो म्हज्याय परस सिनियर इश्ट थंय पांवूक जाय. तोय म्हजेवरी कफल्लक. देखून वकीलाचे धाकटे मोटारीतं ताची सोय केली आनी म्हज्या नशिबांत चिटमिटेच पडले.

7 एप्रिल 1964 दिसा काँग्रेस पार्लमेंटरी बोर्डांची मिटींग जांवची आसली. महाराष्ट्रवादी पक्षाचें राज्य गोंयांत चलतालें. सर्गेस्त जवाहरलाल नेहरू आजारी

पडिल्ले. तांकां मेळचेली लेगीत बंदी आशिल्ली. 3 एप्रिलाक गोंयसून भायर सरल्यारच मोटारीन 7 एप्रिलाक भुवनेश्वर गांठू येतालें.

3 एप्रिल उजवाडलो. दनपाराचीं 12 वरां जाल्लीं. म्हजे तकलेंत भुवनेश्वर पूण बोल्सांत सगळे मेळून चौदा कांय पंदरा रुपया. हांवे मनांत म्हळें पळोवया, कशें कितें घडटा तें. इतल्यान फोंडेच्या प्रासार एक प्रायव्हेट टॅक्सी थारली. आनी म्हजो एक बरो मागतो, गोंयच्या राजकर्णांत रूच घेवपी, तांतल्यान देंवलो. ताका हांवे हटकिलो आनी सहज भुवनेश्वराक येता काय विचारलें. पयलीं ते धाकटे गाडयेची खबर काडली. गाडयेचो ड्रायव्हर बांदोडेचो. गाडी बरे स्थितींत आशिल्ली. फोड्यांत पेत्रोल गाझोलीन उदार मेळसारकें आशिल्लें. फक्त म्हज्या इश्टाक त्या सोमाराक त्रिबुनाल आशिल्लो. हांवे म्हज्या बॉल्साची कल्पना ताका दिली ना आनी भुवनेश्वर याच म्हणपाचो आग्रो धल्लो.

ताका त्रिबुनालार 'आतेश्ताद' धाडून दिवपाची हमी हावेंच घेतली. ताणे मान्यताय दिली. ड्रायव्हर कबूल जालो आनी बांदोड्या वचून आठ दिसांची बॅगबी भरून घेवन आयलों. एका दोतोरागेर वचून आतेश्तादूय घेतलो. म्हज्या इश्टान बँकेत वचून हजारभर रूपया हाडले. आनी आमी 3 वरांचेर गाडयेंत गाझोलीन घालून तयार जाले. ड्रायव्हर धरून आमी तीगूच जाण आशिल्यान जमल्यार आनी दोगांक व्हरचें हें थारावन हांवे गाडी वेलंगा घेवंक सांगली आनी थंयसून आनी एका गृहस्थाक गाडयेंत घेतलो. गृहस्थ सधन आशिल्ल्यान आपली दुडवांची वेवस्था तो करतलो म्हणपाची म्हाका खात्री अशिल्ली.

तशीच गाडी परत मडगांवां व्हेली आनी आनीकएका इश्टाक घेतलो. ताणेय आडेवेडे घेतलेना. भुवनेश्वर वचचेली संद दारांत चलून आयिल्ली. ती कोण सोडटा? आमचो प्रवास वेवस्थीत जालो. वाटेंत कसलोच त्रास जालोना. आनी 7 एप्रिल 1964 त आमी सकाळफुडें भुवनेश्वर गांठलें. हॉटेलाचेर न्हावन धुवन आमी अधिवेशनाक गेले. आमच्या पयलीं पाविल्ल्यांक आमकां पळोवन अजाप जालें.

पार्लमेंटरी बोर्डाची मिटींग 11 वरांचेर जांवची आसली, त्या आदी गोंयकाराचें म्हणणे आयकून घेंवचे अशी तांची इत्सा आसली. बोर्डांत लाल बहादूर शास्त्री,

श्रीमती इंदिरा गांधी, फक्रुदीन अली अहमद, मुरारजीभाय देसाय, स. का. पाटील, कामराज आदि बडी बडी प्रस्थां आशिल्लीं.

विलीनीकरणाची बाजू दोगांनी आनी घटक राज्याची बाजू दोगांनी मांडची अशी सुचोवणी आयली. त्या प्रमाण श्री. अॅथनी डी सोजा आनी अॅड्. गोपाळ कामत हाणी विलीनीकरणाची बाजू मांडली. गोवा काँग्रेसचे तेदेवेळचे चिटणीस लिगोरियु काँत कार्व्हाल्यू हाणी विलीनीकरण विरोधी उलोवप केलें. आनी निमाणे आमकां घटकराज्य कित्याक जाय म्हणपाचें उलोवपाचें म्हज्या वांट्याक आयलें. म्हज्या ल्हानशाच उलोवपाचो परिणाम पक्ष श्रेष्ठींचेर जाल्लो हें तांच्या तोंडार स्पश्ट दिसतालें. म्हजें उलोवन जातकच त्या वकिल इश्टान म्हाका वेंग मारली आनी म्हळें,'ह्याच खातिर तूं म्हाका हांगा आयिल्लो जाय आशिल्लो, हांवे म्हळें, 'तुमकां सगळ्यांक जाय आशिल्लो देखूनूच बोल्सांत अवघे 14/ 15 रुपया आसताना इतले पयस येवचेलें धाडस हांवे केलें, त्या गृहस्थान उप्रांत म्हज्या येत्यावत्या सगळ्या खर्चाची वासपूस केली. आनी अजाप म्हळ्यार तेच रातीकडेन हांवे सांगिल्ली सगळी रक्कम म्हजे सुवादीन केली.

7 एप्रिल 1964 त गोंयच्या राजकी फुडाराविशीं धा वर्सां मोरेटोरियम्चो काँग्रेस पार्लमेंटरी बोर्डाचो जो निर्णय आशिल्लो त्या निर्णयाक अशे रितीन म्हजो हातभार लागलो देखून म्हाकाय समाधान जालें. आनी लोकहिताचें खंयचेंय CAUSE काळजांत आसल्यार आनी त्या खातीर प्रांजळपणान वावुरपाचें आसल्यार कसलीच आडखळ येना. दुडवांची तर नाच ना ह्या निर्णयार हांव पावलों.

□□□□



15.

# सुशिक्षीत न्हवरे पावणेर

म्हजे मार्फतीन एके चलयेची सोयरीक जुळ्ळी. चली शिकिल्ली सवरिल्ली आनी नोकरीय करताली. चल्याच्या बापायन टिपण घेतिल्लें. चल्याचें टिपण दींव नासलें.ज्या भटाक ताणें तें टिपण दाखयिल्लें तो चुकून म्हजे वळखिचो. तें टिपण बरें जुळटा म्हणपाचें ताणेच म्हाका सांगलें.

उप्रांत म्हयनो गेलो. वरपक्षाचो कांय निरोप ना.हांवे मनांत म्हळें चलयेची इत्यंभूत म्हायती वा up to date information घेतात आसूंये. पूण तेंय बरें मेळिल्लें म्हणपाचें म्हाका लग्नाउप्रांत समजलें. थारिल्ल्याप्रमाण आमी चौगजण गेले आनी च्या बी घेवन जातकच टिपण जुळता मूं? असो हांवे प्रश्न केलो. न्हवऱ्याचो बापूय मात्सो गडबडलो आनी ताणे म्हळें, 'व्हडलेशे गुण पडनात त्या भायर कुंडलेंत मात्सो दोश आसा. पूण तसो प्रसाद बी घेवन पळोवंया'. अशी उडवाउडवीची जाप ताणे दिली. हांवे म्हळें, 'तुमची इत्सा आसल्यार शुभ कार्याक देव केन्ना आडखळ हाडिना. 'तुमकां कितें उलोवपाचें आसा ते मेकळेपणान उलयिल्लें बरें'. उलोवणी म्हळ्यार घालपासंबदान कल्पना आयिल्ली बरी' ताणें जाप दिली.

इतल्यान ताची घरकान्न दारांत येवन कुशीक उबी रावली. हांवे म्हळें,'सांगात तुमी, तुमचें कितें आसा तें', आमचेपासून लिपोवपाचें ना पूण आपले धुवेक तिणें कितें घालां हाजी लांबलचक वळेरी ताणे दिली. ती वळेरी तिणे दिली. ती वळेर आयकून व्हंकलेच्या भावाचो आवरो उडलो. ताणें म्हाका ल्हवूच भायर व्हेलो आनी शिटकावणी दिली. 'शंकरबाब, हें प्रकरण आमकां झेपत शें दिसना. ' हांवे म्हळें 'थार धर. तुजें लिस्ट म्हजेलागी दी. जाण्टेलो खंय मेरेन पावता तो पळोवंया'.

आनी आडेवेडे घेवन दोट्टी गोंठावेल्यान एकोडी गोठांचेर हाडलो. आनी बाकिच्या वळेराक मान्यताय दिली. व्हंकलेचे आर्थीक परिस्थितीची कल्पना दिल्ली जाल्यार सोयरीक मोडपाचो संभव आशिल्लो. देखून चड ताणून धरलें ना. तरी आसताना न्हवऱ्याचे आवयकडल्यान आनी एका नगाची सुचोवणी आयली . हो फाव्याचो नग व्होंकलेच्या भावाक कसोच जमचोना म्हणपाची म्हाका खात्री आशिल्ली. थळ तर सोडूंक फावना आनी वरदक्षिणा जमना ह्या पेंचात हांव पडलों. पूण कितें जाता तें जाता, वेळ पडल्यार ह्या नगाखातिर म्हज्या बोल्सांतले गेल्यार जाता, असो थोडोसो उश्णो भाव हाडून आमी न्हवरेकारान सांगिल्ल्या आंकड्याक मान्य जाले आनी तोंड गोड करून आयले.

ऐन ती गजाल मानली म्हणटकच देव लेगीत हयकार दिता. देखून फुडल्यो गजाली सुरळीत जाल्यो आनी लग्नुय बरे भशेन जालें. पूण हांव मात अजुनूय ताळणेंत पडलां. इतले समाजसुधारक जावन गेले. शिक्षणाचो प्रसार जालो. तरी ही वरदक्षणेची वा दोतीची दुश्ट प्रथा अजूनूय कशी आमकां पिडटा.

पोरूं वर्सा लोकसभेंत जाहीर जालां त्या प्रमाण स म्हयन्याचे अवधींत निकतेंच लग्न जाल्ल्या व्होकलांच्यो 29 आत्महत्तेच्यो तशेंच 24 आत्महत्त्या करूंक सोदतल्या प्रयत्नांच्यो केसी दिल्ली पोलिसांकडेन नोंद जाल्यात. हांतल्यो 11आत्महत्या वरदक्षणेक लागून हें आखिल भारतीय थराचेर व्हेलें जाल्यार परिस्थिती कितली भयानक तें कळटलें. भारतांत फाटल्या पन्नास वर्सांत हजारांनी निश्पाप तरण्यो बायलो वरदक्षणेचे वेदीचेर बळी गेल्या आसतल्यो.

वरदक्षणेचे समर्थक मूळ अर्थव आनी ऋग्वेदांत आसा म्हण्टात. कालिदासान इ. स. 400 त बरयल्ल्या रघुवंशात विदर्भ राजान आपले भयणीच्या लग्नाक भरपूर वरदक्षणा दिल्ली म्हणपाचो उल्लेख सांपडटा.

इतिहासांत एक नामनेची घडणूक म्हळ्यार पोर्तुगालची राणी रेजंट हिणे आपले धुवेक , काथारीन द ब्रागांझा हिका इंग्लडच्या दुसऱ्या चार्लसाक दितना जी वरदक्षणा दिल्ली तांतूत मुंबयचें बंदरूय आसलें. तिणें त्या भायर आनीकूय भरपूर दुड्डू घालपाचें उतर दिल्लें. उप्रांत हें उतर पाळूंक ती विसरली. परिणामी राजान

तिका दासी कशी वागयली आनी आपली राजनदर दुसरेकडेन वळयली. निमाणे काथरिनाक पोर्तुगालाक परतुचें पडलें.

आफ्रिकेंत आनी उदेंतेकुय ही प्रथा आसा. भारतांतल्या कितल्याशाच सुवातीनी वरदक्षणा बंद जाता म्हणसर म्हयन्याचे म्हयने वतात. चली म्हळ्यार आर्थिक नदरे लुकसान आनी घोवांच्या घरांत ती उत्पादन अशें कांयच करीना हे समजुतिचेर तिचो जल्म . देखूनुच एका घरांत चली जल्माक आयली म्हण्टकच घराच्यांची तोंडा काळीं जातात. फ्रांसा सारकिल्या सुदारलेल्या राष्ट्रांत लेगीत अशेंच घडटा जावंक जाय. Simon de bovoir हिगेल्या second sex ह्या पुस्तकांत, हांची प्रचिती येता. भारतांत इंग्लिश शिक्षणाबरोबर सिव्हील सर्वंट्स, दोतोर, वकील, इंजनेर बी जातकच न्हवऱ्यांच्यो दरोय वाडल्यो. आर्थिक घडी बदलली आनी वरदक्षणेक एक वेगळेंच रूप आयलें.

कायद्यान हे प्रथेक बंदी घाल्या. Hindu Succession Act 1956 प्रमाण धुवांक आनी पुतांक घराचे इश्टेटीचो समान अधिकार दिला. 1961 चो Dowry Prohibition Act संसदेच्या दोनूय सभाघरांनीं एक वर्सभर चर्चा करून पास जाला. ह्या कायद्याच्या तिसऱ्या कलमाप्रमाण वरदक्षणा प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष घेतल्या मनशाक ख्यास्तूय फर्मायल्या (स म्हयने बंदखणीची ).

राजा राममोहन रॉय, दयानंद सरस्वती, ईश्वर चंद विद्यासागर बी समाज सुधारकांनी तिच्या आड आवाज काडलो. महात्मा गांधीन तर शिकस्त केली. यंग इंडियांत ताणी हे विशीं बरयतना म्हळ्ळें, सुशिक्षीत तरूण आपल्याकूच पावणेर घालता आनी आवयबापूय धुवेक विकपाक ताका मोलायतात.

□□□□

16.

# भेड्डो घोव आनी ताची बायल मोनी

**आ**दांव आनी एव्हाची काणी आमकां बरी खबर आसा. येडनेचे बागेंत दोगांय मौज मारून दीस सारतालीं. पूण एक दीस एव्हाची जीब चाळवलीआनी ते बागेंतलें जें फळ खावंक तिका मना केल्लें, तेंच फळ तिणें खाल्लें. देवाक मारली तीडक आनी ताणें दोगांकूय सकयल धर्तरेर धांवडावन दिलीं. हांगा ती दोगांय कुळयेचें मुळावें जोडपें थरलें. आदांवाच्यान हेरशीं एव्हाक आडावं येताली पूण ताणे तें काम केलेंना. देखून आदांवाकुय एव्हा वांगडा ख्यास्त भोगची पडली. पूण आनीं एक गजाल घडली, ती मूळ कथेंत सांगूक ना. ती म्हळ्यार आदांवाक आनी एक जबरदस्त ख्यास्त सोसची पडली. एव्हाचे थार नासताना बडबडपी जीबेचो आदांव बळी जालो.

बायलांची ही थाव नाशिल्ली बडबड आसा, ती सदांच दादल्यांचो अजापाचो आनी भेरेवन पडचेलो एक विशय जावन पडला. कवी आनी नामनेच्या बरप्यांनी हाचेर नाना तर्क विर्तक चलयले. भोव करून बायलेचे जीबेचे लवचिकसाणीचेर लॅटिन कवी 0vid ओव्हिड Metamorphosis मॅटामॉर्फ़सीस ह्या आपल्या पुस्तकांत एक कथा सांगता Tereus तेरेवसू हाणें फेलोमेचेर बलात्कार केलो आनी तिची जीब कापली. उप्रांत ते जीबेचें कितें जालें हें तो आमकां सांगीत रावता. वर्णना काव्यांत आसां. ब्लेडीन तिची जीब थरथरत्या मुळान वेगळी जाली. जमनीर पडिल्ली जीब केदोवेळ वळवटाली, कितें तरी ल्हव आवाजान सांगूक सोदताली. आनी दुखवल्लें जिवाणें जशें फडफडत सरपडटा, तशीच ती हुळीहुळीत जीब सरपटत फडफडटाली.

तोंड नासताना ही जीब जर इतली हुळहुळटा तर सगळे अवयव सारके आसतकच हिचो प्रताप कितें पळोंवचो अशें ओव्हिड म्हणटा.

चाँसरच्या कँटरबरी काणयांनी बाथ (bath)चे सज्जन बायलेविशीं थॉमस म्हण्टा. बायलांची जीब खरवतीच्या पानांची केल्ली आसूंक जाय. आनी अशे तरेन बायलांच्या जीबांची तुळा खरवतीच्या पानालागीं करून हो देवदूत हे सजणी बायलेक सर्गांत भितर घेवंक नकार दिता. Spectator स्पेक्टेटर ह्या आपल्या पुस्तकांत एडिसनान 'वक्त्यो बायलो' हाचेर खास निबंद बरयला. अँथनियाच्या नामनेच्या वक्त्याक सॉक्रेटिसाक लेगीत जाहीर उलोवपाक एके बायलमनशेन शिकयलां अशें सांगून तो फुडें म्हण्टा. 'दादल्यांची तोखणाय करताना कांय जाण म्हण्टात कि खंयच्याय विशयाचेर तांच्यानी वरांची वरां उलोवं येता.' पूण खरें म्हळ्यार हो भोवमान बायलांक वचूंक फाव. तांच्यानी कसलोच विशय नासताना आदेसांचे आदेस बडबडूं येता. पोलक्याची कड कशी धरची हाचेर वरांची वरां एक बायल उलयिल्ली हांवे आयकल्या. दुसरे एकलेन वावराडेन चिक्र फोडलें म्हणून आदेसभर कोंकणींतले सगळे अळंकार वापरून तिका जर्जर केल्ली हांवे पळेल्या. एडिसनाक सदांच दिसतालें, बायलांक न्यायालयांत उलोवंक मेळिल्लें जाल्यार कोर्टांची शान आनीक वाडपाची. ती सोबितकाय पळोवंक एडिसन वांचलो ना. तें आमच्याच वांट्यांक आयलें ही वेगळी गजाल. बायलांची कल्पनाशक्त अतिशय विलक्षण. दुसऱ्याचें इल्लेंशें उणें मेळळ्यार तें आपले कल्पनाशक्तीन , प्रतिभेन, मीठ मसालो लावन कशें विस्तारावचें हें कसब तांच्या फाटल्यान सोंपलें. बायलां एकूच गजाल वेगवेगळे तरेन तरेतरेचे परिस्थितींत रेंवडावन सांगतात. एक लग्न फिसकटलें. एके जाण्टे बायलेक तो विशय मेळळो. तिणें सारको एक म्हयनोभर तो चघळ्ळो. पयले सुवातेर तिणे होंकलेक दुशण दिलें. दुसरे खेपे तिका तिची काकुट आयली. तिसरे खेपे तिगेलो तिका संताप आयलो. चवथे खेपे अजाप जालें. पांचवे खेपे हांसचें काय रडचें हेंच समजलेंना.

बायलांची तांक दादल्यांपरस चड कित्याक आसा हें एडिसनाक अजाप आनी तांकां दादल्यापरस मोलय चड. घडये बायलांनी आपले विचार दादल्याभशेन दाबून दवरूं नज. चेपून दवरपाची तांची शक्त उणी देखून जावंये. ताणें आपल्या एका इश्टक बायलेच्या जिवाची चिरफाड disect करून पळोवपाक लायलें. घडये हजिबेचे स्नायू वा दोरयो इतल्यो लवचिक आसतात. ती विसव घेनासताना हुळहुळटा जांवये.

ताचीं कारणां वा मूळ स्त्रोत खंय आसत देव जाणा. पूण हे जीबेक लागून दादल्याक जायते भोगचें पडलां, आनी पडटा. आनी देखून ह्या तीक्ष्ण हत्यारामुखार तकली बागयलेबगर वा आपलो बचाव केलेबगर तांकां गत्यंतर उरूंक ना. आदांव आनी एव्हाच्या काळारसान तो बावडो हे गजालीचेर उपाय सोदीत आसा. थोड्यांनी तडजोड केली. दुसरे कांय परिस्थितीक शरण गेले. 'आलीया भोगासी' हो तांचो मंत्र. उरिल्ल्यानी ह्या फुटक्या वाजंतराकडेन दोळेझांक केल्या वा तांकां भेड्डो कान दिला. हांगासर त्या धनाढ्य व्यापाऱ्याचे बायलेचे काणयेची याद जाता. लग्नाउप्रांत अवघ्याच दिसांनीं तागेले सुंदर आनी अप्रुपाचे बायलेक कसलें तरी वायट जालें. वखद–विर्सद करतकच ती निवळ्ळी. पूण पापयेची जीब गेली. व्यापाऱ्यान बायलेक बरी करपाक पयशाचें तोंड पळेलें ना. कोण म्हण्टा थंय थंय ताणे वचून घाडी–नाडी–प्रसाद–पाकळी, आंगवण, वैज आनी दोतोर केले. निमाणे मुंबय वचून एका सर्जनान तिगेलें ऑपरेशन केलें आनी आशिल्ली तशी तिका वाचा फुटली पूण थोड्याच तेंपान घोवाक आपणे केल्ली घोर चूक लक्षांत आयली. बरोच काळ उलोवंक मेळ्ळें ना म्हणून बायलेन सूड घेतलो. ती इतली बडबडूंक लागली, घोवाची न्हीद लेगीत ना करून उडयली.ते सोबित आळवतीणींच्या तोडांतल्यान धबधब्याच्या घसघशापरस नेटान उतरांचो शिंवर शिंपडटालो. व्यापाऱ्यान वेळ काळ करीनास्ताना सोमतोच त्याच दोतोराक गांठलो आनी नुकसान भरपायचो उपाय सुचयलो. तो म्हळ्यार खासा आपणे ओपेरासांव करून भेड्डे जावप. उप्रांत बायल पयलीभशेन उलयत रावली आनी घोव बाबडो सुशेगाद आपल्या वावरांत दंग उरलो.

अगणित घोवांच्या दुःखाक वाचा फोडली जायत जाल्यार हे घोव त्या दीसपट्टया बोबाट्या बायलांकडेन अपेसाचें झूज झुजत रावले.

हे घोव बाबडे कितले सोंसता हाची तुमकां कल्पना येंवची म्हणून हांव कांय अवघेच दाखले दितां.

कपलाक आंठयो घाल्लो एक घोव एका रेस्टोरंटांत भितर सरलो. थंय चलयो सर्व्ह करताल्यो. ताणे ऑर्डर दिली. 'करपिल्ल्यो दोन स्लायसी (पावांच्यो) आनी दुगदुगीत धुंवरेल्ली काफी हाड'. चलयांक अजाप जालें. पूण गिरायक मागता तें दिवंक जाय. ताणें स्लायस आनी कॉफी हाडून दवरली. आनी विचारलें. ' आनी

कितें जाय 'हय. तूं मात्शें म्हज्यो खोडी काडपाक म्हज्या समोर बस. म्हाका घरची याद येता' गिरायकान म्हळें.

घोव आनी बायलेमदलें संभाशणूय देखदिणे आसता. ' एकलेन विचारले, 'लग्न सुध्दा एक बरी कॉलेज अशें तुमकां दिसना ?' 'दादल्याक न्हय,' घोवान जाप दिली. 'कित्याक न्हय? ' बायलेन पर्थून विचारलें. 'कित्याक जाणा? तागेली बॅचलर ही पदवी तो वगडायता आनी ताका married ही पदवी मेळटा.'

चलयांच्या एका घोळक्याक तांचे शिक्षिकेन उपदेश केल्लो लक्षांत घेवपासारको 'तुमकां लग्न करपाचें जाल्यार सैन्यातल्या मनशालागीं जायात. तांकां रांदूक येता, वाडूंक येता, तो हातुळण घालूंक, सान्न मारूंक बी सगळें जाणा. त्या भायर वरिश्टांचे हुकूम चोख पाळचेली ताका सवंय आसा.'

सादारणशा एका नमुन्यांची आनी एका घोवाची गजाल . लग्न जावन धा वर्सां जाल्लीं. तो मध्यस्थांकडेन गेलो आनी कुरकुर करूं लागलो. 'कितें जालां रे तुजें? कशें वता? ' मध्यस्थ. 'वतलें कितें कपळ, नवोच लग्न जालो तेन्ना हांव घरांत भितर सरतकच सुणो पायां लागीं घुटमळत भोंकतालो आनी ती स्लीपर्स हाडून दिताली. 'आनी आतां? ' मध्यस्त . 'आतां–सुणो स्लिपर्स हाडटा आनी ती भोंकता' घोव.

अशेंय आसून चुकून कांय घोव हुशार आसतात. एका इश्टान एका घोवाक सांगलें, ' म्हजी बायल हालीं म्हजेकडेन उलयता.' तातूंत कितें जालें? म्हजीय उलयता पूण तिका दिसता हांव आयकतां म्हणून.'

कशेंय आसूं–'अखिल भारतीय' घोवांवेलें हे संकट निवारतलो जाल्यार ताणे सहस्त्र (हजार ) भटांक हाडून एक शतचंडी वा हवन करून सगळ्या देवांक , इश्टदेवतांक कुल देवतांक, म्हारवांक , देंवचारांक, पिंपळावेल्यांक सगळ्यांक पराथून गाराणे घालूंक जाय. 'संवसारांतल्या सगळ्या बायलांक मोन्यो आनी सगळ्या घोवांक भेड्डे कर सायबा, म्हणूक जाय. भट एखादले राजी नासत, भटणी मोन्यो जाल्ल्यो तांका घडये नाका आसत. पूण प्रयत्न करपाक कितें जालां?

देखून हांव पर्थुन एक फावट सांगता. तें म्हळ्यार, ' घोव भेड्डो आनी बायल मोनी' हें एकामेकां खातीर आदर्श जोडपें.



17.

# वा म्हळ्यार वार्ता

हांव जेन्ना ल्हान आशिल्लो – म्हणजे आतां आसा ताजेपरस, आमी इश्टमित्र 'झेब्रा' म्हुण एक खेळ खेळटाले. हांव जेन्ना इश्टमित्र म्हण्टां तातूंत चले आनी चलयो मेळून एकठांय हो खेळ खेळपाचो हें आयलें. आमी रांकेत उबे रावताले. एकामेकांक तेंकून खांद्याक खांदो लावन. खेळ असो––पयल्या चल्यान वा चलयेन तागेल्या शेजाराक उबो राविल्ल्याच्या कानांत आपल्या मनातलें ल्हवू पुटपुटपाचें (हेर कोणाकच तें आयकूंक येना हाची जतनाय घेवपाची) आयकतल्यान जें कितें आयकलां तें जशाचें तशें ल्हवू आवाजान तागेले दुसरे वटेन राविल्ल्या शेजाऱ्याच्या कानांत गुणगुणपाचें आनी हें अशें रांकेंत उबो राविल्ल्या निमाण्या भुरग्यामेरेन चलपाचें आनी निमाण्या भुरग्याच्या कानांत जें कितें पडलां तें ताणे जशाचें तशें व्हड आवाजान सगळ्यांक सांगपाचें.अजाप म्हळ्यार निमाणो भुरगो कितें सांगता तें आनी पयल्या भुरग्यान दुसऱ्याच्या कानांत कितें सांगिल्लें तें हांतूंत जमीन आसमानाचो फरक आसतालो. निमाणी उतरां इतलीं विपरीत आनी विपर्यस्त आसतालीं सांगपाक सोय ना. सुरवेचे सांगणेक आनी ह्या निमाणच्या सांगपाक काडयेचो लेगीत संबंद नासतालो. पयलें वाक्य आनीक मजेशीर जातालें. देखीक ' पुता, तकलेक तोपी घाल, नाजाल्यार वतांत तापतली ' हें वाक्य निमाण्या भुरग्यांच्या तोंडासून कशें आयकुपाक मेळटालें जाणां? ' पोतयेंत तकली घालून तोप वतांत तापय '.

आनी अफवा वा वंदता अशोच सुरू जातात आनी खंयचे खंय शेणटात. भोव करून त्यो ल्हवू कानांत फुत्तफुतप जाता आनी आयकुपी आपलो प्राण गेलो तरी त्यो

आपुण कोणाकूच सांगचोना म्हुण सोपूत घेवन मेकळो जाता. पूण आयकुपी हो सोपूत म्होड्डून दुसऱ्याक ती गजाल सांगतलोच म्हणपाची पयल्या मनशाक खात्री . देखून तो पुश्र्या सवाय असलें प्रसारणाचें माध्यम वेंचून काडटा. हे नदरेन बायलां दादल्यांपरस सरस. तांचेर हें काम सोंपयल्यार तुमकां हुस्को करपाची गरज ना. खबरेपत्रांत पयशे दिवन जायरात दिवचेपरस खंयचेय बायलेक ' सेग्रेत' सांगची. प्रेसांतल्यान भायर सरचेपयली खांची कोनशाक खबर पावता. त्या भायर बायल मनशेक रांदूक येता. म्हण्टकच मूळ खबरेक ,जाय तितलो मीठ मसालो लावन तो जाता तितलो रूचिक जावंचो ही तिची धडपड.

पूर्व –पुरातन काळापासून एका गजाल सिध्द जाल्या . खंयचीय गजाल तीव्र गतीन दुसरे सुवातीचेर पावोवपार्ची जीं साधनां आसात तातूंत दूरवाणी Telephone, दूरग्राम Telegram आनी तिसरी Tell-a-woman म्हणजे, ' गांव – भयणीक सांग ' पूण प्रत्यक्षांत तिसऱ्याच साधनाचो नंबर पयलो लागता. वदंता वा अफवा हो खबरेचो एक विरळ प्रकार. तिका जलद वाहीनीची गरज पडना. सगळ्यो वदंता खंयच्यान तरी सुरू जाता. हे सुरवातीक कारणां जायतीं. समाजिक, राजकी, दुश्टबुध्दी, सुडात्मक , दुस्वास आदि.

उज्याबगर धुंवर नासता, अशी जरी म्हणणी आसली, तरी वदंतेच्या उज्यांत धुवंरूच चड.

खूब फावट कोणाक तरी दुखोवंक जाय वा ताचें कितेंय जाल्यार वायट जांवक जाय होच हेतू वदंते फाटलो. केवळ निरोगी हेतून वा सदिच्छेन अफवा क्वचितुच पिकतात. अफवा म्हळ्यार रोसाच्या पदार्थांवरी. रूचिक लागपाक रोस भरपूर आसूंक जाय. जाका लागून किरकोळ कुजबूज लेगीत दर सपणां कणकणी जलद गतीन नवें नवें वळण घेवन कुतूहल आनी उत्फुर्के वाडयत, पिकाळ तकलेंतसून भंयकर अवसर घेवन समाजांत संचारता.

केन्ना केन्नाय अकस्मात एकदुकलो अजाण निरपराधी वदंतेचो बळी पडटा.

म्हगेल्या जिवितांतली एक गजाल. फार्टी एक फावट मुंबय वचपाक एका बर्थांत रिझर्व्हेशन पळेल्लें. दोन दिसांउप्रांत म्हगेलो एक जाण्टो इश्ट म्हाका

मेळ्ळो. ताणे म्हजें कांवटराचेर रिझर्व्हेशन पळेल्लें. तो सांगूंक लागलो. म्हज्याच डब्यांत आपणेय आपले आंकवार मेवणे खातीर बर्थ राखीव केला. ताका खूब खोशी जाल्ली दिसताली. हांवे मात्शे आडेवेडे घेतले आनी म्हागेले वैशम्य उलोवन दाखयलें. 'एकदम बरें जाले' ताणे म्हळें आनी पांचशी मैलांचो प्रवास तिका एकलेक म्हज्याबरोबर करचो पडलो. जायत्या जाणांनी आमकां दोगांकुय बऱ्याच स्टेशनांचेर पळेल्लीं आसूंक जाय. मुंबय पावल्या बरोबर म्हज्या इश्टाकडसुन हांवे म्हजे पयले बायलेलागीं घटस्फोट घेतला म्हणपाचें म्हाकाच आयकुचें पडलें.

अफवांची मळां वेगवेगळीं. शाळा–कॉलेजीनी हांचो सुकाळ. भरघोस पीक हरीत क्रांती लेगीत त्या मानान फाटी. चुकून एकादल्या प्रोफेसोराच्या तोडांतल्यान एक विशय भायर सरता. तो विशय नेमको इंटराक चवथ्या वर्सा परिक्षेक बसपी विद्यार्थ्याच्या कानांत पडटा आनी त्या वर्साचे प्रस्न पत्रिकेंत नेमको तोच विशय येतलो म्हणपाची अफवा पातळटा. खरें पळोवंक गेल्यार प्रश्नपत्रिकेक आनी प्रोफेसरान उच्चारलेल्या विशयाक ताळमेळ नासता.

असोच एक प्रसंग आमी इंटराक आसताना आयलो. 'लोकसंख्येचो स्फोट' हो विशय चुकून एका प्रोफेसराच्या तोंडातसून आयलो. जालें–भरुग्याभितर चरवी–चरवण. त्या वर्सा अर्थशास्त्राच्या पेपरांत नश्र्की हो प्रस्न येतलोच म्हणपाचें. अशावेळार वदंतेचीं गती आवाजापरस फास्ट आसता. ही वदंता कॉलेजभर पातळ्ळी. आयकतल्यांनी आपापले परीन ती आयकली. म्हगेल्या इश्टान 'महात्मा आनी इंडीयन इकॉनोमिक्स्' असो अर्थ लायलो. ताणे ह्या विशयाचेर संबद रात जाग्रण केलें. सुजिल्ल्या दोळ्यांनी परिक्षेक बसलो. प्रश्नपत्रिकेंत हांतलें कांयच नाशिल्लें.

परिक्षेवरीच वायट आनी मरण हांच्योय भगल्यो चड जाता. जयप्रकाश नारायण हाणी आपल्याच मरणाची खबर खबरे पत्रांत वाचली ही गजाल ह्या देशांतलो कोणूच विसरचोना आनी तांगेल्या दुखेस्त मरणाचो शोक थाराव लोकसभेन पास केलो. हांगाय वदंतेची सुरवात आपशींच जाली. व्हड मनशां भोवतणी किरकोळ लोक बेश्टे बोवाळटात आनी तांचे विशींची खरी फट खबर कोण बेगीन पावयतलो

म्हणपाची सर्त तांच्यांत लागिल्ली आसता आनी व्हड मनशाचें लुकसान जाता.

ताकतिकेन एकादलो निरोप वा रकाद धाडलो जाल्यारूय अनर्थ उप्रासता. म्हगेले इश्ट रवीन्द्र केळेकार गोंयचे मुक्ती आदीं दिल्लीक आसताले. तांचो बापूय दिवाक दोतोर आसलो. ताणे रवीन्द्राक एक तार मारली. तार आशिल्ली पोर्तुगेज भाशेंत. Casamento do fulu no dia म्हळ्यार अमक्या दिसा फुलू चें लग्न. हें फुलू कोण हाजी रवीन्द्राक याद जायना. हे तारेचो संबंद गोंयच्या राजकारणाक बी लागता जाल्यार पळोवपाक ताणी ती स.काकासायब कालेलकारांक दाखयली. त्या दिसा गोंयचे विशीं पोर्तुगेज सरकार कितेंय पूण पावल घालपाचो कावो करता आसुंये असो हे तारेचो अर्थ लायलो. भारत सरकारचें परराष्ट्र मंत्रालय लेगीत जागरूक जालें. तो दीस येवन गेलो. खंयचेकडेन कांय ना. फक्त दोतोर केळेकारांच्या घरांत फुलू नावांची वावराडी आसली तिगेलें लग्न त्या दिसा बरे भशेंन जालें म्हणपाचें रवीन्द्राक पत्र मेळ्ळें.

असोच एक प्रसंग. म्हजो पुतण्यो पणजे म्हज्या क्वार्तांत रावतालो. म्हाका कोणूय मेळपाक आयलो जाल्यार ताचें नांव विचारून, म्हज्या मेजार बरोवन दवर आनी ताणें सांगलें जाल्यार निरोप दवर म्हुण हांवे ताका फर्मायलें.

त्याच दिसा सांजेच्या आठांक सुमार हांव बिराडार परतलों. टेबलाचेर नांव बरोवन दवरलेंलें 'जॉन मेलो' आतां जॉन मेर्सेचो. तो मेलो म्हुण समजतकच म्हज्यान स्वस्थ कसो रावूं येता? टॅक्सी करून मेरशे गेलों. तांगेलें घर गांठलें. पळेल्यार वातावरण सदचें. आनी जॉन म्हाका येवकार दिवंक बल्कांवार ! 'जॉन डी मेलो' म्हगेल्या पुतणयालागीं ताणे निरोप दवरलला 'हांव जॉन डी मेलो' आयिल्लों. म्हाका टॅक्सीचो भुर्दड पडलो ही वेगळी गजाल.

अंदूचे चवथीकडेन अशीच एक घडणूक. आमगेल्या शेजरा एक नावाजतें हिंदू कुटुंब रावता. चवथीचो उत्सव बरो नेटान चलतालो. भुर्गीं बाळां फुगेटी चनरजोती लावपांत गुल्ल जाल्लीं. इतल्यांत एक मनीस आयलो आनी ताणे एक अशुभ वार्ता दिली. तांच्याच आडनावांची एक बायल मनीस भायर पडली म्हणपाची खबर! सुतकांत चवथ कशी जातली? चवथीचो सण बंद दवरचो पडलो.

त्याच घराण्यात आमची एक अति उत्साहि पूण परंपरा प्रीय परिचीत रावता ही अशुभ खबर ताच्यान सोंसू नज जालीं. उत्सवाचेर उदक पडिल्लें. ही खबर दितल्याचोच सूड घेवंचो अशें ताणे थारायलें. तुमची चवथ अंदू बंद कित्याक? ह्या प्रश्नाक ताणे जाप दिली. ती दुश्ट खबर दिवपी मनशाच्याच नांवान . तोय हांच्याच आडनांवाचो 'चक्क पैकी' तोच खंवसलों म्हुण वदंता. दुसऱ्या दिसा, सोयरे–दायरे–इश्ट–मित्र, वळखीचे सगळे सकाळफुडें ताच्या दारांत. हे खबरेचो उगम समजतकच बिंग फुटलें पूण तो मनीस गेल्ल्यापरस ताका जितो आसतानाच मारला म्हणपाचें दुःख सोडुन 'काय बरी आमची पंचम फुकट गेली' म्हणपाचो विशाद सोयऱ्यादायऱ्यांच्या तोंडार! देखुनूच वंदतेचो वेग सुमाराभायर आसता ह्या म्हणण्यालागीं तुमी सहमत आसतले.

तात्पर्य - 'Iingua centum sunt, oraque centom, ferra voz'- It has hundred tongues , hundred mouths & iron voice वदंतेक शेंकड्यांनी जिबो, शेकड्यांनी तोंडा आनी लोखणी गळो आसता हेंच खरें.

□□□□

18.

# आनंदयात्री बाकीबाब

**बा**ळकृष्ण भगवंत बोरकार जुलैचे आठ तारखेक पुण्यांत गेल्लेकडेन चड बरो ना जावन सोंपलो. तांगेलो जल्म 1910 त बोरये गांवात. 74 वर्सांचें समृध्द जिवीत जगलो. समृध्द म्हळ्यार गाडी, घोडो, बंगलो अशी कल्पना जाता. पूण हांव त्या अर्थान म्हणीना.

साहित्यिक कसलो? जाण्टेले अपुरबायेन बाळकृष्णाक बाकी म्हणटाले. भुरगे भोवमानान तांका बाकी बाब म्हण्टाले. निमाणे सगळ्यांच्याच तोंडांत बाकीबाब बसलो. महाराष्ट्रांत कवी बोरकर वा बा. भ. बोरकर म्हणून जरी लोक ताका वळखताले तरी थंयसरय तांची अपुर्बाय हिसपाभायर जाली आनी तेय 'आमचे बाकीबाब', म्हणूक लागले. मराठींत हाडाचो कवी म्हुण आसता. बाकीबाबाक ही उपाधी सोबता. 'बाकीबाब नीज गोंयकार' मूळचो छंदी,विलासी,शृंगारी आनी देखूनच काळजाचो कवी.

तांकां पयली वयली काव्याची प्रेरणा जाली ती बोरये तांच्याच घरालागीं माडार चडपी पात्रिस रेंदेर हाच्या म्होवाळ कांतारांतल्यान. बाळकृष्णाच्या जीविताचें नंदनवन फुल्लें तें ताच्याच उतरांनी सांगचे जाल्यार, मागरित नांवाचे शाळेंतले वाडिल्ले चलयेन अकस्मात ताजे फाटले वटेन येवन ताचे दोळे धांपले आनी अपुर्बायेचो एक उमो घेतलो तेन्नासान. वयार आयिल्ले चले चलयांचेर अतिक्रमण करतात तें आमी आयकलां वा पळेलां. प्रत्यक्ष अणभव पदराक ना ही वेगळी गजाल. पूण एका बालकवीचेर आगळीक करपी हें ख्रिस्तांव चेडूं पयलेंच आसूंये. कशेंय आसूं – बाळकृष्णाच्या लीलांक तशें पळोवंक गेल्यार घरचें वातावरण

प्रतिकूल. चडशे धार्मिक संस्कार, सकाळपारा भूपाळी, स्तोत्रां, दनपारां बायलांच्या तोंडासून शिवलीलामृत, सांजचो मावशेकडल्यान कसलो ना कसलो पाठ, रातीचीं भजनां, त्याभायर गांवचीं नाटकां, किर्तनां, चातुर्मासांत पांडवप्रताप, हरिविजय, महाभारत ह्या ग्रंथांचें वाचप तांच्या कानार पड. तशें पळोवंक गेल्यार बोरकाराचें मराठी शिकप जेमतेम दोन यत्तांचें. पूण जाण्टेपणांत कवी कारे हांची आनी तांची इश्टागत वाडली आनी बालकवी, गोविंदाग्रज, टिळक, केशवसुत, यशवंत ह्या सगळ्या महाराष्ट्रीय कविंच्यो कविता वाचूंक मेळ्ळ्यो. 'प्रतिभा' आनी 'जीवन संगती' हे तांचे काव्यसंग्रह हेच मुस्तींत उजवाडाक आयले.

उप्रांत तांचेर शेले, कीटस, बायरन बी जायत्या नामनेच्या इंग्लीश कविंचे संस्कार जाले. बोरकार हे अस्सल गोंयकार, घरांत कोंकणी उलोवपी. भोंवतणी वातावरण कोंकणी आसताना तांची 'प्रतिभा' मराठींतल्यान कशी फुलली असो कोणाकुय प्रश्न पडल्यार अजाप ना. एक गजाल लक्षांत दवरूंक जाय. बोरकारांचे पिळगेमेरेने आनी चड उणें प्रमाणांत अजुनूय गोंयचो हिंदु हो महाराष्ट्राचो सांस्कृतिक उपनिवेश आशिल्लो आनी चड उणें प्रमाणांत तांतले अवशेष अजुनूय आसात. कोंकणीकडेन पळोपाची ते पिळगेची नदर आंगरस्तराची आशिल्ली. मराठींचें पुडवें न्हेसूनच ते भायर सरताले. कोंकणी आंगस्तरा घरांत सोडटाले. सत्वाची, स्वभाशेची पयली वयली जाण हे पिळगेंतल्या पयल्या वयल्या हिंदुक आयली ती द्रष्ट्या वामनबाब उर्फ शणै गोंयबाबाक आनी तांचेच प्रेरणेन बोरकारान कोंकणीचो पाखो घेतलो. हें करताना महाराष्ट्राचो बरोच कडवो विरोध सोंसचो पडलो. तो डगमगलो ना. ताचे फाटल्यान काकासायबासारकिल्ल्या गांधीवादी समर्थ आनी श्रेष्ठ साहित्यिकाचें मार्गदर्शन आशिल्लें. देखून बोरकार एकटो पडलो ना आनी ताची प्रतिभा ताका घाण दवरची पडली ना.

बोरकाराचे सुरवातीचे कवितेंत प्रेमकविताच चड. तांतूत शरीर नाकारूंक ना. तें धुन्द, रंगेल आनी विलक्षण अशें प्रकट जालां. 'स्मृती', 'स्पर्श', 'जपानी रमलाची रात्र' ह्यो कविता म्हळ्यार मराठी शारदेच्या आंगार घाल्ले चिरंतन अलंकार.

रतिरत कुक्कुटसा कुंडीवर आरोहुनी माड
चोंच खुपसुनी फुलवीत होता पंखांचे झाड
करांतुनी तेव खिदळीत आले स्तनाकार पेले
जळता गंधक पाच उकळती याहि रंगलेले
अभिष्ट त्याचे चिंतुनी आम्ही भिडवियले काळ
सुरेहुनी तू गडे भाजी ओठांनी ओंठ

ह्यो ओळी मुकळ्यांतल्या अनवाळ्या अध्यात्माक खरें म्हळ्यार भुपकावरी.हीच धुन्द मस्ती जेन्ना अबोल जाता तेन्ना वेगळीच पातळी गांठटा.

तुला मला उमगला जिव्हाळा
जन्माचा पट फिटला ग
अन् शब्दांचा प्रपंच सगळा
कमळासम हा मिटला ग

गोंयचे सैमीक सोबितकायेचो बाकीबाबाचेर विलक्षण परिणाम.

'जीवनसंगीत' ह्या संग्रहांत मराठी शारदेच्या दरबारांत बाकीबाबांक एक खास पाट मेळ्ळो.

'माझी आगबोट' हे कवितेचें ध्रुवपद वेगळेंच. ल्हारांच्या आंदोलनाचेर वयर सकल येवपी बोटीचो 'छंद' त्या उतरांनी भरला. ल्हवू ल्हवू उदकांत बुडून वचपी फाटलें जग. दर्याचो निळो काळसो रंग. उदास वातावरण. गोंयच्या भोंवतणचो परिसर साक्षात उबो करता!

नारळीचे वृक्ष स्तब्ध, प्रेमस्तंभ उभे
पर्णाआड पक्षी जणू भाव हृदी दबे
धरितात अश्रू हृदी केळीयेचे गबे
हेमंताचे दीस तरी हृदी उष्ण वात ग
माझी आगबोट चालली दरियात ग।

'जलारोहण छंदातळी' ही कविता एक वेगळेंच भावविश्व उबें करता.

बाकीबाबान तांब्यांची परंपरा मुखार चलयली हें मान्य करचेंच पडटा. तांच्याच उतरांनी सांगचें जाल्यार कवी तांबे हाणी रोयिल्ल्या रायवळ रासवटाक मानकुरादाचें कलम बाकीबाबान लायलें.

कविता म्हळ्यार कविच्या व्यक्तित्व विलोपन शक्तिचो अविष्कार हें बाकीबाबान सिध्द केलें.

रससिध्द प्रतिभेचें वरदान बाकीबाबाच्या काव्यांत सांपडटा. रंग, रूप, रस, गंध, हांचो लावण्य महोत्सव पळोवंक मेळता. पूण बाकीबाबांची कविता येतनाच वांगडा पांयाजणांचो नाद घेवन येता.

आकाशवाणी पणजी केंद्राचेर, गोंयचे नामनेचे कलाकार लक्ष्मण पै हांचें एक भारी ओडलायणे चित्र आसा. त्या चित्राक एके सुंदर अप्सरेचो तोंडावळो आनी पांयजणांचीं पावलां, तशेच मेथयेन रंगयलेले हात इतलेंच दिसता. तें चित्र पळेतकच बाकीबाबांची कविता–रति पावलां मारीत येता, असो भास जाता. दुसरी उपमा दिवंची जाल्यार 'संशय– कल्लोळ' नाटकांत अश्विन शेट जे उत्कंठेन रेवतीची वाट पळेता तशी कितेंशी उत्कंठा बाकीबाबांचे कवितेची रसिकाक लागता. 'यावे यावे तृषित चातक मेघमाले यावे ' अशें म्हणून आश्विन शेट एक सारको ल्हालेता आनी ती ' रूम झुम झुम' असो पांयजणाचो नाद सादयत येता. तेन्ना खोशयेन भुर्कुटून तो 'सुकांत चंद्रानना पातली' हें पद म्हण्टा.

बाकीबाबांची कविताय खऱ्या अर्थान 'सुकांत चंद्रानना' हे न्हंयचे पलतडीं पिशान यौवनाचें झाड देखलें, ताच्या पानांफाटल्या अमृताच्या चंद्रिमा मेरेन जो पावलो तागेली कविता ताचेवरी चिरतरूण आनी चिरंजीवी उरल्यार अजाप कसलें?

'रत्नाचे द्रव स्रवती, स्वप्नील रस लवलवती ' इतली ती नाद मधूर, 'ललितले वंगलती परिशीलन कोमल मलय समीरे, ' हे जयदेवाचे पंक्तीक जी माधुरी आसा तितलेंच शब्द सौष्ठव वा म्होवीं उतरां बाकीबाबाचीं. तातूंत भारतीयेचें आत्मदर्शन आनी ग्रीकांची सौंदयदृष्टी आसा. गोंयच्या मुक्तीसंग्रामाक

लागून बाकीबाबांक गोंय सोडून वचचें पडलें. 1946 वर्सा डॉ. लोहिया हाणी गोंयात येवन नागरीक स्वातंत्र्या खातीर सत्याग्रह केलो. पोर्तुगेजान धरपकडीचें सत्र सुरू केलें. अशा वेळार प्रजेक पेटेयतलो जाल्यार प्रजेचे भाशेंतल्यान काव्य जावंक जाय हाची जाण बाकीबाबांक आयली.

**महात्मा गांधी आयलो रे**
**गोंयांत आमच्या पावलो रे**
**बावटो ताणे हाडलो आनी**
**गोंयांत आमच्या लायलो रे**

तेदेवेळार गोव्हेर्नादोर बॉस हाका उद्देशून कवीन म्हळें,

**दोतोर बॉस दोतोर बॉस**
**सोमजिकायेन वाग**
**तोकली तुका ना जाल्यार**
**उठून चलूंक लाग.**
**फातरां तांदूळ, तेय ना वेळार**
**पोटाक पडली आग**
**लजेक लुगट म्हारग जालें**
**उत्की पडली जांग**
**येंप्रेगाद नागोवंक शिकले**
**तांकां पावना पाग**
**कोफ्रिंत वियेता वाग**

हें कांतार तर ल्हान व्हडांचे जिबेर घोळूं लागले. ताणी पुणे आकाशवाणी केंद्राचेर रावून गोंयच्या स्वातंत्र्य संग्रामाक बरोच हातभार लायलो. थंयसून ताणी 'प्रजेचो आवाज' हें पंदरशी कोंकणींतल्यान सुरू केलें.

सात लाख गोंयकार आमी

युग नवें फुलयतले

अंदल्यात मंत्र जीवि

ते फाल्यां उलयतले

झोंबून घेंवंक वयली घुडी

होमखणांत आमची उडी

रैताच्या जैताचो

शेक नवो चलयतले,

हें तांचें स्वतंत्र गोंयचें स्वप्न. गोंय मुक्त जालें. पूण गोंयकार कोंकणी मराठी वादांत घुस्पले, तेदेवेळार.

प्राणांक क्षय, बुध्दीक भंय

फाल्यांक जंय, कालचीच वंय

आयलांच जंय स्वातंत्र्य , तें स्वातंत्र्य न्हय

जें प्रजेचे खणपी वाते

तेच जंय सन्मान्य दाते

दारांत ताच्या सज्जनांचो लागता लय.

पाडसावयले कुंवाळे

काल धवशे, आज सांवळे

बाकीबाबांची ही कविता आयकतकूच टागोरांचे कवितेची याद करता.

चित्त जंय भया विरयत, उंच नित्य माथें

ज्ञान जंय तशेंच मुक्त सहज शुध्द व्हांवतें.

'सासाय' हे कवितेंत तांचे द्रष्टेपण आमचे नदरेंत भरता.

ते म्हण्टात,

**जागी जाल्या गोंयची सासाय**
**येतलो भार येतलो भार**
**धोल ताशे बडय  बडय**
**मार शेंसार, मार शेंसार**
**आसूं  थवय,  आसूं मुळी, आसूं कोणय**
**तांतलो एक मस्तो  हट्टी---**
**घेवन तरंग दिग्ग उबो**
**ताचे फाटल्यान माळुण  जावन**
**सगळो गांव लोट्टलो**

आनी तांगेलें हे भाकीत खरें जालें. कोणाचेर तरी  गोंयचे सासायचो भार आयलोच आनी  गोंय स्वतंत्र अस्तित्व सांबाळून रावलें.

आनी  कवी कसो  आसचो हे  विशींचो तांचो हो  आदर्श :–

**सौंदर्याचा भोगी, जीवनी विरोगी**
**निद्रेंतहि जागी जगासाठी**
**कर्तव्याची चाड कुडीच्या परीस**
**दगडा परीस करू शके**
**मतीने, कृतीने, उत्तीनें निर्मळ**
**तेजाने उजळ, करी जना**
**हाच खरा कवि, प्रीत पाझरवी**
**तेजें दिपें रवि  ईश्वर हा.**

ही तांची 1928तली कविता.

1932त पणजेंत तांका कोणातरी भामिनीन भुरळ घाली आनी तिका कशें समजावप हेंच तांकां समजना जालें. तेदेवेळार–

**कशी तुज समजावू सांग**

**कां भामिनी उगीच राग**

**हास्याहूनी मधु रूसवा**

**हेमंती उणे हवा**

**संध्येचा साज नवा**

**हा का प्रणयानु राग?**

बाकीबाबांचे 1940 तले तांचे कवितेन एक वेगळेंच वळण घेतलें. देखीक –

**जन म्हणत तुज दुसऱ्याची ग**

**जना त्वचेचे डोळे दुबळे**

**प्रकाशसुख न गवसे म्हणुनिया खुळे**

**म्हणती तुज दुसऱ्याची ग।**

बाकीबाब हे खऱ्यांनीच आनंदयात्री. जंय प्रेम करचेली तांक आसा थंय शुध्द आनंद आनी सुख आसता. बाकीबाब तर सुखावतात. माजर आंग चाटटानाच जाणवता. ते म्हण्टात –

**सुख ना रे पैस पळे**

**उदक कशें व्हांवता**

**धरूंक गेल्यार**

**पारज जावन धांवता**

'पांयजणां' हें तांचे कोंकणी काव्य तर शृंगार रसाचो उत्कंट आनी जीवंत जीतो जागतो नमुनो.

**त्या दिसा वडाकडेन गडद तिनसना-**
**मंद मंद वाजत आयलीं तुजीं गो पांयजणां**

हांतलो कल्पना विलास विलोभनीय. प्रतिभा मळबाक गवसणी घालून इंद्रलोक हुपता खरी, पूण पर्थून आशिल्ली तशी हेच धर्तरेर परतता. 'नवलांचीं शकुन लक्षणां' जाता. पूण निमाणो सूर उदास –

**तांतले कांय उल्लें आज**
**सगळे जीणें जाल्या सांज**
**तरी अकस्मात तुजी वाजती पांयजणां**

असो हो आनंदयात्री दिगन्ताचे यात्रेक भायर सरलो. ताणी वाजयिल्लीं पांयजणां आमच्या कानांत घुमतात. देखून तांचे यादस्तीक ह्यो म्हज्यो निमाण्यो ओळी –

**उरली बाकी**
**सोंपलो बाब**
**उरली साकी**
**दिल रूबाब**
**खिन्न मनां-सुन्न रानां**
**आयज पानां शिरशिरनां**
**पुनवेंची रात आयज**

ग्न्राणाचो सोदता गिरो
धनवन्ता-कफन आयज
कफल्लका सोदता चिरो
क्षर जितलें-नाशिवन्त
तेंच आयज गेलां लय
संजीवन  अक्षर तें
झोंबता आमच्या गा हृदया.



19.

# आजूनय तुमचें उरलां ?

गोंय निकतेंच मुक्त जाल्लें. कुम्भारजुवें ते माशेल पूल जांवक नासलो. बशीचें प्रमाण आयचेवरी नाशिल्लें. आनी रहदारीय जेमतेम आशिल्ली. गवंडाळेसून कार्‌रेरी सुट्टाल्यो त्यो पणजे सकाळच्यो येवन, सांजेच्यो परत्यो परतताल्यो. गवंडाळे ते कुमारजुवें तार आशिल्ली.

एक दीस हांव कुमारजुवेंसून पणजे येवपाक णवांची कार्‌रेर धरपाक भायर सरलों. तारींत लोक भरपूर आशिल्ले आनी तार पलतडीं पावल्याबरोबर कार्‌रेरींत जीव घालपाक पॅसेंजरांची सर्त लागली. कार्‌रेरीचें लोतासांव अठरा पॅसेंजरांचें. तें भरिल्लें. हांव भितर चडलों तो इकुणिसावो. म्हाका मदीं ओणवो उबो रावचो पडलो.म्हजे फाटल्यान आनीक 5/6 पॅसेंजर ओणवे उबे रावले.

म्हाका तेंकून उबो राविल्लो स्वता:क राष्ट्रवादी लेखतालो. तो कुम्भारजवेंचो सोयरो. हांव ताका वळखतालों. तो म्हाका नांवान वळखतालो जांवये पूण तोणान न्हय. ड्रायव्हरान कार्‌रेरीक स्टार्ट मारचेपयलीं आमचे लागीं करार केलो. पोन्न्या गोयां 'पोश्त पुलिसियाल' म्हळ्यार पुलिस स्टेशन आशिल्ल्यान आमकां गोयां पावतकच देंवचे पडटलें. आमी कबूल जाले आनी कार्‌रेर सुटली.

सिटार बशिल्ल्या प्रवाशांत एक जाण्टेली किरिस्तांव बायल मात्शीशी ऐसपैस बशिल्ली. तिगेले केंस पिकिल्ले आनी ती अदमासान साठीच्या घरांत पाविल्ली आसूंक जाय. तिचेलागीं 2/3 पोटल्यो आशिल्ल्यो त्यो तिणे आपल्या पायांकडेन दवरलेल्यो.

म्हजे फाटल्या मनशान तिचेर धेंगसो घालो 'ये, त्यो पोटल्यो सारश्र्यो दवर आनी पांय पातळावन कितें बसल्या? सारकी बस, आनी एकल्याच्यान बसूं येता त्या सिटार! अजुनूय तुमचें उरलां?' आसो तो फटाफट तिचेर फणफणलो. कांय पॅसेंजर हांसले. ती बावडी अशीऽऽ जाली. रडकुळी परतली आनी त्यो पोटल्यो

थरथरत्या हातांनी एकठांय करीत ' आं रे बाब. पूण तापता कित्याक रे? पळे रे बाब, बेश्टोच म्हजेर तापता' अशें म्हणून म्हजेर नदर मारली.

हांवे जाण्टेलेकडेन पळोवन. 'आसूं गे. तापल्यार तापूं तो' अशें म्हणून फाटल्यान वळून पळेलें आनी म्हज्या फाटल्यान राविल्ल्या जाण्टेल्याक सांगले When you are in the right, you can afford to keep your temper and when you are not, you cannot afford to lose it. अशें म्हणून म्हजी उश्णी बुदवंतकाय ताच्या तोंडार मारली.

' आमकां तुमची ती इंग्लेज समजना' अशें सांगून तो ओग्गी बसलो. चूक जाली ताका बसूंक मेळूंकना. पूण ओग्गी राविल्ल्यान म्हजी इंग्लेज उतरां ताका समजलीं आसूंक जाय म्हणपाचें हावें ताडलें.

इतल्यान कार्रेर गोंयां पावली आनी आमकां कराराप्रमाण पोश्ता आयल्यान देवचें पडलें. अकस्मात सिटार बशिल्लो एक पॅसेंजर उठलो आनी आपुण हांगाच देंवतां म्हणूं लागलो. हाका लागून एक सीट रिकामो जाल्लो.

म्हजे फाटलो मनीस तो आडावंक पळोवं लागलो. हावें त्या गृहस्थाक आर्जवान सागलें. 'हांव हे कार्रेरींत 19 वो आयिल्ल्यान एक मनीस देंवतकच नंबर म्हजो लागता.' सगळ्या पॅसेंजरांनी म्हजी कड घेतली.

हांव बसलों आनी ताका एक तोमणो मारलो. हांवे म्हळें, ' हे म्हातारेचें कितेंच उरूंकना, आनी तुमचेंय उरूंकना, तें आमचें जालां.' म्हजी खोंच ताका समजली. रागान तो मात्सो तांबडो जालो पूण ताका म्हजें नांव जाणा जावपाची उत्सुकताय जाली. हावें ताचें समाधान केलें आनी रोखडोंच उठलों आनी म्हळें, ' ह्या सिटाचेर जरी म्हजो अधिकार आसलो तरी तुमी जाण्टे आनी आमच्या गांवचे सोयरे. देखून तुमी पणजे वचात. हांव उसरां पावल्यार कांय तपलें बुडना' अशें म्हणून दुसरे कार्रेरीची वाट पळेत पोन्न्या गोंयां उबो रावलो.

तकलेंत मात त्या जाण्टेल्याचीं उतरां घोळूंक लागलीं. 'अजूनय तुमचें उरलां?' मुक्त गोंय सगल्यांचें न्हय, तें ठराविक धर्मियांचे असो कितें ताजो लटको समज. ह्या समजाची बुन्याद कितेंय आसूं वा हाची प्रतिक्रिया कितेंय आसूं, आयजवेर ह्या समजाचोच दुश्परिणाम आमी पळेतांव आनी एकामेकांविशीं सद्भाव नासलो जाल्यार गोंयचे मुक्तीक कुस्कुट लेगीत मोल ना ह्या निर्णयार हांव पावलों.

□□□□

20.

## गणराजा--

आमी शाळेक वता आसताना, पयलींच आमकां ' श्री गणेशाय नम:' अशीं अक्षरां पाटयेर चिरूंक घालताले. अ, आ, इ, ई, वा, क, ग, घ हीं सादीं अक्षरां पयली घालचे परस कानो, मात्रा आशिल्लीं 'श्री गणेशा यनम:' हीं अक्षरां कित्याक चिरूंक घालतात हाचें अजाप दिस. जाण्टो जातकच हें कोडें सुटलें.

भारतीय संस्कृती संकेतानी वा रूपकांनी उलयता. श्री गणेश वा गणपती जावन गेला काय ना हें आमी नकळं पूण आमी ताका देवांचो देव मानतांव आनी दर वर्सा चवथीक घरा हाडून पुजतांव आनी उप्रांत तांचें विसर्जन करतांव.

गणपती हो विध्नहर्तो म्हळ्यार तो अद्रुष्टां ना करपी अशेंय आमी मानतांव. देखून खंयच्याय मंगल वा बऱ्या कामाक आमी ताका पराथतां, मूर्ती नासली जाल्यार तांदळांचेर सुपारी दवरून पुजतां. दक्षिण कोंकणांत सुपारे बदला नाल्ल दवरतात. 'ॐ भूर्भुव स्व: महागणपतेय नम:' हो मंत्र म्हणून प्रार्थना करतात.

गणपती ही शैव परिवारांतली प्रमूख देवता. धड मनशाचें आनी तोंड हतयाचें. असो हो एक विचित्र आनी वैशिष्ट्यपूर्ण देव. पूण हें भारतातलें एक प्राचीन म्हळ्यार खूब पुर्विल्लें दैवत. कांय आर्येतर गण हत्तीची पुजा करताले आनी हे पुजेवेल्यान गणेशपुजेचो विकास जाला जावंये अशें कांय जाणांचें मत.

गणेश जल्माच्यो आख्यायिका जायत्यो आसात. त्यो सगळ्याक वेग वेगळ्यो. तातूंत एक वाच्यताना. पूण आयच्या संदर्भात त्या सगल्यांचो वेग वेगळो अर्थ लांव येता.

एक दंतकथा अशी. पार्वतीन खंय न्हातना आंगाचो जो म्हेळ आसता, त्या म्हेळापासून एक दादलो केलो आनी ताका दारार कोणूच भितर सरचो न्हय म्हुण राखूंक दवरलो. इतल्यांत थंय पार्वतीचो घोव शंकर पावलो. ताकाय ताणे आडायलो. शंकर कसोच आयकना. हो सेक्युरीटी गार्ड आनी शंकर हांची लडाय जाली. तातूंत शंकरान गार्डाची गोमटी मारली खंय. पार्वतीक परम दुःख जालें देखून इंद्राच्या हतयाची सोंड ताका लायली आनी गणपती जालो अशें शिवपुराण सांगता.

आयच्या संदर्भांत उलोवचें जाल्यार वैजकी शास्त्रांत जे Transplantation चे प्रयोग चलतात, तांतलो हो पयलो प्रयोग म्हणपाक हरकत ना.

त्या भायर आयज ' सेक्युरीटी गार्डूच ' जिका राखूंक दवरलेली तिकाच जिवानिशीं मारतात. देखून आमच्यानी गणपतीचे हे कथेंतल्यान देख घेवं येता. गणपतीक एकूच दांत–दुसरो म्होडला. कोणे म्होडलो हाच्योय आख्यायिका वा दंत–कथा कितल्योशोच पूण गणपतीक कृषी देवता मानतात. तो कृमीकिटकादी उपद्रवांपसून शेत सांबाळटा असो समज. गणपतीचे कान सुपायेदे. निमाणे सुपानूच घालून आमी ओरोव गोटो निवळ करतांव. ताचो एक दांत म्हळ्यार शेत नांगरपांचें आव्‌त.

गणपती आनी तागेलें वाहन हुंदीर हांचो अर्थ 'एलिस गेअटी' हाणी लायला तो असो, दिसाचो पृथ्वीसकल लिपिल्लो काळोख म्हळ्यारूच हुंदीर. सूर्य अस्तमतेक गेले बरोबर तो लिपत लिपत पृथ्वीचेर येता–गणेश म्हळ्यारूच सूर्य.

तागेल्या –'कोटीसुर्य समप्रभा' इतिहासाचो अर्थ कसोय आसलो तरी 'आध्यात्मिक' भक्तांक तो लागना. ते ताचो आध्यात्मिक अर्थुय लायतात. ते म्हण्टात 'हे गणेशा तूं तत्व. प्रत्यक्ष ब्रम्हा, तूं आत्मो आनी विज्ञानमय– सगळो तूंच.'

वेदांत्यांनी ताचो अर्थ आनी एके तरेन लायला. ते ताका ॐकाराचें रूप धरतात. हो ॐ कार आडवो बरयतात. पूण तो उबो केलो जाल्यार गजवदनाची कल्पना येता. ते गज हाचो अर्थ असो लायतात. 'ग, म्हळ्यार जातूंत सर्वनाश जाता आनी 'ज' म्हळ्यार सगळे जल्माक येतात. तें तत्व म्हळ्यारूच ब्रम्हा.

ज्ञानेश्वरान ताकाॐकारूच म्हळां.ॐ काराक साडेतीन मात्रा. अ–उ–म–आनी प्राण ही अर्दी मात्रा.

अकार चरण युगुल, उकार उदर विशाळ, मकार महामंडल मस्तकाकारे अशी गणपतीची व्याख्या तो करता. अ म्हळ्यार ज्ञान , उ म्हळ्यार लागणूक, आनी म म्हळ्यार भक्ती. Knowledge, duty and devotion.असो हो त्रिवेणी संगम.

आमी आमच्या गणराजाचो अर्थ गणाचें राज्य अशें लांवया. गण म्हळ्यार समूह वा समूदाय 'सगळे लोक' हाचोच अर्थ लोकांमार्फत जाता तो शासन–प्रबंध. मॅगेस्थेनीज हाणे बरयलां, वैदिक युगा पैलीं आर्यांमदी स्वतंत्र राजतंत्र आशिल्लें. राजतंत्रा उप्रांत गणराज्याचो विकास जायत गेलो. पुराणांत बुध्दा आदीं जी राजांची वंशावळ मेळटा तातूंत इसवी आदीं सव्या शेंकड्यांत मद्र, कुंरू, पांचाल, शिवी आनी विदेह हींय गणराज्यांच आशिल्लीं खंय.

मध्दप्रदेशांतल्या कांय व्यापाऱ्यांक दक्षिणेंतल्या एका राजान विचारलें, 'तुमच्या देशाचेर कोण राजा राज्य करता?' ताचेर ताणी जाप दिली–

देव केचिद्देशा गणधीना: केचिराजाधीवा : म्हाराज आमच्यांत कांय देश गणाच्या धीन आसात कांय देश राजाचे सुवाधीन आसात.

आयज आमी गणराज्यांत आसां देखून आमकां सगळ्यांक त्या विध्नहर्त्यान बरी बुद्द दिवंची आनी गणानी वेंचून काडिल्ल्या प्रतिनिधींकडसून चोख सेवा मेळची जाका लागून भारताची भरभराट जावंची अशें आमी मागूंया.

□□□□

21.

## कर्मकट्टे कशे जावप?

पूण तुमकां कर्मकट्टेशे कित्याक जावंक जाय! तुमच्यांनी पयले सुवातेर अशें कितेंय पूण पातक केलां अशें धरून चलूं येता– पूण पातक? पातक कसलें! कसलें तें कित्याक जाणां जांवक जाय! तें तुमच्या हातांत आसा? कोणायकडल्यान कसलेंय पातक केद्याय वेळार जांव येता न्ही? म्हणटकच तुमचेकडल्यान घडूंकुच ना हाजो निर्वाळो तुमच्यांनी दिवं येता? समजा जें कितें घडलां ताका तुमी पातक लेखीना– नाका लेखूंक– गुन्यांव तरी घडला आसूं येता? पळेयात... मात्शे येवजियात... कसलोच गुन्यांव घडूंक ना...? चुकून लेगीत?

तुमगेल्या इश्टाकडेन गेल्ले कडेन तागेली घरकान्न तुमगेल्या परस वायटशी दिसलीना... आनी तिचेविशीं. नाका आशिल्ले बरे वायट विचार... ( ना... तसो तुमकां आमचे नदरेन Benefit of doubt म्हळ्यार ... पाडाऽऽ पडूं.– आतां Benefit of doubt ह्या वाक्प्रचाराचो अणकार तुमकां कोंकणीत जाय. जी गजाल हेर देशी भाशांक जमूंकना...ती तुमी कोंकणींत हाडूंक सोदतात? हें पळयात दुबावाची सवलत... असो जर आमी त्या वाक्प्रचाराचो अर्थ केलो... तर खंयचोच कोंकणी वा भारतीय तो मानून घेत अशें म्हाका दिसना– भारतीयांचे नदरेन दुबावाक... आनी सवलत कसली? ताचे नदरेंत दुबाव मूं... पुरो आनी आनी साक्ष वा गवाय लेगीत नाका... सवलत कसली?...

कशेंय आसूं... आमी चड पोंदा वचूंया नाका ... आमकां इतलेंच पुरो न्ही? ज्यो गजाली रासवळ वा समाजीक नदरेन निशिध्द मानतात ... त्यो घडये तुमचेकडसून खिणा– खिणाक वा स साटी बारा मासीं केन्नाय एकादली...

घडलीय आसूंये– अशें न्ही तें? तुमी ओडपी आसल्यार .... सिगरेट वा विडी बी ... सोयऱ्यांगेर गेल्लेकडेन चकचकीत दिशिल्लो ... Lighter नकळटाना... बोल्सांत... हय. बोल्सांतूच... हांव खिशांत कित्याक म्हणू? खिसो कोणाचो आनी 'बोल्स कोणाचें... हें कोणाकूच खबर ना... आमची निजाची अशी आसल्यार किरवंट... न्ही ती ... पूण– कलसावांक ... वा पेण्टीक किरवंट खंयची... म्हुण ... हावें बोल्स म्हळें. तुमकां तें उतर सालाझार धार्जिणे बी दिसूंक ना... मू...? हावें ते बळयां वापरलां... खिसो म्हळ्याबरोबर खिशेकापू... बी असल्या उतरांची बेश्टीच मनांत गर्दी जाता... तर कितें सांगूक गेल्लों हांव... तुमी पातकी अशें धरून चलपाचें... पूण आतां तुमगेल्या पातकां बद्दल वा गुन्यावांखातीर तुमकां कोणे ख्यास्त भोगोवपाची? तुमच्या बापायन? घरकान्नीन?... भुरग्यान?... मास्तरान?... कोणे? आगा तुमचो गुन्यांव वा पातक कितें हें तरी तांकां खबर आसा?... त्याभायर तांचेच गुन्यांव इतले आसात तुमकां ख्यास्त करपाइतली पूण फूरसत तांका आसा? म्हणकच तुमकां आनी ते ख्यास्त कितें भोगयतले? म्हणटकच कितेंय ख्यास्त आसलीच जाल्यार तीय तुमचे तुमीच करची पडली ना?

म्हणकच ती कशी करप...? म्हणजेच तुमचे तुमीच कर्मकट्टे कशे जावप?... अशेंच जालें ना तें?... तशें तुमकां हें साधलांय आसूंये... पुण तांतूत...Perfection नाका? देखून जमता जाल्यार आमचोय इल्लो पालव आसूनी. तशें तुमचेलागीं... दगदगांचे, कष्टांचे ... सगळे उपाय आसाच... पूण जे धकचपाटे तुमी काडटात... तांचीच शास्त्रशुध्द अशी बैठक खंय आसा तुमचे लागीं...? आयचें यूग विज्ञान यूग ...जाणा मुगा... म्हणटकच जे त्रास, कष्ट, हाल उपाद्रे तुमी काडटात आनी खासा आपणाक कर्म दळिद्री समजतात – त्याय कर्मकट्टेपणाक विज्ञानाची गरज आसाच.

तुमी घडये म्हण्टले – हाका आयज अकस्मात असल्यो कल्पना कित्याक सुचल्या! सुखी वा धादोस कशें जावचें हें सांगचें सोडून हो दळभद्रो ... आमकां कर्मकट्टे कशे जावप हें सो शिकयता !

केतें केल्याअंती सुख मेळप हें सांगप ज्योतिशाक जमत एखादलें. नव – चंडी वा शतचंडी केल्ल्यांअंती – आयजवेर जुळना अशे चलयेक सोयरीक जातली– अशें धडधडीत पुरयत सांगता. सोळा सोमार आंगोवन घेतल्यार नियोजनाचे केदेय व्हडले आनी कितलेय सरकारी फलक आसले तरी – भुरगें जातलेंच म्हणून एखादलो कर्नाटकी वा मद्रासी ... तुमचे कडसून फूल थंय फुलाची पाकळी घेवन दिल्लीक स्थायिक जालाय जांवये ... पूण हें काम आमचें न्हय. आमी तुमकां 'कले'च्यो वा कलावंताच्यो खबरी सांगीना. आमी शास्त्राच्या आधारान जी गजाल हेरशीं साध्य जायना– ती कशी प्राप्त करूं येत हाचे विशीं उलयतांव.

बरें तर तशें जाल्यार तुमकां... फाव तितले कर्मकट्टे– म्हळ्यार Miserable (मिझरेबल) न्हय आं– एकेच तरेन दिवपी उतराचो अर्थ दुसरे भाशेन वेगळोच जाता न्हय? देखीक कोंकणींतलें 'खत'– मराठीतलें खत आनी हिन्दींतलें 'खत' तीनूय खतां वेगळीं. कोंकणीतलें 'खत' मडवळाच्यान काडूं नज– मराठीतलें 'खत' भिजोवंक तेंच 'पाणी ' जाय. आनी हिंदींतलें ' खत' बरोंवक 'खून ' न्हय आं – रगत आटोवंक जाय. आसूं, सांगूंक वतालों एक आनी पावलों दुसरेचकडेन ... तात्पर्य जे उपाय हेरशीं तुमचेकडेन आसात तातूनूच Perfection म्हळ्यार तेच उपाय बावनकशी कशे करप– हाचें शास्त्र आसा–

देखीक – तुमच्या पोटांत वळिल्लेवरी दिसता वा अर्दे शिशेंल उसळटा अशें तुमकां दिसपट्टें दिसता आसूंये... पूण हो जालो बेश्टो असो वयरवयर काडिल्लो हुस्को पूण ह्याच हुस्क्याचें रूपांतर – आमच्या पालवान तुमच्यांनी एक काळीज पोखरून उडोवपी कायम– सवरूपाची ' काळजी ' करूं येता. देखीक – पोटांत वळटा तेन्ना दोन भिकणां चड चाबडायल्ल्यान तें वळटा आसुंये अशें येवजून तें कांयच न्ही करप हें तुमच्या फायद्याचें न्हय. त्या बदला... 'पोटांत जाता' जाल्यार तें 'अल्सर ' चें पयलें लक्षण अशें मानप– देखून ताबडतोब दोतोराक दाखोवप . दोतोर घडये पोट मात्शें दामून साद्यो गुळ्यो दिवन तुमकां आवियार करीत. पूण तसो दोतोरूय पातयेवंक जायना. तुमी कितें खाल्लें बी? अशें तो विचारतलो. पूण ताका सारकें सांगूंक जायना. तुमचें खर वायट तो साप लेव करून उडयता. देखून ताका '**X** ' रे घेवंक सांगूं जाय. '**X**' रे चेर कांयच सांपडले ना

जाल्यार तुमी परतें येवजुंचें... तें म्हळ्यार माकन् सारकें नाशिल्ल्यान घडये तुमचो फोटो चुकून बदल्लो आसूये. अशो कितल्योशोच Possibilities आसूं येता जाका लागून तुमचें खरें दुयेंस लिपून उरलां जावपाची शक्यताय आसा हाची तुमी मनोमन काळजी बाळगूंक जाय. केवळ Ulcer जाला अशें मानून जर तुमची काळजी वाडना- जाल्यार ' कॅन्सर' सारकिलो 'महाभयंकर ' रोग जाला अशें चितल्यार काम सोपें जातलें.

वैजकी शास्त्राचेर आदारून उप्रासलेले भंय हटकून गूण दितात. देखीक वायट सोदून काडट ना- तुमचे तुमकांच हे प्रस्न करात.

1) तुमी अशें वायट सोदून काडलां, जाका complicação चड- आनी जें बरे जावपाक भरपूर यातना भोगतात-

2 ) तुमी अशें वायट सोदून काडलां व्हय, जाचीं सुर्वेचीं लक्षणां सादे थंडेत लेगीत आसूं येता?

3) तुमी अशें वायट सोंदून काडलां, जें जालां म्हुण कळपाक आठ दीस पूरेण ओश्पितलांत रावून सगळ्यो Test घेंवच्यो पडटात?

ह्या सगळ्या प्रश्नांची जाप जर ' हयकार ' आसत तर तुमी त्या विज्ञानांत बरीच प्रगती केल्या. तरी पूण तुमकां थोडीशी मदत जायच. पूण हांतल्या एक वा दोन प्रश्नांची जाप -न्हयकार आसत जाल्यार गडबडपाची गरज ना. तुमचे तुमकांच तें कशें करचें तें समजलें आनी ही Negative Thinking ची जी कला आसा ताचेर तुमी Mastery मेळयतले. Negative Thinking ही अशी एक तांक वा बळगें जाका लागून मनशाच्यान मोगाचो एक घोंटेर पितारचे बदला-लेमां, इश्क्रीतुलां हालींचे भाशेन सांगचें जाल्यार Loans, Mortgages लिलांव बी असलें चित्र चितांरू येता.

खंयचोय हुस्को हुमराभायर दवरचो सोडून ताका सामको बाज्जेर व्हरून वेंगावपाचें तें एक बळगें. कांय जाण जल्माक येतानाच ही तांक घेवन येतात. आदव्होगादासारकिले शिकून शिकून मागीर तरबेज जातात पूण तुमकां सदांच तुमच्या सांगाताक Advogado परवडना. देखून खंयचेय बरे परिस्थितींत

केदेंय अरिश्ट येंव येता हें चिंतपाची तुमी संवय करूंक जाय. देखीक - तुमचे चलयेची सोयरीक तुमकां फाव त्या थळार व्हरपाची जाल्यार तुमी कांय दुबाव मनांत घोळोवंक जाय ते अश -

1) सोयरीक जांवची असल्यार ती चली इतली कित्याक वाडून उरतली आशिल्ली?

2) ज्या दिसा तुमी उतर घालां तो दीस म्हळ्यार नश्ट पाडवो.

3) त्या न्हवऱ्या –भुरग्याक– ( न्हवरो आशिल्ल्यान दादलो कसो म्हणूं येता?) तुमचे परस गिरेस्ताली चली गेली आसूंक जाय.

4) न्हवऱ्याचे कुंडलेंत पाड गिरो वा नश्टग्रह आशिल्ल्यान तो उरलो जातलो.

5) तुमी ज्या दिसा तागेर वतले त्या दिसा नेमकें कितें तरी अरिश्ट आसाच म्हुण समजुचें. अशे कितलेशेच दुबाव जर तुमच्या मनांत एका फाटल्यान एक येत तर तुमी आमच्या वर्गांत नांव घाली सारके जाल्यात पूण इतले बेगीन सर्टीफिकेट मेळचेंना.

समज तुमच्या पुताक खंयूंय नोकरी लांवक जाय आनी चुकून एक जागो जाहीर जाला – तर तुमी येवजुचें.

1) हो जागो पयलोच भरला जांवक जाय.

2) रिकामो आसलो जाल्यार मंत्र्यांचो कोणूय पूण सोयरो– चिकटावपाचो आसूंक जाय.

3) आपले उमेदवार गर्भगळीत–लोकांले इल्ले पोर लेगीत ल्हायो कशो फुटफुटीत.

4) ही नोकरी मेळपाची आशिल्ली जाल्यार ग्रॅज्युएट जावन 3 वर्सां बेकार कित्याक उरतलों आशिल्लो?

5) समजा, तुमचो उमेदवार लेखी परिक्षेक चुकून पास जालो तरी तो

Oral क उसळटलोच. अशे तरेन भरभर येवजूंक लागतकच दिसपट्‌ट्या जिवितांतले तुमचे किरकोळ प्रस्न सारको पयल्या नंबराची काळीज– कातरपी काळजी जाता. कर्मकट्टे जावपाक हाका लागून सोंपे जाता. पूण फक्त येवजून हो प्रश्न सुटना. त्या खातीर शिस्तबध्द असो अभ्यास करचो पडटलो. थोड्या वेळांत हो अभ्यास वा प्रशिक्षण दिवप कठीण पूण केवळ एक sample. समजा तुका विचारलें– तुमकां खंयचेवाहन सुरक्षीत दिसता?

स्कुटर, सायकल, मोटर कार, प्लेन, लाँच, क्राफ्ट, ट्रक ?

तर सगळ्यांची जाप – घातमारी अशीच येवंक जाय. कारणां कितें तुमीच जाणा. तुमचेच अणभव तुमच्या पदराक आसतात.

देखून वाचप्यांनो जीवितांत– सुरक्षितताय खंयच नाशिल्ल्यान, आपलो असो कोणूच नाशिल्ल्यान सगळो संवसार आपल्याचेर परतला अशें येवजीत जाल्यार 'कर्मकट्टे जावप सोंपें – पूण अभ्यास ज़ायच.'

□□□□




22.

# अक्कल आसा तुका ?

आमच्या दिसपट्टया वेव्हारांत तुका इल्लीय अक्कल ना? वा You have no common sense अशीं वाक्यां खिणाखिणाक आयकूंक मेळटात. दर एकलो आवय बापुय आपल्या भुरग्याक अक्कल ना म्हुण तापयता. ''म्हाका मातुय अक्कल वा Common sense '' ना अशें सांगपी मनीस म्हाका एकलोय मेळूंक ना . हो common sense म्हळ्यार कितें हें मात कोणाकूच खबर नासता. हें कितें तें जाणा जावपाखातिर सरकारान बी जर एक समिती नेमीत तर तिगेल्या रिपोर्टा वेल्यान घडये तें कळत . ना जाल्यार समजुपाची माणसुकीच ना .

जे शिकूंक ना वा परिस्थितीनुसार अशिक्षीत उरल्यात तांका हो Common sense चड आसता अशें म्हण्टात. म्हणून कोणेंतरी म्हळां, ''Common sense is not common.''

सहसा एका शेतकामत्याक वा कामेऱ्याक तुमच्यांनी फटोवं नज. पूण सुशिक्षिताक फटोवं येता. ज्या मनशाक ही अक्कल नासता पूण एखादल्या विशयाचें ज्ञान आसता ताका expert वा तज्ञ म्हण्टात. जो किरकोळ गजालीचें चड आनी चड जाणा तो तज्ञ who know more and more about less and less. घडये किरकोळ गजालीविशीं तो चड आनी चड सोदीत आशिल्ल्यान वाटेर अश्र्कल वा कॉमन सॅन्स शेणयता. तज्ञाचें ज्ञान जोडटना घड्ये तुमकां हें मोल दिवंचेंच पडटा.

न्यूटन हो आकांताचो गणितज्ञ . ताचेलागीं एक माजर येवपाखातीर ताणें वणटीक एक बुराक केल्लो. त्या माजराक एक पील जालें. तें पील कुडींत कशें

येतलें म्हणपाचो हुस्को न्यूटनाक जालो. देखून ताणें त्या पिलाचें जोख काडलें आनी त्या आंतेपाराक आनीक एक बुराक काडलो. निमाणे आंतेपाराक दोन बुराक जाले. एक आवयक आनी दुसरो पिलाक. हें आयकून तुमी हांसतले. पूण येद्या व्हडल्या गणितज्ञाच्या लक्षांत ही सादी गजाल आयलीना, ज्या बुराकांतल्यान व्हडल्या माजराच्यान येवं येता, त्याच बुराकांतल्यात पिलाच्यानुय भीतर सरूं येता म्हुण. पूण तो तज्ञ ! आनी हावें म्हळां तशें तज्ञ कितें तरी सोदीत आसता आनी सोदतां सोंदतां अक्कल वगडायता. हांव तज्ञाच्या वा अकलेच्या आड न्हय.

नझिरूद्दीनाची एक मजेशीर गजाल आसा. नझिरूद्दीनाक पिसो समजताले. ताणे एका विद्वानांक आपले बराबर एका पनेळांत बसयलो. पनेळ मुखार वतां वतां तो विद्वान नझिरूद्दीनाक प्रस्न करीत रावलो. तुमी हें पुस्तक वाचलां? तें वाचलां? नझिरूद्दीन 'ना' 'ना' अशें करीत रावलो. विद्वानाक आपणे संवसारातलें सगळें वाचलां म्हुण मिरोवपाची खाज आशिल्ली. इतले म्हणसर पनेळांत खंयसून तरी उदक भितर येता म्हणपाचें नझिरूद्दीनाच्या लक्षांत आयलें. त्या विद्वानाचेर आकांत आयलो. नझिरूद्दीनान ताका इतलो भियेंता कित्याक काय विचारलें. विद्वान म्हणूंक लागलों. 'पनेळ बुडटलो आनी म्हाका पेवंक येना'. 'आगा, तुका पेवंक येना जाल्यार तूं पनेळांत चडलोच कित्याक? तुगेले हे सगले विद्वतेचो उपयोग पनेळाचो बुराक पुरोवंक जायना जाल्यार तुगेली विद्वता फुकट.'

केन्ना केन्नाय आकांताच्या वेळार अक्कल काम करता काय भंय उपकारा पडटा हें सांगप कठीण.

एकदां एका शेतकामत्याच्या फाटल्यान एक हत्ती लागलो. तो धांव धांव धांवता आनी ताच्या फाटल्यान हत्ती धांवता. निमाणे तो खरशेला आनी आतां हत्ती चिड्डीता म्हळ्यार भंयान ताणे कमराक रेवडायिल्लो कुडको सोडलो आनी हवेंत फडफडायलो. कितें म्हुण कोण जाणा , हतयाक कितें दिसलें कोणक खबर ! हतयान पळ काडली. हण्टकच आमच्यांनी एक विधान करूं येता, वेळा प्रसंगार न्हेसण लेगीत सोडूं येता हाची जाप हय जांव येता वा न्हय जांव येता.

आमी जाण्टे जातां जातां घडये इल्ली इल्ली अक्कल बुडटा- कित्याक तर आमकां आमचो लटको अभिमान. मानभोवमान, चार - चौग कितें म्हणीत काय असल्यो पिशेपणाच्यो गजाली चड बादतात. ल्हान भुरगीं असल्या हुस्क्यां मेकळीं आसतात देखून तीं संदांच खुशालभरीत आसतात.

तुमकां त्या पात्शाची काणी खबर आसतली. ताका जगांत कोणेंच शिवलोना असलो ड्रेस जाय असलो. दोन शिंपी आयले आनी ताणी दुर्मिळ असो हो ड्रेस शिंवपाचो करार केलो. पूण ताणी एक अट घाली, जगांतल्या अत्यंत बुदवंत मनशाकूच तो ड्रेस दिसतलो म्हुण. पात्शा कबूल जालो. दुसऱ्या दिसा शिंपी लुगट घेवन आयले. खरें म्हळ्यार लुगट नाशिल्लेंच. पूण पात्शान तें ना म्हळ्यार पात्शा पिसो थरतालो. ताणी नाशिल्ल्या लुगडाचो फात शिंवलो. पात्शाक तो घालूंक लायलो आनी गांवभर भोंवंडायलो. तागेले खुशमस्करे आनी चमचे हांकां पात्शा 'नागडो' म्हणपाचें धाडस नाशिल्लें. निमाणे एक भुरगो आड्डलो ' पात्शा नागडो , पात्शा नागडो ', तेन्ना सगळ्यांनी त्या भुरग्याक साथ दिली. अक्कल केन्ना केन्ना अशी शेण्टा!

□□□□

23.

# उश्णें-उदार

म्हाताऱ्या पॉलोनियसान आपल्या चल्याक जी मोलादीक देख दिल्या, तेविशीं चडशे लोक सहमत आसतलेच. 'उश्णें कोणाक केन्ना दिवचें न्हय आनी कोणाकडल्यान घेवचें न्हय,' ही ताची देख. अशें आसुनूय जायतेजाण केन्ना केन्ना ना केन्नातरी उश्णें वा उदार घेतात. तशेंच आपखोशेन, अधिकारपणान, उदारमनान दुसऱ्यांक उश्णें वा उदार केन्ना ना केन्नातरी दितात.

उश्णें वा उदार दिवप– घेवप हे प्रक्रियेंतल्यान मेळोवप आनी खर्च करप जितलें असादरण, तशेंच विसरूंक शकना अशी गजाल. ज्या मनशाकडेन दिवपासारकें आसा ताचेकडल्यान जाचेकडेन ना त्या मनशान उश्णें घेवपाचें. ही गजाल वेल्यावयर सादी आनी सोपी दिसता. गरजवंताक उश्णें वा उदार दिवपाक, दितल्याक समाधान भोगता आनी ताचो अहंकार सुखावता. पूण त्रास जाता ते उपरांत. परते दिवपाच्या वेळार. उश्णें घेतल्याक, दिणारो ती रक्कम सोडटलो वा विसरून वतलो, अशें दिसप स्वाभाविकूच. पूण उश्णें दिवपी ती रक्कम केन्नाच विसरना. उरफाटें घेतल्याकड्सून धा रूपयेपासून परते हाशील करप म्हणजे तळपांतल्यान रक्त काडपासारकें, असो ताका अणभव येता. 'तुका इश्टागत व्हगडोवंचेली आसल्यार ताका उश्णें पयशे दी.' अशी म्हण वा वाक्प्रचार आसाच. आनी खरेंच उदार काळजाचो इश्ट पासून पयशे परते घेवच्या वेळार फोर्सार करतकच शितळ काळजाचो दुस्मान जाता. आनी ज्या मनशान उश्णें दिल्लें आसता तो तर शुन्य ( पयशे परत मेळ्ळ्यार ) वा विस्वासू भोळो ( परते दिलेना जाल्यार ) जाता.

खंयचेय परिस्थितीक लागून शेवटाक सगलेच हारतात. कोणूच जिखना. कित्याक तर उश्णें घेतकच ताचो परिणाम म्हणजे, 'गुन्यांव आनी ख्यास्त' अशें समीकरण करूं येत. गुन्यांव हो अवचीत, त्यावेळापुरतो आनी केन्नाय, खंयूय जावंक शकता. पूण ख्यास्त, मनस्ताप हें सासणाचें उरता. एकेतरेचे आशेक लागून, गरजेक लागून, वा आयटीक लागून (Impulse) एकाद्रो उश्णें घेता. पूण तें काडिल्लें रीण वा ताचें व्याज फारीक करपांतूच तो आपलें सगलें जिवीत खर्च करता. रीण दिवपी दारार पावटी घालतलो ह्या भयान म्हत्वाच्यो गरजो पासून तो बंद करता आनी बचत करून जिवित सारता. डॅमोश्र्लीस प्रमाण, रिणाची हुमकळटी तरसाद माथ्यार आसतकच कितल्याशाच जाणांची कुंटुंबां वा जिवितां काबार जाल्यां आसत! कितल्याशाच जाणांची हाडां मोडल्यां आसत वा तांकां जिवूय व्हगडोवंचो पडला आसत! एकाद्र्या आशाड्ड्या, 'मारवाड्या' कडेन ( मारवाडी हें उतर हांगासर सांकेतिक) कितल्या जाणांनी आपलो फुडार घाणाक घातला आसत! आपल्याक रीण दिवप्याचे मुठीतंल्यान एकदांचो मुक्त जावंचो म्हुण कितल्या जाणांनी आत्महत्त्येचो मार्ग पत्करला आसत ! तरी खेळ चलता. आनी खेळपीय वेग–वेगळे तरेचे आसतात.

कांय जाण परिस्थितीक लागून, दुसरो उपाय नासून फक्त गरजेखातीर उश्णें घेतात. देखीक, कुटुंबांत कोणूय सामको दुयेंत आसल्यार, अडिल्ल्या लग्ना – कार्याच्या सुवाळ्याक, अर्दवट आशिल्ल्या घराच्या बांदकामा खातीर, पडित धंदो उबारपा खातीर बी. दुसरे कांय मोदीचे आनी संवंय जाल्ले रीणकारी आसतात. जुगार वा Kleptomania सारखी संवंय जाल्लीय आसता. तांकां सादारणशे कोणूय गिरेस्त दिसतांच ते तांकां रोखडेच जोखतात, चक्रायतात आनी बोल्सांत पयशे आसतानाय तांकां कळनासतना कातर मारपाक फाट– फुडे पळयना. कांय रीणकारी सामके द्रश्टे आसतात. ते आपल्या बोल्साक खार घालीनासताना दुसऱ्याकडल्यान उदार घेतिल्ल्या पयशांचेरूच आपलो सगळो खर्च भागयतात. आसल्यांचें Fix deposit , व्याज आनी Dividend बी फुगिल्लो असता.

आनीक एक तरा अशी, उदार घेतिल्लें परतें दिवपाची कांय जाणांक वान्साच आसना. तांकां सगलें फुकट्यांत जाय आसता. आनी तातूंत ते जैतीवंतूय जातात.

गिरेस्तां मदींय तरा आसात. कांय जाण खिणां भितर दिवन उडयतात. ताचेकडेन दिवपा सारकें जायतें आसता. दुसरी गजाल अशी , कांय जाण आपलो फाटलो – फुडलो विचार करिनासताना आपल्याकडेन आशिल्लें– नाशिल्लें दुसऱ्या गरजवंताक दिवन उडयता आनी आपुण स्वता रीणकारी जावन बसता. चडशे रीण दिवपी, सगल्या गजालींचो बारीकसाणेन अभ्यास करून, मेजून– मापून, फुडलें चिंतून रीण दितात. वाडत वतल्या धंद्या खातीर वा बरो तेजींत आयिल्ल्या सिनेमाखातीर वा एखाद्र्या हुशार पुतण्याच्या वैजकी शिक्षणाखातीर (फार्टी– फुडें हो तरणाटो डॉक्टर आपल्या बापोलयाक वखद– विर्सत दीत हे आशेन ) उदार हातान पालोव दिता. त्या भायर वेवसायिक ( मनी लेंडर्स) व्याजान पयशे दिवपी आसता. ते आपल्या रीणकाऱ्याक मुठयेंत आवुंळटात. कांय धनिक दोळ्याक दोळो ह्या नात्यान दिता आनी घेता. एक रूपया दिल्यार एक रूपया व्याज. एक लाख रीण दिल्यार एक लाख व्याज.

निमाणो प्रकार म्हणजे जे केन्नाय कोणाक उश्णें दिना तांचो. तांकां एक पासून दुस्मान आसना आनी इश्ट तर वखदाक पासून ताचेकडेन मेळपाक कठीण. कित्याक तर – भौसामजगतीं उश्णें दिवप – घेवप हें , चोरी करप वा भीक मागप हाच्याकूच मात्शें वयल्या दर्जाचें. Beg, borrow or steal, भीक मागप, उश्णें घेवप वा चोरप हातूंत मात्सो फरक. भिकारी सामको उक्तेपणान पयशे मागता. ताका गरज आसता आनी परते दिवपाचो ताचो हेतू आसना. गरीब समाजांतलो तो घटक उश्णें मागप हाचोच अर्थ परते दितलो असो जाता आनी देवादयेन ताका तें सादुंकूय शकता. चडशे चिड्डल्ले अमुकूच उत्पन्नाच्या मदल्या वर्गांतले चोर कोणाक कळनासतना पयशे व्हरता. समजांतल्या सगल्या थरावेल्या घटकांचो तो प्रतिनिधी.

पाश्चात्य देशांची उश्णें उदारी दिसाधवळ्या चलता. हीं राष्ट्रां उश्णें घेवन आनी दिवन चलतात. Credit cards, charge account, mortgages, Instalments plans. हे सदचे वेव्हार व्हड–व्हड डिपार्टमेंट स्टोअर्स पासून रोखडेच पयशा ऐवजीं ह्या गजालींचेर चड विश्वास दवरतान. रोखड पयशे तांकां जड दिसता. त्या भायर बनावट आसूंक शकता आनी चोरांचो भंय . क्रेडिटाक चेक्स्

आनी कौंटर चेक्स् तपासप, परत तपासप बी. त्या भायर खर्च करपाची तांक वाडटकच उत्पन्नाखातीर काम करपाक नेट येता हो सिध्दांत. ताका लागून बाजार फुलता आनी कांय नेम पाळीना जाल्यार कोसळतायबी. म्हणून पाश्चात्य अर्थशास्त्र उदार दिता, विकतें घेता, खर्च करता. जाय जावं, नाका जावं गिरायकाक विकतें घेवपाक फोर्सार करप ही गजाल म्हत्वाची . खूप वेळां तरेकवार जायराती पळोवंक मेळटा .Two coffins for the price of one.' वा'Die now pay Later' देखीक, 'एका कायशांवाचे दरेन दोन कायशांव.' 'आतां मर, पयशे मागीर दी.'

उश्णें घेवप वा दिवप हे विशीं कोणाय एका मनशाचो दुबाव आसलो तरी भौशिक उश्णें दिवपा घेवपा विशीं वा रीण काडपाविशीं कांयच वायट धरपाचें कारण ना. राश्ट्रांनी जर रीण काडूंक नासलें तर नामनेच्यो जागतिक संस्था, देखीक, World Bank वा Asian Devolpment Bank बी अस्तीत्वांतूच आसच्यो नासल्यो. पूण राश्ट्रांमदी जो दोट्टी वेव्हार चलता तातूंतूय खूप खांची खळयो आसता. त्या भायर रीण दितल्याक एक लांबचेलांब सकल्या पांवड्याची दोरी बांदील्ली आसता. तशेंच रीण घेतलीं राश्ट्रां आपलीं गुलाम वा पांगेत उरचीं अशी दितल्या राश्ट्रांची अपेक्षा आसता. जी अपेक्षा रीण घेतल्या मनशाप्रमाण राश्ट्रांय पुरी करूंक शकना.

म्हणुनूच म्हातान्या पॉलोनियसाचें बरोबर आशिल्लें. उश्णें दिवप आनी घेवप सारकेंच. पूण पयशे सोडून आनीकूय जायत्यो वस्तू उश्ण्यो दिवं – घेवं येता हाची ताका खबर नासत. देखीक, सामान, तर्क, विचार, मनीस पासून. खंयची बायलमनीस शेजान्नीगेर कपभर साखरेखातीर वा थोड्या दुदाखातीर धांवूकना आसत? कितल्या भुरग्यांनी आपल्या इश्टांकडल्यान, खेळणी, पेन्सील, चोपडी वा पुस्तक उश्णें व्हरूंना आसत? आनी तरणाट्यानी फक्त एकाच दिसापुरती आपल्या इश्टाकडल्यान सायकल वा मोटर मागून व्हरूंकना आसत?

आमच्या भारतांत ह्या दिवप– घेवपा फाटल्यान आनीकूच कांय गजाली आनी अंधश्रध्दा लिपिल्ल्यो आसा. शुक्रराचें पितुळचे आयदान दिनात वा घेनात.

रातचो वेव्हार, चड करून पयशांचो वेव्हार बंद. एकाद्रें आयदन मागून हाडल्यार तें परतें दितना रिकामें दिवं नये. तातूंत कितें तरी खाण घालचें पडटा. भांगराची वस्त घेतल्यार नांवापुरतें तरी बदलाक भांगर म्हुण दिवचें पडटा. कांय जमातींनी व्हंकलेच्या आंगार घाल्ल्यो उश्ण्यो वस्ती शुभदायक समजतात. तिनसांजचे कात्रेर मीठ दिनात वा घेनात. आमोरे उप्रांत शेजाऱ्याची सूय मागून हाडपाची सोडाच, पूण पसरकार पासून विकती दिना. अश्यो जायत्यो गजाली.

न्यूयॉर्क शारांत एके बँकेतल्या तरनाट्यान मॅनेजराचेर इंप्रेशन मारपा खातीर आपल्या इश्टाचे बायलेक उश्णी मागून व्हेली. जेवणाच्या वेळार तिचो कांय गैरसमज जालो आनी ती तापली. शेवटाक त्या तरणाट्याक आपली नोकरी आनी प्रोमोशन, दोनूय वगडावंचें पडलें.

कितेंय जावं. एक मात खरें, आमी एकमेकाकडसून कितें तरी उश्णें घेतात वा दितात. विचार , तर्क, उच्चार पासून. आमी दुसऱ्याचें आयकत आसतात आनी नकळटना आमकां आवडलेल्यो गजाली, मत, जिवीत पध्दत वा उलोवपाची तरा पासून आमी आत्मसात करतात. दुसऱ्याचें बोल्स कापचे परस मेंदू उचलप चड चलता. रीण दिवप –घेवप हे समाजाचे धागे–दोरे. आनी म्हणुनूच ह्या प्रलयाच्या वेळार , ह्या कलीयुगांत झुंजांतल्या संहारांत, अण्विक शस्त्र सर्तीन भेश्टयल्ल्या ह्या जगांत आमी उश्णो वेळ घेवन उश्णे नेट काडून जगतातूच न्हय ?.

□□□□

24.

# हांव आंकवारूच कित्याक उरलों !

**आ**तां हांव आंकवारूच कित्याक उरलों? ह्या प्रश्नाची जाप दिवप, दिसता तितली सोंपी न्हय. इतले मेरेन, हांव आंकवार रावलां काय उरलां हें सांगप लेगीत मात्शें अवघड . पूण विनोदान हांव केन्नाय म्हण्टां, "म्हजे घरकान्नीचें लग्न अजून मेरेन जांवक ना." अशा वेळार तुमी म्हणटलीं– आं – अजुनूय ह्या म्हाल म्हाताऱ्याक लग्नाची उमेद आसा कांय कितें? खरें म्हळ्यार आसल्यार कांयच अजाप ना. विधात्यान सृश्ट निर्मितानाच पुरूष आनी स्त्री वा बायल आनी दादलो, चलो आनी चली अशी कितें तरी वेवस्ता केल्या. बरें आसा. सृश्टीचे नेम सुसंगतीन चलचें म्हुण ही वेवस्ता बरी आसा. आनी हे वेवस्तेचेर कोण आड आसत अशें आमकांय दिसना. पूण प्रस्न येता तो लग्न संस्थेचो. वयार येतकच चल्यान वा चलयेन हे संस्थेंत आपणाक गुरफटावन घेवन चुकनाशिल्लीं कर्मां सारादोराक करीत रावचीं काय कितें?

नामनेचो बरपी बँकन् आपल्या 'लग्न आनी एकोडें जिवित' हांचेर बरयल्ल्या निबंधांत म्हण्टा, ' जाणे बायल आनी भुरगीं केलीं ताणे आपल्या नशिबाकूच उतर दिलें'. कारण हीं दोनूय प्रकरणां म्हळ्यार, तो पळे आपल्या आयुश्यांत कितेंय हटमटवाळे करतलो आशिल्लो – बरे जांव वायट , तांकां ह्यो दोनूय गजाली म्हळ्यार आडमेळीं आमी खिणभर बँन कितें म्हण्टा ते सोडून दिवंया.

बर्टन आपल्या एकसुरेपणाचो जो विच्छेद करता वा चिरफाड करता, तेन्ना ताका 'लग्न : फांसार वचप हें मनशाच्या प्राक्तनांत बरयल्लें आसता' अशे उद्गार येतात. तें वाचतकच म्हजेसारकिलो साडोसुडो कितलो बरो आसा हें येवजुनूच

सू जाता. तशें पळोवंक गेल्यार हांव आंकवार रावलां म्हणप तितलेशें योग्य जावचेना. तुमकां म्हज्यान एकवेळ फटोंव येता. पूण म्हाकाच हांव कसो फटोंव? म्हजो जल्म ज्या एका बामणाच्या रासवळ कुटूंबात जाला, थंय मुंजी फाटोफाट लग्न, लग्नां उपरांत गर्भदान, आनी उप्रांत कितें आनी कितें– सगळें एका फाटल्यान एक साग्र संगीत... हरदासान कीर्तन बंद केल्याउप्रांत, देवाक नैवेद्य दाखयल्या बराबर प्रसादाचो दोणो हातांत पडिल्ल्यावरी जिस्ताजिस्त पूण म्हजेकडेन पावतानाच हो एकतर चुकलो, वा हांवें चुकयलो.

म्हज्या घरांत वाडवडलांचो पसरो. त्या भायर शेत–भाट. कितलेय सोयरे आयल्यार पेजे – निवळाक मरण ना. दुसऱ्या सवंसारिक गेरांत लेगीत आमी साब्राभरीत साकर खाल्या आनी पेत्रोल ( केरोसीन) जळ्ळां. त्यावेळार हें भाग्य फकत पोर्तुगीज अधिकाऱ्यांक लाभिल्लें. हें बरोवपाचें कारण इतलेंच, गोंयचे खंयचेय आमचे जातींतल्या वाडिल्ले चलयेच्या बापायची नदर म्हजे सारकिल्या ' मॅट्रिक' जाल्या– (तेदेवेळार मॅट्रिक ती आं आनी तीय निमाणी ! उप्रांत S.S.C.E.आनी एंट्रन्स ) तरण्या भुरग्याचेर गेली जाल्यार अजाप कसलें!

पूण म्हज्या भावांच्या मनांत म्हजेविशीं वेगळ्यो अपेक्षा आशिल्ल्यो. तांचें सगळ्यांचे शिकप पोर्तुगेजींत जाल्लें. तें सगळे खरें म्हळ्यार Empregados जावपाचे. पूण पोर्तुगेज येंप्रेगादाचो तेदेवेळचो पगार तेन्नाचे सवायेचे मुस्तींत लेगीत दीसपट्ट चार नाल्ल फोडूंक पावपाचे नाशिल्ले. देखून ताणी ' पसरोच' सांबाळ्ळो. आनी आपलो वेपार हिसपाभायर वाडयलो.( हिसपाभायर म्हणपाचें कारण म्हळ्यार हिशेबूच सांबाळ्ळो ना.) देखून तांच्या मतान आपल्या हुशार भावाक विदेशांत धाडून वेपारविशयक पदवी घेवन हाडचो आनी थारायल्ल्या प्रमाण ताणी म्हाका मुंबय 'पोदार कॉलेज ऑफ कॉमर्स' हे कॉलेजींत धाडलो. हांव पसरकाराच्या घरांत जल्माक आयिल्लों खरों – पूण म्हजो पिंड वेपारी न्हय. निमाणे म्हजे कॉलेजीचें खोबरें जावपाचें तशेंच जालें ही वेगळी गजाल. त्या भायर कॉमर्स कॉलेज. आतां चडशे चलयो कॉमर्साक वतात. तेन्ना पारशी सोडून कोण वचनाशिल्लीं. आमी सात आठ गोंयकार आशिल्ले आनी वाळवंटात जशें एक ल्हानशें उदकाचें तळें दिसचें, तशें आमचे नदरेक एक रूपेस्त चली भरलें.

तिचें नांव, गांव, पत्तो काडपाक आमच्यांत चडाओड सुरू जाली. हांवे विडो उबारलो आनी म्हज्या सगळ्या गोंयकार इश्टांक गोड धक्को दिलो. तेच सांजेवेळार कॉलेजा लागीं आशिल्ल्या रेस्टारेन्टात, आमी ' मसाला दोसा' उडयलो. चली आशिल्ली मंगळूरी, देखणी आनी पयल्याच फाराक फारावपाची. पूण तिणे आपली घरची काणी सांगतकच तिका, धाकुटपणांत लग्न केल्ल्या तिगेल्याच बापायच्या बचश्र्यांतल्यान कशी सोडोवप होच उद्योग हांवे 'कॉमर्स' च्या पयत्या वर्साक केलो. अजुनूय बावडी याद काडल्यार सद्गदीत जाता आनी हांव एकाडो उरिल्ल्याचें म्हाका समाधान भोगता.

पयलेच फावट हांव म्हज्या धाडसाक लागून जैतवंत जाल्लों ताचें कारण Don Lnan ह्या नाटकांत Byron कितें म्हण्टा हाची म्हाका घट्ट याद आशिल्ली. For talk six time with the same single lady, and you may get the wedding dresses ready म्हळ्यार एकेच चलयेकडेन परत परत स फावट तूं उलयशी जाल्यार तुज्यान लग्नाचो सूट शिवूंक दिंव येता. ही जाली एक गजाल.

दुसरी म्हळ्यार हांवें येदोळ सांगलां तशें रासवळ कुटूंबात हांव वाडिल्ल्यान आमचीं सोयरीं दायरीं हांचे येवप वचप जातालें, आमच्यो कांय नात्यांतल्यो चलयो तर मराठी शाळेंत शिकपाक आमगेरच रावताल्यो. देखून वाडिल्ल्या चलयांकडेन पळोवपाची म्हजी नदरूय वख वखील्ली नासताली. चलयांक जाय आशिल्ली Trasperency वा पारदर्शकता म्हजे नदरेंत दिसताली. कॉलेजींचे खोबरें जातकच हांवे वेगवेगळ्यो नोकऱ्यो धल्यो. मुंबयत नोकऱ्यो त्यावेळार म्हाका इतल्यो सहज मेळटाल्यो, तितल्याच सहजतायेन हांव त्यो सोडटालों वा म्हाका गोंयांत येनशें दिसलें जाल्यार हांव सरळ नोकरी सोडून हांगा येवन एक /दोन म्हयने रावून परतो वतकच दुसरी नोकरी आपुण जावन म्हजेखातीर रावताली अशे सांगल्यार घडीभर तुमकां अतिताय दिसूं येता. 1948 ते 1961 मेरेन कांय ना म्हळ्यार हांवे स– सात नोकऱ्यो केल्यो. आनी ऑफिसच्या कामापरस जगावेल्यो सगळ्यो राटी म्हाका लागताल्यो. तांतूंत मागीर कोंकणी भास, गोंयची सुटका आनी ह्या मळार वावुरपी गोंयकारांच्यो इश्टागती हांतूत वेळ कसो वतालो तेंच समजनाशिल्लें. हांवे जरी नियमीत कालेजीक वचचेलें सोडिल्लें तरी

भारतांतल्या सगळ्या युनिव्हर्सिटी External Degree विशीं सगळी माहिती मेळयिल्ली. हाका लागून इंटर आर्टस्ची परिक्षा हांवे बनारसाक दिली जाल्यार बी. ए. ची परिक्षा पुण्यांक दिली. मर्दी Aliancaa Francas Jounalism च्या कोर्साक म्हजी नांव नोंदणी करूंक हांवे फाटी फुडें पळेलेंना. तशेंच सगळ्याच गजालीनी म्हजें कुतुहल जबरदस्त आशिल्ल्यान सकाळी ' खारेवाट मॅमोरियल ' हॉलांत हांव J.Krishnamurti हाचे लागी म्हजी जिज्ञासा सोडोवंक गेलो जाल्यार सांजच्या आदेसाक व्हि. के. कृष्णमेनन गोंयचेर कितें उलयता जाल्यार आयकुपाक सुंदरबाय हॉलांत गेला. हें सांगपाचो प्रपंच म्हळ्यार ह्यो सगळ्यो गजाली करता आसताना म्हज्या सन्निध कितल्यो चलयो आनी बायलो आयल्या जातल्यो हाचें कोंत हिशेब ना. म्हजें धार्जणेच अशें, मुंबैच्या पोर्ट ट्रश्टांत तर सुमार एकशें पन्नास चलयांचो म्हजे भोंवतणी दिसपट्टो गराडो आसतालो, वा तांच्या सुख दुःखात हांव भागीदार जातालों तें पळोवन म्हजे रूममेट्स म्हजो दुस्वास करताले. ते सगळे आयज लग्न करून तांगेल्या भुरगी बाळांचे लग्नाचे तयारेक लागल्यात. अजुनूय तांकां म्हजी असुया आनी म्हाका तांची अपुर्बाय. तांतल्या कांय जाणांची दीसपट्टी पिरंगण आयकतकच चर्चिलच्या वाक्याची याद जाता. Man and Wife coupled together for the sake of strife. म्हळ्यार 'दगदग काडपाकुच दादल्या बायलेची जोडी बांदल्या ' हीं चर्चिलाचीं उतरां.

खंयचेय परिस्थितीक लागून जांव, आंकवार उरिल्ल्या चलयांची परिस्थिती कितें जाता काय हाची कल्पनाच म्हज्यान करूं नज. ताका लागून म्हज्यो आंकवार भयणी, धुवड्यो , नात्यातलीं तशेंच नात्याभायलीं– जीं जीं आंकवार म्हजे लागीं आयलीं, तांचीं तांचीं लग्नां जुळोवपाचो प्रांजळ प्रयत्न हांवे केला. आनी तो खुबशे अंशी फळादीक जाला. कांय खेपे आंगलटीय आयला. पूण हे सगळे भानगडींत म्हजें एक मत जालां तें म्हळ्यार Women should marry and not a man. बायलेन लग्न करूंकच जाय , दादल्यान साडोसुडो रांवचो. आनी म्हज्या ह्या मताक बेंजामिन डेराली पुष्टी दितां. एक स्पेनिश बरपी हे गजालीचें स्पष्टिकरण करता. तो म्हण्टा, '' बायल मनशेक तिचे परस सुपीक तकलेची गरज आसता. वेळाप्रसंगार बुध्द घेवपाक. देखून तिका आनी एक तकली जाय. दादल्याची गजाल वेगळी. 'लग्नाचे येदेशे मुदयेंत कितलें हाल उपद्रे आसता हाची जाणविकाय ताका लग्न

जाल्या उप्रांत जाता. मागीर ताका Old Bachelor हांतूत Congreve कितें म्हण्टाहाचो प्रत्यय येता. 'ताक़तिकेत लग्न जा आनी फाविल्ल्या वेळार पश्चाताप कर'. इतलेंय आसून म्हजेर तुमचो एक आक्षेप आसतलो तो म्हळ्यार इतल्यो खोंटल्यानीं चलयो तुजे संवकळीच्यो जावनुय तूं प्रेमात कसो पडलो ना? ह्या तुमच्या प्रश्नाक हांव जाप दितां. हांव पडलो ना अशें म्हणू नज. पडलों पूण बुडलों ना. हांव मुंबयत जे चाळींत रावतालों थंय सगळे तरेचे चाळे आनी धवळे चलताले. म्हज्या मजल्यावेलीं सगळीं बिराडां एकेच्च चलयेची खबर करतालीं. तें चली एका खबरेपत्रांत काम करतालें. ताका वाचनाचोय नाद आशिल्लो. ताका वश करपाखातीर म्हजो एक रूममेट विनाकारण एका वाचन मंदिराचो मेंबर जालो आनी ताचे भयणीकडसून ताका पुस्तकां धाडूं लागलो पूण हाचो परिणाम वेगळोच जालो. त्या इश्टाकडेन पुस्तक परतें दिवचें सोडून हांव म्हजे कुडींत एकोडो आसासो पळोवन पुस्तक परत करपाक ही चली म्हजेकडेन येंव लागली. दिसानदीस परिचय वाडत गेलो, आवय बापायच्याय कानार ही गजाल गेली. ताणीय दोळेझांक केली. आमी दीसपट्टी मलबार हिल, चौपाटी, केन्नाय तागेले फॅमिलीसैत पिक्चर बी सगळे प्रेमोत्तर 'शोडषोपचार' जावंक लागले. आनी त्याच वर्सा म्हज्या जिवितांत, गांधी, विनोबा, काकासायब, दादा धर्मधिकारी बी सगळे अनवाळे लोक येवन गेले. हांवे आदर्श प्रेम केळयलें.

पूण ताका वा तागेल्या आवय बापायक व्यवहार जाय आशिल्लो. तांच्या सुदैवान तांगेल्याच शेजारच्या वाडींतलो एक भुरगो कलकत्याक ऑफिसर आशिल्लो. आवय बापायन पध्दतशीर सोयरीक व्हेली, न्हवऱ्यान हयकार दिलो. चलयेन म्हाका बी वायट दिसत म्हुण म्हजी सम्मती घेवपाक तें चली म्हजेसरी आयलें. हांवे व्हड खोशयेन हयकार दिलो. इतलेंच न्हय तर तागेल्या लग्नाक बरेशें प्रेझेंट व्हरून हांवे खासा म्हजी उपस्थिती लायली. अजुनूय आमचो स्नेह पयलींचोच आसा. हांव अजून कलकत्ता पावूंक ना. पूण गोयांत आयल्यार तीं जोडप्यान म्हगेर रावतात.

तात्पर्य – लग्न संस्था ही अशी एक संस्था , जांतूत भितर आशिल्ल्यांक केन्ना भायर सरनशें दिसता आनी भायर आशिल्ल्यांक भितर सरचेंशे दिसता. हाचो म्हाका पुराय अणभव आशिल्ल्यान हांव हे संस्थेच्या हुमऱ्यारूच रावलां.



□□□□

25.

# म्हगेले असत्याचे प्रयोग

**कांय** वर्सा फाटीं हांव इंटरमिजिएट वर्गांत आसताना, रूडयार्ड किप्लींगच्यो कांय मोटव्यो काणयो वाचिल्ल्याची म्हाका याद जाता. एके मोटवे काणयेंत तांतल्या तातूंत, निमाण्या परिच्छेदान म्हाका सामको अस्वस्थ करून उडयिल्लो. ते मोटवे काणयेचें शीर्षक 'ए मॅटर ऑफ फॅक्ट' अशें आशिल्लें. म्हळ्यार वस्तुस्थिती सत्य ही गजाल खरें म्हळ्यार नागडे बायले सारकी चुकून जर तुमी तिका समुद्राच्या तळांतल्यान वयर काडली तर तुमकां, तिका एखादलें न्हेसण न्हेसोवचेंच पडटलें. नाच जाल्यार खंयतरी दुसरेकडे रावून, हिका आपणे पळोवंकच ना असो मनात सोपुत घेवचो पडटलो. त्या वेळार म्हज्या मनाचेर कसलो परिणाम जालो, म्हजे म्हाकाच खबर , हाचे खातिर हांव तुमची माफी मागतां. घडीभर म्हजे सारकिले खूप जाण असत्याचो आलाशिरो घेवन गबर जाल्या आसतले. कशेंय आसुं, किप्लींगच्या उतरांचो प्रभााव म्हजेर जालो हें नश्र्की, आनी हाचो पुनरूच्चार करपांत कांयच लाव ना. महात्मा गांधीन आपलें जीवनचरीत्र बरयलें ताका दोन शिर्शाकां 'आत्मचरीत्र' वा ' सत्याचे प्रयोग.' पयल्या वांट्यांत खऱ्यांनीच असत्याच्या रोगाचीच चिकित्सा आसा आनी हांतल्यान ते रोगमुक्त कशे जाले हाची गवाय आसा. सेवाग्रामच्या संताक हें सहज सुलभ जालें आनी सत्याच्या प्रयोगा अंती, ते यशाच्या दिव्य आनी भव्य तेंगशेर पावलेय बी ! पूण आमगेल्या सारकिल्या किरकोळ मर्त्य मनशाची कितें काणी! म्हजेसारकिल्याक तर दिव्य – भव्य तेंगशेर पावपाची आशाय ना, आकांक्षाय ना. असल्या ह्या विभूतींच्या संवसारांत केवळ हांवूच पातकी अशीय म्हजी धारणा ना.

मार्क ट्वेन् जेदेवेळार म्हणूक लागलो, ' सत्य ही न सांपडपी गजाल, जी आपल्याक मेळ्ळी जाल्यार ताचीच आपणें बचत करूंक जाय. वेळाप्रसंगारूच ताचो उपेग जावंक जाय. तेंय खरें. तागेली तशीच धारणा हाची म्हाका खात्री. त्या भायर सत्याखातीर दोगांची गरज. एक सत्य सांगपी, दुसरो आयकुपी! सत्य उलोवपी मनशाक आयकुपी मेळटलोच हाची खात्री कोण दितलो? त्या भायर आमगेले द्रष्टे आनी विद्वान पूर्वज हाणी आमकां वेळाप्रसंगार फटी मारपाचीय सवलत दिल्या. बायलो, होंकलो, लग्न, चरित्र्य, संपत बी असल्या गजाली विशीं भोव करून, असत्याचोच आलाशिरो घेवचा अशी शिट्कावणीच दिल्या. अश्वत्थामा, कुंजारा हांच्यो राजरोस ग्रांथिक देखी आसात.

समाजचक्राक वेगवान करपा खातीर तशेंच दिसपट्टो तोच तोचपणा टळचो म्हणून काळ्या फटी खबरी बदला धव्यो फटी चड गरजेच्यो. कुमारी लुईझा आल्कोट हिणे जरी आपलो ताळो सरांटलो तरीय आमी दिसपट्टे असत्य उलयत रावतले.

एके खेपे आमगेल्या गांवच्या आमच्या ऑफीसांत काम करपी मनशागेर वचपाचो म्हजेर प्रसंग आयलो. ताणे भरपूर श्रम घेवन म्हगेलो पावण्चार केलो. ताणे दिल्ल्या जिनसांतलो एकूय जिनस म्हगेल्या सकनळयेसकयल कसोच पावना. ताका कितें सांगतलो? अशा वेळार तागेली नदर चुकोवन सगले बरे बरे जिनस जनेलांतल्यान भायर मारले. आमच्या बऱ्या नशीबान थंय बेवारशी भुकेल्लीं सुणीं आशिल्लीं म्हणून आमी सुटले नाजाल्यार प्रसंग गंभीर आशिल्लो.

असलोच आनी एक म्हगेल्या इश्टा भयणीचो लग्नाचो प्रसंग. सगले मुद्दे जमेचे. एकूच खटकली गजाल ती म्हळ्यार होंकल दिसपाक तितलीशी न्हय. हावें वाळू पेंचसर पोराचे गुणगान गावपाक सुरवात केली. ताचो म्हाका इल्लोय पश्चात्ताप ना. कारण,एक आडवादी जोडपें अजुनूय मजेन भोंवता. असल्याच एक प्रसंगार एके शाळेच्या समारंभाक हांव मुखेल सोयरो जालों. शाळेच्या मुख्याध्यापकांनी म्हजी वळख करून दिली. तेन्ना हांव खादी लेंगो आनी सदरो घालतालों. ताणी वळख करता आसताना हावें गांधीच्या आश्रमात बरींच वर्सां काडल्यात आनी

म्हजी बुध्द घेतल्या बगर गांधी कितेंच करी नासलो अशे तरेचीं तुस्तीचीं फुलां म्हाका ओंपलीं. खरें म्हळ्यार आकाशवाणीचेर दर सुक्रारा 'गांधी स्मृति ' नावाचें सदर सातल्यान लोकांक आयकूंक दिलां इतलो म्हजो आनी गांधीचो संबंध!आनी हें जर हावें खरें सांगिल्लें तर मुख्याध्यापकाचें अज्ञान हावें चार चौगांत मांडलें हो आरोप वेल्यान म्हजेर येवपाचो.बरें, सगलें जर मान्य केलें तर म्हगेले तुस्त तोखणायेक हांवुच तेंको दितां म्हणपाचें पातक ! देखुनूच म्हगेल्या उलोवपा आदी हांवे इतलेंच सांगलें, ' मुख्याध्यापकान जितलीं विशेशणां म्हाका चिकटायल्यांत तितलींय विशेशणां म्हाका फावता अशें न्हय. आनी तितल्या पुरतो हावें वेळ मारून व्हेलो. अंतस्थ प्रेरणेखातीर सगळे संकोच अबोल जाले. आनी आयकुपी जे आशिल्ले तांच्यांत असत्य पातळावपांत म्हजोय वांटो मानून घेवचोच पडलो. उलोवपी काय ' सुप्रेसुवारीचो' गुन्यावकार न्हय. पूण हांव तांगेली 'सजेस्टीव्ह फॉल्सी' थामोवंक शकलो ना. आनी अप्रत्यक्षपणान हावें त्याच झाडाक उदक घालें. असल्या ह्या प्रसंगाचेर तुमी जाय जाल्यार म्हजेर मजेन वाखोर ओडात. म्हाका ताचो विषाद ना. आनी हे गजालीचें समर्थन करचें अशें म्हाका दिसना. चडशे जाणांक जांचेकडेन कांय गुण आसतात ताचे कितलेशेच पटीन ताचो गुणाकार करचो अशें दिसता. आसा ताचे परस बरी नोकरी, मेळटा ताचे परस दुपेट पगार, चड कित्याक केन्नाच मेळुंक नाशिल्ल्यो तसरीपो हे सगळे लेबल ह्या सोयऱ्याक चिकटायतात आनी आपुण मेकळे. हावें दिल्ल्या म्हगेल्या आतांच्या अणभवांत हांव कितें हाच्याय मुखार पावला अशें न्हय.

मुंबयंत आसताना हांव एक गायन घराण्याचो सभासद. विख्यात गावपी दर शेनवाराक माधव बागेंत जमताले आनी रातभर रागदारी गायताले. खरें म्हळ्यार शास्त्रोक्त गायनाचे म्हाका कान आसात पूण गंध ना. असले परिस्थितींत खरें मत दुसऱ्याक कित्याक सांगूंक जाय? हांव तालार म्हजी मान हालयतालों. प्रतिसाद बरो मेळटा हाचें उत्तेजन गावप्याक मेळटालें. गावपी मनशाक लवंगा आनी खडीसाखर तोंडांत उडयतकच हावेंय ताचें अनुकरण करचें. लोकांचो समज वा गैरसमज हे दोगूयजाण पट्टीचे गायक, हांचें जल्माजल्माचे कितेंतरी नातें आसूंक जाय. आनी गावपी जर बायल मनीस आसा तर हांगेली कितेंय सोज्वळ भानगड

आसूं येत असो अविर्भाव दर आयकुप्याच्या तोंडार .

एकदां एका उत्सुक आयकुप्यान भैरवी पयलीं गायनाचो खंयचो राग म्हणिल्लो असो कुतुहलान प्रस्न केलो. रागादारीचें म्हाका कितेंच समजना अशें हावें आर्दींच सांगलां देखून तातल्यान एक वाट काडली. हावें म्हळें, फाल्यां परते आमी मेळटलेच, तुमी मात्शे चिंतात आनी फाल्यां तो खंयचो राग तो म्हाका संगात. इतलें खरें, तो मिश्र राग. तो मनीस मात्सो बेचैन जालो खरो पूण म्हजें म्हणणें ताका पटलें. म्हाकाय तो कसलो राग म्हणपाचें जाणा जावपाक वेळ मेळ्ळो.

आमी अशा लोकामदीं रावतात, खरें म्हळ्यार हे सगळे निव्वळ फटी उलयतात. वास्तविक तांगेले कितें विकल्प आसता अशें ना. पूण ताका लागून आमगेल्या जीविताक एके तरेची हुनसाण आनी उर्बा येता. त्या भायर खरें उलोवपी मनशापरस फटींगाचें दर्शन अदीकच आकर्शित आसता. फटींचो नियाळ करताना श्रीमती टर्नर आमकां सांगता, it is an odd fact but lie is the most Sweating statement There is म्हणजेच ती कृत्रीम घडणूक आसतली, पूण आपशींच पर्गटलेलें विधान हें नक्की.

जो फटी उलयता ताची जबरदस्त यादस्ती आनी भरपूर विनोद आसूंक जाय. आलाकोंन ह्या नाटककाराच्या 'दुबावाचें सत्य' ह्या नाटकांत दों गर्सिया हो संवेदनशील नट विलक्षण दिसता. पूण आमचेकडेन असले नमुने जायते आसात. हे भुलवणे जे श्वास हुस्वासा वांगडाच फटी उलयतात, आनी जे फटींचो सोपूत घेतात आनी फटींगपणानच जगतात तांगेलें असत्य चडशे फावट अंधुक, अपारदर्शक पूण खऱ्या अर्थान पारदर्शक आसता. ते आपली खोस सदांच वांटीत रावतात. या वाज येवपा सारख्या संवसारात हे लोक एके तरेची समाज सेवा करतात.

आमगेले वाचपी खुद्द आपणाक फटयनात, हाची म्हाका खात्री. ते म्हगेल्या प्रयोगांक तेंको दितले. हांवे तांच्याच अणभवांचो प्रतिसाद बरयला. हांव तांगेलेच अणभव मुखार व्हरतां हांतूत म्हाका इल्लोय दुबाव ना.

□□□□

## 26.

# शोफेर

**'शो**फेर' हें उत्तर तुमचे संवकळीचें. खरें पळोवंक गेल्यार ह्या मनशाची तुमकां वळख करून दिवपाची गरज पडूं नये. पूण समाजांत कांय प्राणी इतले गरजेचे आसतात , तांचेबगर समाजाचो गाडोच फुडें धुकलना.

देखून असल्या प्राण्यांक पुराय वळखप चड अगत्याचें! फिर्ग्यांनी आमकां कळयनासतना गोंय सोडलें. तांकां अक्समात वचचें पडिल्ल्यान, वतना तांची बरीच धांदल जाली खंय! ते धांदळींत ते कांय जिनस हांगा विसरलेत आनी कांय जीनस ताणीं आपले यादस्तीखातीर मुद्दाम दवरले. हीच गजाल मात्शी विसकावन सांगची म्हळ्यार कालयल्ली सुरय शिताची उंडी लेगीत वचनाशिल्ली असल्या गोंयकारांक ह्या 'इंदिये' च्या गोंयांत सांडून वचपाइतलें फिरंगी कितें पडमूर व्हय तर? ते तांकां आपल्यावांगडा व्हेलेबगर रावंचे नासले. पूण बाबडे कितें करतले? ' नकळे काळाच्यो गती आनी बेब्यान गिळ्ळो हत्ती.' असल्यांतली गजाल! येवजिनाशिल्लेंच जालें आनी तांचेर आपल्याच मनशांक सांडून वचपाचो प्रसंग आयलो. घाळ्ळे ते! दुस्मानांचेर लेगीत असलो प्रसंग येंव नाका. याद लेगीत काडल्यार आंगार शिरशिरो येता!

पूण ह्या प्रसंगार लेगीत ताणीं एक गजाल केली. ती खरी तोखणायेची . गोंयकारां खातीर ताणीं कांय मोलादीक वस्ती दवरल्यो. तांतली एक मोलादीक वस्त म्हळ्यार ' 'शोफेर'. देखून म्हजें तुमचेलगीं एक नमळायेचें मागणें आसा. उपकार करून 'शोफेरा'क ड्रायव्हर म्हणूं नाकात. तुमी तसली चूक करचेनात हें हांव बरेभशेन जाणां. पूण सांगूं नज. वेळाप्रमाण बुद्दी येताच न्हय त्यो, नाका केलोना? पोस्टमॅन केल्ल्यान तुमच्यो चीटी कितें तिकेटीबगर पावतात व्हय तर?

ना मू? मागीर कित्याक तें नांव बद्लले? ते केलें तें केलें. काय बरो प्रोसोर! ताचो भौवमान ? आतां ताका कोण खाता? मास्तर म्हळ्यार खंयचो म्हुण समजता पूण? खणीवेलो? पेडयेवेलो? काय कारखान्यांतलो? खंयचो मास्तर म्हुण आमी समजूंचें? आमच्या प्रोसोराची सर्त तुमच्या मास्तराक वा त्या टिचरांक येवची पडल्या? तुमकां नकळटनां ह्यो चुको घडल्या देखून पर्थून एक फावट सादूर करतां.

आमच्या शोफेराक, शोफेरूच म्हणात. आनी ताचो पालवी जो किलींडर ताकाय क्लीनर म्हणपाची गरजना. किलींडराक क्लीनर कित्याक करूंक जाय?

शोफेराचें भारतीय नांव सारथी – भगवान श्रीकृष्णाकूच अर्जुनाचो रथ ( शोफेराचे भाशेंत सांगतलो जाल्यार कार्रेर) चलोवंक घेतसान हें नांव पडलां देखून शोफेराक सारथी म्हणचे बदला आमी भगवान श्रीकृष्णाकूच शोफेर म्हणूंया. परंपरेन हांतात श्रीकृष्णाचीं सगलीं आयुधां आयलीं जावंक जाय असो पोर्णविळ शास्त्राकारांचो तर्क आसा. शंख –चक्र– गदा– परम– हीं सगलीं आवतां जशाचीं तशीं श्रीकृष्णाचे परंपरेतलें येर्देर म्हळ्यार वारसदार जो शोफेर ताच्या हातांत पावलीं. शंख म्हळ्यार शोफेराच्या उजव्या हाताकडेन एका पितळेच्या कॉर्न्याक चामड्याचो चेंडू कसो आसता तो . आनी जो दामल्याउप्रांत पों – पों असो आवाज येता तो. चक्र म्हळ्यार मोटारीचें स्टॅरिंग. श्री कृष्णाच्या सुदर्शन चक्रा परसूय हें बळिश्ट आसूंक जाय.

ह्या शोफेराचे संस्कृतायेची सगली शक्त ह्या चक्रार आसता. शोफेराचो हात एकदां काय चक्रार पडलो, म्हणटकच भितर बशिल्लो केन्ना खंयच्या चक्रार सांपडत, तें सांगूं नज. मोटारीची गती बदलपाखातीर शोफेराच्या दाव्या हातालागींच ' गीयर' उर्फ गदा शोफेराचे सेवेक हाजीर आसता. शोफेराच्या दाव्या पायांलागींच बेफाम धांवपी संवसाराचो संयम राखपाखातीर ' ॲक्सलरेटर ' वा पदम आसता. हीं सगलीं आवतां काळाप्रमाण चड उण्या प्रमाणांत बदलत गेल्यां. हातलें पयलें आवत म्हळ्यार 'शंख' विजेचो सोद लागतपासून बरेंच बदललां. आनी ताचो जागो ' हॉर्न' म्हणटात त्या आवतान घेतला. पूण चडशे फावटीं विजेचो झोत आडखळून उरून हो हॉर्न वेळार वाजना आनी भितर बशिल्ल्यांचेर ' शंख' वाजोवपाचो प्रसंग आयले बगर रावना.

भगवान श्रीकृष्णाच्या सगळ्या आयुधांनी सुसज्ज आशिल्लो असो हो शोफेर जेदेवेळार गाडयेंत बसता तेदेवेळार खऱ्यांनींच ब्रह्मांड चलोवपी साक्षात परमेश्वर, हाजेमुखार, कांयच न्हय अशें दिसता. भितर बशिल्ल्या सगल्या जीवांची जापसालदारकी ताच्या माथ्यार आसतना लेगीत हो बेफिकीर आसता. 'कार्त' काडचेल्या वेळार शिविल्लें हागेलें खाकी कलसांव आनी कोट, हांचेमुखार परमात्म्याचें रत्नजडीत पितांबर लेगीत भंगलें, अशें दोळोफुटको लेगीत म्हणींत. हाच्या वाहनांत जेन्ना जीव चड भरिल्ले आसता तेन्ना हाचो आत्मविश्वास वाट्टो आनी तितलोच हो निश्कलंक ! परमेश्वर येदो व्हडलो खरो पूण आपलीं आयुधां केन्नाच पातयेना. परमेश्वराक रिकाम्या हातानीं तुमी केन्ना पळेला? पूण शोफेराचें तशें न्हय! चक्रावेलो उजवो हात वरांची वरां सोडटा आनी त्या बदला उजव्या हातांत सिगरेट धरता. परमेश्वराच्या माथ्यार मुकूट सदांकाल उरता, तर शोफेराचें चेपें मात केन्नाच माथ्यार उरना. तें सदांच मुखावेल्या हारश्या फाटल्यान खोयिल्लें आसता. परमेश्वराक जशें संवसारांत खंय कितें घडटा तें सगलें खबर आसता अशें म्हणटात तशेंच शोफेरांकूच मोटारींत खंय कितें घडटा, इतलेंत न्हय तर किलींडरान कोणाकडसून कितले पयशे घेतले हें लेगीत ज्युस्ताजुस्त मुखार पळोवन समजता. एकदां एका किलींडरान एका पँसेंजरान दिल्ले चार आणे कलसावांच्या फाटल्या बोल्सांत घाल्ले, मोटार थांबल्या बराबर बोल्स पिंदून शोफेरान ते काडले इतलो हो अंतरज्ञानी! हाका सगल्या मनीसजातीचो कळवळो! आपले गाडयेंत कितलीय गर्दी आसूं, हाणे कोणाक वाटेर सांडले म्हणून ना. हाची गाडी खंय वता आनी केन्ना सुट्टा हे दोन प्रश्न मात हाका विचारूंक जायना. विचारल्यार जाप केन्नाच सरळ मेळना. खंय वता? ह्या प्रश्नाक ' 'तूं खंय वता? ' ही परती जाप. आन्नी ' केन्ना सुट्टा?' हाका ' सुटची जाली' ह्यो थरावीक जापो मेळ्ळ्योना जाल्यार तो शोफेरूच न्हय. अपघात जांव, शोफेर मेलो म्हूण तुमी केन्ना आयकलां? हालींच एका अपघात जालो आनी कांय खंवसले तातूंत एक शोफेरूय आसलो म्हणपाचें समजलें. पूण वासपूस केल्या अंती तो मनीस धंद्यान शोफेर आसलो तरी अपघात घडचेल्या वेळार फाटल्या सिटार पॅसेंजर जावन बशिल्लो म्हणपाचें समजलें. आनी त्या मोटारीच्या शोफेरान अपघात धडचे आदींच उडी मारिल्ली म्हुण तोच तितलो वाटावलो म्हणपाचीय खात्री जाली.

खरें पळोवंक गेल्यार शोफेर हो निधर्मी म्हळ्यार सॅक्युलर आसता. शोफेर जालो म्हणटकूच तो हिंदू, किरीस्तांव काय मुसलमान हें सांगप कठीण. हे नदरेन शोफेरांचो एक खाशेलो धर्म आसूंक जाय. तशेंच हाका जातपात कांय लागना. बामण शोफेर, खारवी शोफेर, वाणी शोफेर , गंवडो शोफेर असो आमच्यानी भेदभाव करूं नज. जल्माक खंयचेय जातींत आयलो तरी हो धंद्यावेळार शोफेरपणाकूच जागता. हाजेलागीं राजाकर्णी मनशाचे कांय गूण झळकतात. देखीक, हाचे गाडयेंत बसपाखातीर पॅसेंजरांक होरायताना हाका कोणेय पळेत जाल्यार, मतां दिवप्यांक लोणी लावपी फुडारी कित्याक उपकारा पडटा? तशेंच अडचल्ल्या पॅसेंजरालागीं मोटारीचे कॉंदीग उलयतना सत्ताधीश मिनिस्टराची मधांदकाय कांयच न्हय, अशेंच म्हणचें पडटलें. मोटार खात्यांतलो किरकोळ अधिकारी लेगीत जेदेवेळार हाचें कार्त मागता तेदेवेळार शोफेराची लाचारी खंयच्याय येंप्रेगादाक बें म्हणूंक लायता.

खरें म्हळ्यार शोफेराक थळकाळ लागना. शोफेर हो अमक्याच गांवचो म्हुण सांगू नज. म्हजे वोळखीचो एक शोफेर एका गांवात नुस्तें धाडून दिता, दुसऱ्या गांवात जायांचो पुडे पावयता आनी तिसऱ्या गांवात रातीचो राबितो करता.

सुर्वेक जरी शोफेराचें दायज भारतीय अशें हांवें म्हळें तरी शोफेराची अस्मिताय घडोवपांत पोर्तूगीजांचो बरोच वांटो आसा. ते नदरेन ' शोफेर' हो आंतरराश्ट्री म्हळ्यार विश्वव्यापीच म्हणूंक जाय. आजय मनशांक हेवटेन तेवटेन व्हरून वडोवपी (येरादारी ) ट्रांस्पोर्ट कंपनी वाडल्यात. हाका लागून आमचो खरेलो शोफेर दुर्मिळ जाला. तो चुकून दिश्टी पडटा आनी तोय बी जे गाडयेक गोंयांत नवखो आयिल्लो मुंबयकार ' करियेरा नांवाची बस' म्हूण पाचारता तांतूतूच आमच्या ' शोफेरा' चो साक्षात्कार घडटा.



27.

# पांच दिसांचो सत्संग

व्हड मनशांक चड लागींसून पळेत जाल्यार आमगेले ल्हान नदरेक तांगेली उणीं तितलीं दिसतात. देखून व्हड मनशांक चड लागींसून पळोवपाचें हांवें सदांच टाळ्ळां. हाका लागून विचारांचो सहप्रवासी जावनूच हांव चड धादोस जातां.

व्हड मनशांचो वांगड जांकां मेळ्ळा, असले कांय मनीस जेदेवेळार विचित्र तरेन आमचे मजगतीं वावुरताना आमी पळेतांव, तेदेवेळार म्हजो वेलो समज वच्चे बदला आनीक घट जायत गेला. देखून व्हड मनशांक पयशिल्ल्यान पांयां पडप, तांचेकडसून जें कितें घेवपासारकें आसा तितलेंच घेवप वा घेवपाचो यत्न करप होच म्हजे जिणेचो आयजमेरेनचो नेम.

पूण पूज्य आचार्य काकासायब सात तारखेक गोंया आयले आनी म्हाका म्हजो नेम मोडचो पडलो. तांगेलो राबितो पांच दिसांचो आसलो. तांचेवांगडा हे फावट तांगेलो सेक्रेटरी नासलो. देखून तेंय काम म्हजेरूच पडलें. तांकां चड लागिंच्यान पळोवपाची संद मेळ्ळी. तांकां मनसोक्त आयकुपाचो आनी तांचे वांगडा यतिष्ट उलोवपाचो लाब मेळ्ळो. हाका लागून व्हड मनशां संबदान हांवे जो समज करून घेतिल्लो तो बदलचो पडलो.

तांगेले चलणुकेंतलें एक्कूय उणें म्हजे नदरेंत आयलें ना इतली म्हजी नदर विशाल अशें म्हाका म्हणपाचें ना. पूण जीं उणीं म्हज्या दोळ्यांत भरलीं तातूंत लेगीत एक वेगळोच अर्थ भरला हाची जाणविकाय जाली. पांच दिसांनी काकासायबांचे पुराय जिणेंचे दर्शन घडलें आनी तांगेल्या व्यक्तित्वान हांव प्रभावित जालों हें

सांगताना हांव इल्लीय अतिताय करीना.

ह्या आदीं ते एक विचारवंत आनी द्रश्टे साहित्यिक इतलेंच हांव मानतालों. पूण ते जीवननिष्ठ कर्मयोगी आसून संवसारांकडेन पळोवपाचो तांचे नदरेंत उपाट मोग भरला हाचीय म्हाका खात्री पटली. महात्मा गांधीचें राजकारण आनी रवींद्रनाथांची सैमाकडेन पळोवपाची नदर ह्या दोंगांचोय मेळ काकासायबांचे जिणेंत पळोवंक मेळटा.

काकासायबांचो आत्मो भारतीय, देखुनूच विश्वव्यापी. भारतीय घटनेंतलो 'सेश्र्युलररीझम' चो अर्थ जाका समजून घेवपाचो आसा ताणे काकासायबांक समजून घेतल्यार पुरो अशें म्हाका म्हणीनशें दिसता. खंयच्याय किरकोळ लेगीत प्रस्नाकडेन पळोवंचेली तांची नदर ह्या 'सेक्युलरीझमां'तल्यान उपरासल्या.

ल्हान ल्हान भासांकडेन पळोवपाची तांची नदर निखटी भाशाशास्त्र्याची न्हय. भौसाच्या मोगांत तिचें मूळ आसा. आयजवेर संवसारांत जें जें कितें त्यागी भोगीसारकें आसा, तें तें कांय विशिष्ट जातिनीं वा कांय थोड्याच लोकांनी भोगलां. चडसो लोक, जाका 'भौस' ह्या उतरान वळखतात, तो चिड्डुला, उपेक्षित उरला आनी सदांच चेपला. आयचें युग हें 'भौसाचें'. ताका आतां जाग आयल्या. संवसाराचें वारें आयज भौसाचे वाटेन व्हांवता. देखून ताची उदरगत जावंकूच जाय. भौसाची उदरगत जातली जाल्यार ताची सेवा करची पडटली. जनतेची सेवा जनतेचे भाशेंतल्यान जांव येता. देखून जनतेच्या भासांचेर ते मनापासून मोग करतात. हाका घरादारांत आनी सातां समुद्रापलतडीं पाविल्लो कोंकणी उलोवपी गोंयचो लोकूच आडवाद कसो आसत?

आनी देखुनूच तांगेली जल्मभास मराठी आसुनूय ते गुजराथी लोकांची सेवा गुजराथी साहित्यावरवीं करतात. राष्ट्रीय संकश्ट येवन आपलो मायदेस सोडपाची जांचेर पाळी आयली आनी भारतभर जळींमळीं पोटाफाटल्यान शिंपडचे पडलें, असले सिंधी जनतेचे सिंधी भाशेचो पुरस्कार करतात आनी तिनूय त्रिकाळ महाराष्ट्राच्यो गाळी खावनूय कोंकणी भाशेची उदरगत चिंततात. ते भास काय बाळी हया वायफळ वादांत पडूंक सोदिनात.भाशेची सेवा करप , तिचो अभिमान आसपाचें कारण ना, हो तांचो धर्म. कोंकणी ही भास काय बोली? असो

प्रश्न तांकां एका वार्ताकारान केलो, तेदेवेळार 'तें म्हाका खबर ना, पूण कोंकणी ही संस्कारी आनी सुधारलेल्या समाजाची भास इतलेच हांव जाणा?, अशी मार्मिक जाप दिवन तांणी वार्ताकाराक वोगी बसयलो.

काकासायबांक उलोवपाचो वाज येना. ते फांतोडेर साडेचारांक उठटात आनी रातच्या धांक सुमार न्हीदतात. दिसांतलो चडसो वेळ वाचप, उलोवप आनी बरोवप हातुंतच वता. इतलेंय आसून ते वायफळ कितेंच उलयनात. ज्या गजालीं संबदान उलयतात, त्या त्या गजालींचेर तांणी बरेंच येवजिलां आनी मनन केलां म्हणपाचो प्रत्यय येता. तांगेल्या आचारांत जांव विचारांत कर्मठपणा खंयच दिसना. ते प्रार्थना नेमान करतात. तांगेलें जेवण शिवराक. ते सात्विक आहार घेतात. च्या घेतात. पूण परके कडेन गेले जाल्यार दुखोवचे बदला काफी घेवपांत आनंद मानतात. पांच दिसांच्या तांगेल्या रबित्यांत हांवे तांकां बशिल्ले अशे पळोवंक ना. घरांत चडशे ते आडवे पडून काम करतात आनी भायर उबे रावतात वा चलिल्ले आसतात. तांचे पिरायेक 79 वर्सां जालीं पूण तांकां पुरो जाल्लें अशें हांवें आयकूंक ना. तांगेल्या कामाची गती पळोवन पयर एका वैजान म्हळें – 'हो सहज Century मारतलो.'

काकासायबांक भोवपाची खूब खोस. ते वर्सांतले णव म्हयने सुमार भोंवडेर आसतात. ते संवसारभर भोंवल्यात. जपानाक तीन फावटीं वचून आयले. आफ्रिकेक दोन खेपो मारल्यो. सबंद हिमालय तांणी माडयला. काश्मीर ते कन्याकुमारी मेरेनची भारतभूंय तांच्या पांयांपोंदसून सात– आठ फावटीं गेल्या. भारताचे सवश्रेष्ठ मनीस तांगेल्या सहवासांत आयल्यात. हाका लागून तांगेलो अणभव बरोच गिरेस्त जाला. तांचेसरीं कांय खीण लेगीत बसतल्यांक ह्या अणभवाचो सुवाद मेळ्ळेबगर रावना. काकासायब म्हळ्यार एक चलपी उलोवपी विश्वशाळा असोच भास जाता. तांगेले विचार up-to-date म्हळ्यार सदांच नवे ताल्ल, नित्य नूतन, म्हणजेच सनातन अशे आसतात. हाका लागून योग आनी प्रयोग हांचो संयोग जाल्याची अनुभूति काकासायब उलयतना जाता.

मनशाक ते अचूक पारखितात. तांकां मेळूंक आयिल्ल्या मनशाचें चित्र, कांय वेंचिक उतरांनी ते दिस्तदिस्त तुमचे मुखार दवरतात.

कांय खिणांच्या संभाशणांत एखादल्या मनशाक वर्सांसंकी संवकळ आशिल्ल्यावरी हे कशे वळखतात म्हणपाचें अजाप दिसता.

तांची तूस्त केल्यार ते भुरकटनात आनी टीकेक तकली बागयनात. महाराष्ट्रांत तांगेले कांय भक्त आसात पूण गाळीच चडशो तांच्या वांट्याक आयल्या म्हळ्यार जाता. ह्यो गाळी ते विनोदान झेलतात आनी म्हणटात, ' ह्या गाळींचे अन्न खावनूच हांव 79 वर्सां जगलों.'

गोंयांत ते पांचूच दीस उरले पूण स्वर्गस्थ श्री. नेहरूं उप्रांत जांकां गोंयकारांनी जावं हिन्दुनी वा ख्रिस्तावांनी, मनापासून येवकार दिला आनी जांचेर मोग शिंपडायला अशे पयलेच काकासायब आसूंये अशें म्हाका दिसता. पांच दिसांच्या रावित्यांत तांकां खिणाचीय उसरपत मेळ्ळीना. वेगवेगळ्या मतांच्या लोकांक ते मेळ्ळे. तांचेलागीं आपलें काळीज मेकळें केलें. कॉलेजां आनी सेमिनारी हांकां भेटी दिल्यो. मोलादीक उलोवपां केलीं. जंय जंय ते गेले, थंय थंय ताणी कांय मंत्र दिले. गोंयकारांचो एकवोट, भारतांच्या सरादींची राखण आनी बायलांचो फुडाकार, जातीवाद हुमटावप आनी भौसांची उदरगत हे ते मंत्र.

आमी गोंयकार मनापासून हे मंत्र जपूं जाल्यार पद्मविभूषण काकासायबांची ही पूण्य – भूंय – भेट सार्थ जाली अशें म्हणूं येतलें.

(नवे गोंय 1964 , जुलय )

□□□□

28.

# फाटलें फुडलें पारखुपी

आमकां जोतिशशास्त्राचें वा आमचो फुडार पारखुप्याकडसून जाणा जावपाचें इतलें पिशें, आमी भूत आनी वर्तमान, म्हळ्यार फाल्यां कितें? हें जाणा जावपाक काल आनी आयज विसरतांव. इंग्लेजींत सागपाचें जाल्यार We are more concerned with either womb or tomb.आमी खंयसून आयले आनी खंय वतले हातूंत आमचें सगळें आध्यात्म. आमचें प्रत्यक्ष जिवीत बरे भशेंन कशें चलोवं येत हाचें आमकां पडून्च वचूंक ना.

हो हुस्को निखटो भारतातूंच आसा अशांतली गजाल न्हय. संवसारभर तो आसा वा अख्खे मनीस कुळयेक ताणे ग्रासलां म्हळ्यार अतिताय जांवची ना.

उत्तर अमेरिकेंतलीं सुमार 1,200 नेमाळीं फुडाराविशींची वा ज्योतिशशास्त्राची खबर दितात. कितल्याशाच ' संपादप्यांचें मत' ह्या खबरांचेर लोक विशेष विश्वासनात. पूण गवाय वेगळी मेळटा. 1984 जून म्हयन्यांत जो Gallop Poll वा लोकमत घेतिल्लें तातूंत 13 - 18 वर्सां पिरायेच्या तरनाट्यांक जोतिशशास्त्र खरें अशें दिसलें. जोतिश शास्त्राविशीं नेमाळ्यांनी जो दिसपट्टो मजकूर सतत छापून येता ताका लागून हो गैरसमज वाडटा.

जोतिशांक दिसता - जोतिशशास्त्राक फाटल्या चाळीस हजार वर्सांचो इतिहास आसा. तें खरें म्हणपाक होच पुरावो पुरो अशें तांचे मत. पूण जल्म कुंडल्यो आनी ज्योतिश स्थंभ हांची शास्त्रीय चिकित्सा केल्याअंती हो पुरावो फट म्हणपाचें कळटा. ख्रिस्ताउप्रांत दुसऱ्या शतमानांत Ptolemy न जोतिशशास्त्राकबुन्याद घाली. मनशाच्या जल्मावेळार जे गिंरे वा सर्गीचे अवशेष

(bodies) आसतात तांचो प्रभाव मनशाचो सभाव, व्यक्तिमत्व, भलायकी, व्यवसाय आनी प्राश्र्तन थारायता हें जोतिशशास्त्रा फाटलें प्रमेय. पोरण्या ज्योतिशशास्त्रान विश्वाचो केंद्र बिंदू पृथ्वी मानली आनी चंद्र – सूर्य आदी उपगिरे तिचेच भोंवतणी घुंवता अशें धरून चलले. ब्रह्मांडांतल्या गिऱ्यांक दैवी चमत्कार आसा अशें आदले लोक मानताले.

पूण विज्ञानाक वेगळें म्हणपाचें आसा. आमगेल्या सुर्याच्या प्रभावळींतलो पृथ्वी हो गिरो केंद्रबिंदू अशें विज्ञान मानीना. सूर्य हो एका फुगपी ब्रम्हांडाचो जातूंत कितल्योशोच Galaxies आसतात हो केंद्रबिंदू अशें विज्ञान मानता. त्या भायर युरेनस, नेप्चून,प्लुटो बी जायत्या गिऱ्यांचो सोद उप्रांतच्या काळांत लागलो. खगोल शास्त्राक जे सांपडले ते ज्योतिश शास्त्र्यांक जमलेंना ही म्हत्वाची गजाल.

त्याभायर आयज आमी जाणां मनशाचो सभाव पिंड, प्रकृती, भलायकी बी सगळें आवय बापायचे आनी सरभोंवतणचें वातावरण हांचेर थारता. कितल्याशाच वर्सांच्या गिऱ्यांच्या सोदाउप्रांत – पृथ्वीचेर त्या गिऱ्यांचो कसलोच प्रभाव ना म्हुण आमकां कळ्ळां. खरें म्हळ्यार बायलमनीस बाळंत जातना जो दोतोर पासयो मारता ताचो प्रभाव गिऱ्यांपरस भुरग्यांच्या जल्माचेर चड जांवक जाय.

त्याभायर ज्योतिशशास्त्राचो दावो, सगळे तरेच्या प्रसंगां अंती विज्ञानान भायर मारला.

मनशाचे जल्मकुंडलेंत अमूक – अमूक प्रकारचे गिरे वा नक्षत्रां अमके सुवातीचेर आसल्यार तांचो मनशांच्या सभावाचेर वा प्राक्तनाचेर अमूक प्रभाव पडटालो अशें ज्योतिशशास्त्र म्हण्टा. देखीक, तो मनीस राजकारणी जातलो काय विज्ञानिक जातलो हें ज्योतिशांक कळटां खंय. John Mc Garvet Case न Case Western Reserve विश्व विद्यालयांत संशोधन करून कुंडल्यांचो अभ्यास करून – जल्मकुडल्यांतल्या ह्या कुरवांक कांयच अर्थ ना म्हणपाचें पुराव्यानिशीं सिध्द केलां.

दुसरी गजाल घोव – बायलेचे ग्रहदशेविशीं. आमी लग्नां जुळयताना कुंडल्यो वा जल्म टिपणां पळेतांच. जुळिल्ली जोडपीं झगडटात आनी जुळू नाशिल्लीं

संवसार बरो चलयतात  हो आमचो अणभव. Professor Bernard Silverman म्हुण एक  मानशास्त्री  ची मिचिंगन राज्यांतलो तांणे 2,978 लग्न जाल्या जोडप्यांचो आनी मिचिगन हांगाच  1967- 68  वर्सा घटस्फोट घेतिल्ल्या 478  जोडप्यांच्या जल्म - कुंडल्यांचो अभ्यास केलो  आनी ज्योतिशांच्या पारखुपांत कसलेंच सुवेर -- सुतक ना म्हणपाची गवाय दिली.

मंगळाचें प्रभूत्व आशिल्ले लोक धाडशी, हुशार आसतात आनी शुक्राचें प्राबल्य आशिल्ले, विलासी, मोगी,आनी सोबितकायेक भुल्लूसून वतात अशें ज्योतिशास्त्र सांगता.

George Washington विश्वविद्यालयांत 1962-70 वर्सा मेरेन, Marine Corps दर्यावर्दी सैन्यांत जाणी वावर केला तांच्यो जल्म - कुंडल्यो तपासल्यो. निर्वाळो? त्या गिऱ्यांचो कसलोच संबंद ना.

अशेंय आसून ज्योतिशांची कांय भाकितां तंतोतंत उतरल्यांत असो कांय जाण दावो (भोव करून धंदेवाईक  ज्योतिशीच )  करतात. हांतूत कितलें तथ्य आसा? खगोल शास्त्री Roger Calvar आनी Philip Ianna ह्या नामनेच्या ज्योतिशानीं भाकितां केल्ल्या मदल्या  तीन हजार अिकरा  खास  भाकितांचो (फुडाराचो) अभ्यास  केलो. तांतली फक्त शेंकड्याक धा मात्शीशी खऱ्याक लागीचीं अशें सांपडलें. पूण शेकंड्याक उरिल्लीं  णव्वद  फट थरलीं  हें कोणेच छापूंक ना.

चडशें ज्योतिश सुर्य - कुरवांचेर थारता पूण मुखार कितें घडट लें हातूंत नेमावळ्यांतल्या ज्योतिशांतूच जमीन अस्मानाचो फरक आसता.

तशें जाल्यार  लोकांचो ज्योतिशाचेर  विस्वास कित्याक?  बारीक तरेन आमी ज्योतिश  वा फुडाराच्यो  ज्यो  खबरी नेमाळ्यानी वाचतांव त्यो इतल्यो सामान्य आसतात , त्यो कोणाकूय लागू पडटात.

एकदां म्हाका  म्हज्या  एका इश्टान  म्हगेल्या कुंभ  राशींतल्या  फुडाराचेर एका  दिवाळी अंकांत नदर  मारूंक सांगली. हांवें तो फुडार  वाचलो . तुस्त - तोखणाय मनशाक  आवडटा. म्हणटकच बरोच वांटो आवडलो. पूण तांतूत एक शिटकावणी दिल्ली. म्हगेल्या इश्टांभितर म्हजेर फाटसून सुरी मारपी चड

आसात अशी. हावें म्हज्या  इश्टांक सांगलें ' हें म्हाका पटना'  ताणे विचारलें 'कित्याक पटना?'

हांवे म्हळें 'ह्या पंडितान  बाराय राशीचें भविष्य  केलां– एके तरी राशींत सभाग्यान तुमी तुमच्या इश्टाचेर फाटसून सुरो मारपी अशें बरोवचें आसलें !'

कशेंय आसूं. घाडी – नाडी , प्रसाद – पाकळी,  ज्योतिश, करून घालप वा Black magic ह्यो सगळ्यो गजाली  म्हळ्यार दुबळ्या मनाची  अवतिकाय. हांचे पसून मनीस जितलो पैस रावतलो तितलो तो बऱ्याक पावतलो कांय दिसता.

□□□□

## 29.

# एक अद्भूत प्रवास आनी लोकमत

'लोकमत म्हळ्यार सूज्ञांचें मन, जाका कोणूच खायना, आनी अज्ञानाचें मत जें कोणाचीच पर्वा करीना.' ही व्याख्या म्हजी न्हय. दिवंगत आचार्य संत विनोबा भावे हांची. अणभवाअंती ही व्याख्या म्हाकाय पटली ही गजाल वेगळी.

दोन वर्सां घडये जायत हे गजालीक. सोसायटीची पणजे–मडगांव निमाणी बस. ते बसींत अवघेच डायरेक्ट पॅसेंजर. हांव तांतलो एक. बसीचो ड्रायव्हर वळखीचो. फातोर्ड्या आयल्यान दावे वटेन खळयेंत एक मनीस रक्तबंबाळ स्थितींत पडला. ड्रायव्हरान म्हजें लक्ष थंय खेंचलें. हावें म्हळें 'मात्सो राव. कितें जालां तें हांव पळेतां ' ड्रायव्हरान म्हाका आर्जवान जाप दिली. 'शंकरबाब, आमकां नाका त्यो भानगडी. तांगेलें रगत व्हांवता. कोण घालतलो पुलिसेंत आनी कोर्टांत खेपो?' ताचेंय म्हणणे बरोबर आशिल्लें. संवसारा फाटल्यान दीस सारतलो काय ह्या नसत्या भानगडींत पडटलो?

कशेंय आसूं म्हज्यान रावूं नज जालें. हावें ड्रायव्हराक बाबा पुता करून गाडी थांबयलीच. हेर पॅसेंजरानी म्हाका सहकार दिलोना. तांकांय केन्ना काय घरा पावचेली ताकतीक आशिल्ली. उरफाटें ताणी म्हजेर वेगळे–वेगळे थोमणे मारले. ड्रायव्हर आनी कंडक्टर म्हजे कडेन रावले आनी 'सगळी सापसालदारकी हांव घेतां' अशें उतर तांकां दितकच ताणी त्या गृहस्थाक रगताच्या दागांसयत बसीच्या सिटार आडवो घालो आनी बस ओश्पिसेलागीं थारायली. हावें म्हळें, आनी एका–दोन मिनटां उशीर जायत. पॅसेंजरांक स्टँडार दवर आमी परते ऑश्पिसेंत येवंया. तांच्यो आनी गाळी नाकात. ताणे म्हजें हेंय म्हणणे आयकलें.

ऑफ्शियो हॉस्पीटलांत सरळ भितर त्या मनशाक व्हेलो. नर्सीन आडेवेडे घेतले. पुलीस पंचनामो बी जालेबगर आमच्यानी पेशंटाक प्रवेश दिंव नज, ती म्हणू लागली. हावें म्हळें, कामार आशिल्ल्या दोतोराची आनी म्हजी गांठ घालून दी. हें काम मात तिणे चोख केलें. म्हज्या बऱ्या नशिबानुसार दोतोर जुट्येर सांपडलो, तो म्हजो फाटल्या धा वर्सांचो इश्ट. हावें ताका सत्यस्थिती सांगली आनी कितेंय बरें वायट जालें जाल्यार म्हजी सय मारून सकाळी साडेआठांक सुमार ताची वासपूस करपाक हॉस्पीटलांत गेलों.

पळेत जाल्यार पेशंट खाटीर ना. कच्च जालें. खंवसलो काय बी देवा? म्हुण वासपूस करीत जाल्यार रातचोच तो बरो जाल्लो. फक्त तकलेक बारीक फातर तोंपिल्ल्यान रगत व्हावतालें. तें बंद करून बँडेज बी बांदून सकाळी फुडें म्हजें नांव बी सांगून ताका डिसचार्ज दिल्लो. तागेलो व्हडलो पूत मडगावां पोस्टांत काम करतालो.म्हाका आयकून वळखतालो. ताणे पुलिसेंत वचून म्हजो पत्तो बी सोदून काडून एक डझन बरे वेंचीव मानकुराद आंबे हाडून म्हाका दिले आनी 'देव बरें करूं' अशा भावार्थान दोळ्यांतल्यान दोन दुकां काडलीं. म्हाका समाधान जालें. हावें ताचो बापुय खळयेंत पडपाचें कारण विचारलें. बापायक केन्ना केन्नाय मोल्लुकें मारतां. आमी ताका रातीकडेन भायर धाडीनात. पूण आपुण काल जूट्येर आशिल्ल्यान तसल्याच गरजेच्या कामाक लागून तो भायर सरलो. उप्रांत रातचो घरच्यांनी ताका सोद सोद सोदलो. पूण तो सांपडलोना. हेरशीं ताच्या पदराक आल्कोलाचो थेंब लेगीत नासता अशी गवाय पुतान दिली.

आनी एक फावट म्हाका लोकमताची प्रचिती आयली. असल्यो गजाली दिसपट्ट्यो घडटात. जें कितें घडटा थंय प्रत्यक्ष आपुण हाजीर आशिल्ल्यावरी मीठ– मसालो लावन ती सांगतात. हालींचीच खबर. आमच्या एका वळखीच्या मनशान बायंत जीव दिलो. प्रेत वयर काडलें खरें. पूण तें बांयचें उदक लेगीत आतां घरचीं खायनात. इतलेंच न्हय तर ताचें भूत रातचें बांयचेर हमखास असता म्हुण घरचीं मान्न्यांचें दार धांपून दवरतात.

जीव दिवपाचें कारण कितें आसूंये? असो प्रस्न हांवे जेन्ना म्हगेल्या इश्टाक केलो तेन्ना ताणे म्हळें, तागेली बायल धाकुटपणाची. तिणे वरदक्षणा बी कांय हाडलीना. हाचें आनी तिचें केन्नाच पटलें ना. दिसूयभर कुरकूर. ताज्यान सोंसू नज जालें आनी ताणे बायंत उडी मारली. उदक भरपूर पोटांत गेल्ल्यान घुस्मटून मेलो. दुसऱ्या दिसा सकाळीं प्रेत उफेल्लें. जाचें प्रेत उफेल्लें आनी जाचें भूत रातीकडेन दिसता म्हुण म्हजो इश्ट सांगतालो, खास तोच मनीस थंय हाजीर आशिल्लो ही विनोदाची गजाल. दुसरें म्हळ्यार तो जीवितभर आंकवार रावला. धाकुटपणांत लग्न जावपाचो प्रस्नुच येना. जीव दिवंक वताली ती ताची राणाव भयण. तिका ताणे वयर काडलीच आनी राजवाक घरून आपुणूय वयर सरलो. खंय ही वस्तुस्थिती आनी खंयतें सगळें रचिल्लें भारूड ताचेंच नांव लोकमत.

म्हयनोभर जातलो. म्हजेर आयिल्लो एक दुर्धर प्रसंग. त्या दिसा रासवळ मळार वावुरपी एके आमचे इश्टिणीचो घोव भायर पडलो म्हणपाचें खबरेपत्रांत वाचलें. फुनेराल केन्ना तें बरोवंक नासलें. म्हण्टकच ते बायल मनशेक पाचारून येवया अशें येवजिलें. कालाफुरा वचून तिका मेळून साडे बारा ते दनपारां तीन मेरेन परतलों. सांजचें अशेंच आनी एक काम जालें तें करून सातांक परतलों. म्हज्या एका इश्टावांगडा बिराडार गेलों. तोंड घुवन घोंट घेवन कपडे बदलून फ्रॅश जावन लागींच भायर सरपाचो बेत.

पूण घोंट घेतना एक विपरीत घडलें. घोंट घेतिल्लो पूण परतें बासींत शेरभर रगत गेलें. असलो हो पयलोच प्रसंग. मात्सो भियेलों 'दोतोराक हाड ' इश्टाक फर्मायलें. सांगिल्लो दोतोर मेळ्ळोना. दुसरो मेळ्ळो. तोय ओळखीचो आनी तज्ञ . 'ताका ताबडतोब हॉस्पीटलांत व्हरूंया ' ताचो आग्रो. शेजाऱ्यान मोटार भायर काडली. इकरा वरां रातीर हॉस्पीटलांत बारा वरां रातीर रीतसर प्रवेश. नाकांतल्यान वादयो बी घालून जितलें पोटांतलें रगत भायर काडूं येता तितलेंय काडलें. म्हजे हात पांय खाटीक बांदून, सोर, नवें रगत, इंजेक्शन बी सगळे प्रयोग चालू आनी ओळखीचे तशेच सोयरे दायरे हांचें येवप–वचप सुरू आनी जण एकल्याचे वेगवेगळे निष्कर्ष. भोवजाणांचो एक सूर – राग – ताल वेगळो . सूर खंयचो तें तुमच्या लक्षांत येतलेंच. त्या सूराचे आनी सुरीचें नातें.

आतां ह्या अंमली पदार्थाचें आनी म्हजें खंय जमलें हें सांगचें पडलें ना? भारतांत पुराणकाळांत दुदाचो दर्या, म्होंवाच्यो न्हंयो आनी तुपाचे व्हाळ व्हांवताले तशेच फिरंगी गोयांत जेन्ना उदकाच्या जाग्यार सगळीच फॉरेन व्हिस्की ! तेन्ना दोतोर लेगीत हिंदु बांळटीक पोर्तु आनी vinho फर्मायतालेत, तेदेवेळार हेर भारतांत, म्हजे हाल उपाद्रे ! कितेंय खावप , कितेंय जेवप, पिवप. तांतल्यान सेकंड श्र्लास नाच जाल्यार पास क्लास तरी उत्तीर्ण जालांच. कोरे काफयेचो प्रताप म्हणपाचो.

स्वतंत्र गोयांत वेगळीं धुमशणां! गोयं शेजारच्या राज्यात विरगळावचें काय ना ? आमकां वेगळी भास आसा? काय ना? हेंच बादंग. म्हजे सारकिलो अतिरेकी एका पंगडात. ना न्हीद ना भूक! पिवप आनी खंयचें. सादसष्ट वर्स उजवाडलें. भारत सरकारान सार्वमत घेतलें. जानेराचे अठरा तारखेर आमी जैतवन्त जाल्यात म्हणपाचें कळ्ळें. आमचे बरें मागपी मिनेर दुडवांकार आनी कार्यकर्ते करमळेच्या तळ्यांत मेळटले म्हणपाची आशा. 'लोंगिन्यात' वचून लिबु सोद घेवन बसलों.

पयले टोळयेंतलो हिरो म्हज्या भेजार आयलो. ग्लास मोखून मारलो वो ग्लास हाड म्हणून वेटराक फर्मायलें आनी त्या नव्या ग्लासांत ब्लॅक लेबल् स्कॉच ओतली, बर्फान सोद घालें आनी ' ल्हव ल्हव घे, आगरो ना.' म्हणपाचो आगरो केलो. म्हाका इल्लें इल्लें वखद वायटशें लागलें ना.

उपरान्त गंधर्व कंपनी धरून मोचेमाडकार मेरेन तरे तरेच्यो नाटक कंपनी भितर सरल्यो, दर एकल्याचे दोळो म्हज्या ग्लासाचेर, भितर कोणे कितले ओतलां तितलें भान उरलेंच ना.. उपरान्त वर्णभेद, वंशभेद, जातिभेद हें कितेंच मानी नासताना स्ट्रीट डान्स जालो. कंपनीच्या एका सरदारान लोंगिन्याच्या दुसऱ्या मजल्यार म्हज्या ब्लॉकाची चावी म्हज्या बोल्सांतल्यान काडून शेंदरी उशें घालून, वयल्यान एक चादर उडोवन आपुणय म्हज्या शेजरा न्हिदेचे पयलीं ताणावन दिलें.

दुसऱ्या दिसा दनपाराच्या दोन वंराचेर जाग येतनाच दिशा घुंवताल्यो. हांव एकाच जाग्यार आशिल्लों. म्हजी अवस्था सूर्याची. भोवतणीचे सगळे गिरे घुंवताले. तसोच घोंट घेतलो आनी सकयल देवलों. परतून लोंगिन्यात. एका आल्कोलाचोच दोतोर मेळ्ळो. ताणे प्रिस्क्रीप्शन दिलें. हे परिस्थितींत एक ग्लास चिल्ड बीयर मारशी तर चर्र करून सगळें सकयल देवंतलें. ताणें सांगिल्लो परीणाम जालो खरो. कितलोय जाल्यार अणभवी दोतोर तो! सोमतोच नुस्त्याची राईस प्लेट मारली आनी परतून दनपाराची वामकुक्षी! दीस कसो गेलो कळ्ळो ना. ,अत्यंत बेहोष आनी खोशयेचेच तंद्रेंत .

त्या भायर होंकल मनासारकी मेळिल्ली, चार चौगांक मान्य आशिल्ली. त्या उपरान्त तर तिका घेवन सर्रास भोंवलो. ताका लागून इश्टागती आनी वर्तुळां वाडत रावलीं. जे म्हजे बरोबरूच घेताले, वेळ पडल्यार म्हजे परस चड प्रमाणांत घेताले, तांतले काय जाण बायला भुरग्यांक फटोवन घेताले.' ताणी मात् म्हजे अस्वडी म्हणचें, '' तो काबार जालो! '' आनी तेंवूय खरें, वेळ, पैसो आनी बुध्द तिनुय गजाली ह्या नारायण अस्त्रा फाटल्यान हावें सोपयल्ल्यो. आगे ना पिछे! पूण ह्या अस्त्रान म्हजे जिबेक तरतरी येताली. केन्ना कोणाक गाळ मारिल्ल्याची याद जायना. कशेंय आसूं,हालींच्या म्हज्या हॉस्पीट्लाच्या अणभवान एक धडो शिकलों.

म्हगेले जे संवकळीचे इश्ट आशिल्ले, ताणी म्हाका कितेंय उणे पडूंक दिलेंना. कोणे रगत दिलें. कोणे पयशे दिले, कोण सवन रात आपली न्हीद खळयली, कोणे रातीकडेन म्हजेसरीं बसून रावले. जाय तेन्ना नर्सीक वा दोतोराक आपोवप, म्हजें मलमूत्र वेवस्थीत रितीन जाता म्हणपाची जतनाय घेवप, वेळ पडल्यार तांच्या घराकडेन जाणीं तसलीं कामां करूंकनात वा करचेलो तांचेर प्रसंग येवंना असलीं कामां लेगीत म्हजे इश्टागतीक लागून केली. हांव ह्या वायटांतल्यान बरो जांवचो ही एकूच सगळ्यांची सद्‌भावना.

पूण आनीक एक अजापांची गजाल म्हळ्यार जे म्हज्या नित्याचे संवकळीचे न्हय पूण जिवितांत केन्नाय खंयच्याय कारणाक लागून जांचो संबंद आयला ताणीहिसपाभायर ओड आनी कळकळ दाखयली. गोंयचे पयले विधानसभेचो एक

आमदार, म्हजो आनी ताचो सार्वमतांत संबद. तूर्ताक आमी केन्नाय मेळटाले. त्या गृहस्थाक जेन्ना म्हजी खबर कळ्ळी तेन्ना ताणे मुजरत पणजे येवन आमच्या एका इश्टालागीं पांचशे रूपया दवरले आनी शंकराच्या वखदांक बी लागल्यार हे मोड म्हुण ताका सांगले . तो मनीस ओश्पितलांत येवन गेलो खंय पूण हांव शुध्दीर नाशिल्लों.

दुसरो असलोच म्हजो एक परिचीत. तो व्यवसायान दोतोर. पूण ताका ज्योतिश शास्त्राचो नाद. तो नाणी उड्यता आनी फुडार पारखीता. ताणे म्हज्या नांवान नाणी उड्यलीं. ताका म्हज्या बऱ्याखातीर ताणी पोरण्या गोयां महात्मा गांधीच्या पुतळ्याक दोन वाती आनी संत फ्रॉन्सिस शाव्हियेर हाका दोन वाती लावच्यो असो संदेश मेळ्ळो. ताणें तो संदेश पाळ्ळो आनी खोशयेन भुरकुट्टून म्हजेसरीं ऑश्पितळांत आयलो.

हांव अस्खलीत उलयतां तो पळोवन ताची श्रध्दा आनीकूय बळकट जाली जावंक जाय. आनी अशींच मांद्रेंची एक जाण्टी बायल तिचेर चुकून म्हजे कडसून एका खेप उपकार जाल्ले. तिगेल्या इंजीनियर पुताक एके बरे कंपनींत नोकरी मेळिल्ली. वेव्हाराचे नदरेन तिणे म्हज्या उपकारांची परत फेड जायती केली तरी म्हजे विशींची तिगेली ओड कशीच उणी जायना. म्हज्या वायटाची खबर कानार पडनाफुडें ती गोंयच्या फेश्ताक वचून म्हज्या नावान एक मेणाचें बावलें तिणे संत फ्रांसिस्काक ओपलें आनी हांव निवळचों म्हुण मागलें. ओश्पितलांत येत जाल्यार तिकाय प्रचिती आयली.

तात्पर्य जण एकल्यान आपापलेपरीन म्हजेखातीर विधात्याक पाराथलो आनी हांव बरो जालो. देझेंब्राचे वीस तारखेक म्हाका डिस्चार्ज मेळ्ळो. पूण म्हजें कुतुहल वाडलें. हांवे डॉ. शर्मा हांकां म्हज्या रक्तस्त्रावाचें कारण विचारलें. ' आमचें ताचेर संशोधन चल्लां. नेमकें कारण मेळूंक ना. तुका नवो जल्म मेळ्ळा. तो सार्थकी लाय' असो योग्य सल्लो ताणी दिलो. तो घट काळजांत दवरून हांव परतलों. हें आशिल्लें तज्ञांचें मत आनी पयलींचे सगळे अभिप्राय अज्ञांचे दोनूय मेळून लोकमत !

आठ दीस ह्या संसारात हांव नाशिल्लोंच. स्टेज 'कोमा'. घरच्यानीं आनी आप्तेश्टांनी दोळ्यांत दुखां काडलीं खंय. नामनेचे दोतोर आनी कळवळो आशिल्ल्यो नर्सी. तशेंच असंख्य बरें मागपी हांचे सदीच्छेन म्हजो जीव जिवांत आयलो. मुळासयत बदल घडलो. आनी अशक्तताय थोडीशी आसुनय हांव परतो घरा पावलों. हाची कारणां दोन, एक, म्हजें मिशन अजुनय उरलां अशी बऱ्या मागप्यांची धारणा. आनी दुसरी, दुसऱ्या संसारातूय जाल्यार धर्तरि वरीच आपलो कोणुय पूण बरें धार्जिणें आशिल्लो प्रतिष्ठित आसूंक जाय. थंयुय यमराजामेरेन तुमी पावचना. वजन दवरल्यार पी ए बोलसांत घालता. व्हेकन्सी आसुनय ना म्हण्टा. परतो धतरिर वचपाची ख्यारस्त दिता. देखून ह्या नारायण अस्त्राक निमाणो राम राम असो संकल्प ! उतर कोणाक दिवप ना. संकल्प मोडुंक फावना.

नारायण अस्त्र इतल्याच खातीर म्हळां, तें अस्त्र अश्वत्थाम्याक द्रोणाचार्यान वेळ मेळटा तेन्ना बाकीच्या शिश्यांक फटोवन शिकयल्लें. अर्जूनाची आनी अश्वत्थाम्याची जेन्ना लडाय जाली तेदेवेळार, अर्जुनाकडसून सुटिल्ल्या दर अस्त्रा फाटल्यान अश्वत्थम्याकडसून दोन दोन अस्त्रां येतालीं. अर्जुनान निमाणें गांडीव धनुष्य सज्ज दवरलें आनी अश्वत्थाम्याक आव्हान दिलें. भगवान श्रीकृष्ण फाटल्यान आशिल्लो. ताणे उपदेश केलो. 'अर्जुना तूं कोणाकडे खेळटा? तें गांडीव धनुष्य सकयल दवर' तें फुकट वतलें. ते वाटेनसून दोन येतलीं.अश्वत्थाम्याक पांया पड आनी मेकळो जा !' अर्जुनान सारथ्याची आज्ञा शिरसांवद्य मानली. अश्वत्थाम्याक नमस्कार केलो. गांडीव धनुष्य ह्रसकयल दवरलें. अश्वत्थम्याकडसून दोन नमस्कार आयले.

सोऱ्याचेंय अशेंच. आपलो कंट्रोल आयलो अशें जेन्ना दिसता, तेन्ना ताचो शेक दुपेट चलता. देखून ताका पांया पडूंक जाय. आनी 'म्हजे वाटेन वचूं नाका, हांव तुज्या पांयां पडटां' अशे तरेन ताका नमस्कार करूंक जाय. तो मागीर वाटेक वचना. हेर कुडी सोदीत भोंवता. अशें जांवचें असो संकल्प !



" हे नदरेन शंकर एक अद्वितीय *unique* गोंयकार: बुदवंतांत बुदवंत, प्रातिभावंतांत प्रातिभावंत, शाण्यांत शाणो, मस्त्यांत मस्तो. धीट. कोणाचीच पर्वा नाशिल्लो, कसलीच आनी कोणाचीच मुरवत नाशिल्लो. हजर जबाबी, तेजस्वी, बऱ्याक बरो, वायटाक वायट, उप्रदवी. ....

अंत आनी पार नाशिल्ले गुण आनी अवगुण आशिल्लो गोंयकार हो.

'ओपीनियन पोला' वेळार कांय जाणांनी ताका तोखणायेन एक पदवी दिल्ली *homem de cabeea sem cabelos*- ' केंस नाशिल्ले तकले ' चो मनीस म्हुण. बाकीच्यांक आमकां सगळ्यांक डोक्टरेटी मेळटीत, पद्मश्री मेळटीत. आमच्यांतले कोण पद्मभूषण वा पद्मविभूषण जातीत. पुणून म्हाका दिसना, गोंयकारा कडल्यान इतले अपुर्बायेन आनी तोखणायेन 'तकलेचो' मनीस म्हुण पदवी कोणूय केन्ना जोडूंक पावत म्हुण.

गोंयकारांनी आयजवेर कोणाक 'फकांड' आनी 'फटींग' सोडून तिसरी पदवी केन्नाच दिवंक ना.

शंकराचेर हांव लुब्ध तो ताच्या एका मोट्या गुणांक लागून. हो गुण म्हळ्यार तागेली निष्ठा. शंकर कुटुंब - निष्ठ मनीस, मित्र - निष्ठ मनीस, तत्त्व-निष्ठ मनीस.

होमकणांत घेवची तशी ताणे कोंकणीचे चळवळींत उडी घेतली. ऐन तरणेपणांतलीं सात-आठ वरसां तो हे चळवळींत 'हुलपलो'. परिणाम: ताचो लग्नाचो योग चुकलो. शंकराक बायल ना. भुरगीं नात. ताका 'घर', 'संवसार' वा 'प्रपंच' आसपाचें कारण नाशिल्लें. कित्याक, ताका कसलेच बांदपास नात. फुडाराचो हुस्को ना. आनी ताणे आपल्या आयुश्याक, जिविताक वा करीयरीक केन्ना कसलें म्हत्वूय दिलें ना. तरी आसताना, शंकराक 'कुटुंब' आसा. ताचें स्वत:चें न्हय, ताच्या भावांचें आसा, भयणींचें आसा. तांच्या सगळ्यांचे 'संवसार' ताका लागता. तांच्यो ल्हान-व्हड अडचणी सरळ करपाक तो आपुण जावन धांवून वता आनी भांवडांय मात कितें जालें म्हणटकूच सल्ल्याक वा आधाराक ताचेसरीं धांवून येतात. शंकरा इतलो 'कुटुंब-वत्सल' मनीस हांवें म्हज्या इश्टांत दुसरो पळोवंक ना. ताची ही कुटुंब-वत्सलता ताचे कुटुंब-निष्ठेंतल्यान आयल्या."

**रवीन्द्र केळेकार**

(प्रस्तावनेंतल्यान)

**गोवा कोंकणी अकादेमी**